BIMB/ June 2021/ Vol 20/ISSUE06/Panaji Goa POSTAL LICENCE NO. G-2/RNP-GOA/01/ 2021-2023 Published on 1st and Posted on 5th & 10th day of every month RNI Regd. No. GOA KON/2008/30

मोल : ₹ 50/-

२० वें वर्स

# बिम्ब

मासिक

जून २०२१

तरांतरांचीं चक्रीवादळां
फुडाराक चक्रायतलींच...
ताका जापसालदार
आमीच !

# बिम्ब
कोंकणी मासिक

२० वें वर्स



तरांतरांचीं चक्रीवादळां
फुडाराक चक्रावतलींच...
ताका जापसालदार
**आमीच!**

- दिलीप बोरकार



वर्स २०: अंक ०६
जून २०२१
मोल ५० रुपया

मुखेल संपादक
दिलीप बोरकार

पालवी संपादक
मानसी धाऊस्कार

मुद्रक आनी प्रकाशक
दिलीप बोरकार

छापणावळ
इम्प्रेशन्स, बेळगावी

वर्गणीचे दर :
वर्सुकी वर्गणी ५०० रु.
३ वर्सांची १४०० रु.
विद्यार्थ्यांक वर्सुकी ३०० रु.
आनी ३ वर्सांक ८०० रु.
जाल्यार संस्थांक वर्सुकी ७०० रु.
आनी ३ वर्सां खातीर रु. २०००

BANK DETAILS :
Bimb Monthly
The Saraswat Co. Op. Bank Ltd.
Branch : Panaji Goa
IFSC Code : SRCB 0000071
CA A/c. No. : 071100100000793

संपादकीय पत्रवेव्हाराचो पत्तो :
Dilip Borkar
2-A, Govt. Qtrs, Ponte De Linhares
Patto, Panaji- Goa 403001
Tel: 0832-2438355
Mail: bimbkonkani@yahoo.co.in

कचेरी
'धर्म लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स,
आगशी-गोंय, 403204

# कोरोना काळांत गिन्यान दिवपी शिक्षण सुरू करात..

संपादकीय

**शा**ळा गोंयांत जुनांत सुरू जाताल्यो. जुनाचो अंक आमी तेच पासत शिक्षण ह्या विशया कडेन संबंदीत दवरून आमकां होलमलां वा अणभवलां त्या शिक्षणांतल्यो दोन जाणवायो ह्या अंकांत नेमान दियत आयल्यात. ह्यो जाणवायो आमीच त्या मळा वयले सर्वज्ञ असो पोको झेत काडून सांगिल्ल्यो न्हय तर भारतीय शिक्षणशास्रांतल्या विद्वानांनी आदर्श नागरीक घडोवपा पासत कसल्या आनी कशे तरेच्या शिक्षणाची गरज सांगल्या ताची उजळणी वा याद करून दिवपाचो तो आमचो एक अयशस्वी प्रयत्न आसतालो. अयशस्वी इतलेच पासत, आमच्या देशांतलें धोरण आज देशांतले शिक्षणतज्ज्ञ थारायनात, दोळ्यांक उदक लावपा पासत जरी तांचे कडल्यान शिक्षणीक धोरण तयार करून घेतलें तरी तें कशे पद्धतीन चलणुकेक हाडप हें राजकारणी थारायतात. राजकारणी मतां पासत लोकांची मागणी येता त्या प्रमाण शिक्षण सप्लाय करतात. हाका लागून आज देशांत जी पिळगी तयार जाल्या वा जाता ती फक्त मतदार ह्या प्रकारांत आसपावपा सारकी. तांकां जे तरेचें शिक्षण दिवन तांची वैचारीक घडण तयार केल्या तिका आयच्या सत्ताधारी राजकारण्याक जाय तसो भगवो लेपड काडपाक चड तकालस येवंची पडना. कित्याक असल्या डेमागोग मानसिकतेच्या सत्ताधाऱ्यांक जाय आसता तो नगाक मतदार आनी तो मतदार जितलो बंदिस्त विचारांचो आसता तितलें तांचेर निंयत्रण दवरून सत्ता राबोवप सोंपें जाता. आयचें एकंदर शिक्षणीक धोरण हें अशेच तरेचें बंदिस्त विचारसरणेचें हें सिद्द जालां आनी तातूंत बदल करपाची कोणाची इत्सा ना. जेन्ना परंपरेंत बदल घडोवन हाडपाचो यत्न जाता तेन्ना ताका समाजांतल्या अज्ञानी घटकां कडल्यान विरोध जाता आनी ते सत्ताधाऱ्यांचे मतदार जाल्ल्यान तांचो विरोध मोडून काडून, तुमकां जाय तसलें न्हय तर तुमकां बऱ्याक पडटा तसलें शिक्षण दिवपाचें धोरण आमी राबयतात अशें सांगपाची धमक आमच्या सरकाराक निखालूस ना. तेच पासत शिक्षणाची जाता ती परवड आनी त्या शिक्षणाचे भकीक पडून तयार जावपी देशाचे खांबे वैचारीक नदरेन आनी कर्तृत्वानूय करमेवन आनी बरडेवन वतात.

शिक्षण हें गिन्यान संपादन करपा पासत आसचें अशें जाणकारांचें मत आसा. पूण फाटल्या कितल्याच काळा सावन शिक्षण मंत्रालय राबयता तें शिक्षणीक धोरण नोकरे पासत दाखले दिवपाक राबयल्लें बंदीस्त शिक्षण म्हणपाची कल्पना कोणाक येना. शिक्षण हें गिन्यान संपादन करपा पासत आसता, गिन्यान संपादन करतलो जाल्यार तें संपादन करतना ख्यारस्त दिसूंक फावना. गिन्यान हें हांसत खेळत घेवपाची प्रक्रिया. पूण शिक्षणाची सांगड गिन्याना परस नोकरे कडेन घाल्ल्यान ह्या मळार सगळोच गोंदळ निर्माण जाला आनी आज करोनाचे म्हामारींत तो उक्ताडार पडला.

फाटले शैक्षणिक वर्सा साकून गोंयच्या विद्यार्थ्यांनी शाळेचें आनी शिक्षकांचे तोंड पळोवंक ना. अशें घडिल्ल्यान नोकरदार शिक्षकां भितर कांयच फरक पडिल्लो दिसना. करोनान सगलें बंद पडलां, आतां आमी पगारा बगर वळवळटले असो तांकां भंय पडपाचो प्रसंगूच येवंक ना. दर म्हयन्याक तांच्या खात्याचेर पगार वचत रावला. ह्या शिक्षकां वरींच कांय विद्यार्थीय आसतले जांकां करोना काळांतले शाळाबंदीचो विशेश फरक पडूंक ना. शाळा नासली तरी आमकां फुडल्या वर्गांत धाडटलेच म्हणपाची खात्री तांचे वांगडा तांच्या पालकांकूय आशिल्ली. कित्याक तांकां जाय आसता तो फक्त दाखलो नोकरे पासत. ताची तजवीज जाता जाल्यार पाड पडूं त्यो शाळा आनी गिन्यान अशें म्हणपीय कांय लोक आसतलेच. तरीय ह्या शिक्षकां मदीं कांय शिक्षक अशे आसतले जे मिशन म्हणून ह्या प्रोफेशनांत आयल्यात आनी आपल्या गिन्यानाचो फायदो विद्यार्थ्यांक मेळूंक पावलो ना म्हूण चिटमिटल्यात. पूण ह्या करोना काळांत चडांत चड लुकसान जालां तें अश्या विद्यार्थ्यांचें जे शाळा-कॉलेजांत गेल्ल्यानूच आपलें व्यक्तीमत्व घडोवंक पावतात. थंय तांकां तांचे इश्ट मेळटात, तांचे आवडीचे शिक्षक मेळटात, थंय तांकां अशें एक वातावरण मेळटा जातूंत तांची जीण फुलता, फळटा आनी विकसीत जाता. हें सगळें घडटना तांकां गिन्यान लाबता जाचो वापर तांकां फुडाराच्या प्रवासांत जाता. हें वातावरण मनीस घडपाक आनी मनीस म्हूण वाडपाक खूब गरजेचें आसता. नोकरे पासत दाखलो घरा बसून सरकारमान्य संस्थे कडल्यान पत्रवेव्हार माध्यमांतल्यान शिक्षण घेवन घेवं येता जो खंयचीच वेवस्था न्हयकारूंक शकना. हें कोण करता तर जांकां परिस्थितीक लागून शाळा-कॉलेजांत दाखल जावंक मेळना. जांकां फक्त नोकरे पासत दाखलो जाय तांणी निश्चितूच हो मार्ग आपणावचो. पूण जांकां परवडटा तांणी शाळा-कॉलेजच्या जिवीत जीवनाचो अणभव नक्कीच घेवंक जाय. त्या अणभवांतल्यान मनीस घडूंक पावता.

पूण दुर्दैवान ह्या करोना म्हामारीक लागून फाटल्या तशेंच चालू शैक्षणीक वर्सांत खंयच्याच विद्यार्थ्याक हो अणभव घेवंक मेळ्ळोना. हाका लागून घरांत बसून ऑनलायन शिक्षणाच्या नांवान जो किर्तें वर्स मुखार धुकलपाचो असैमीक मार्ग सरकारान आपणायला तातूंत ह्या विद्यार्थ्यांच्या पदरांत वर्स आनी दाखले पडटले पूण विद्यार्थ्यान जगूंक आनी भोगूंक जाय आशिल्ली ती शाळा आनी थंयचें जीवीत मात तांच्या नशिबांतल्यान सासणाची शेणलें.

करोना म्हामारीचो काळ केन्ना उलगतलो आनी शाळा-कॉलेजां आदले वरी केन्ना सुरू जातलीं हें काळूच थारायतलो. शाळा-कॉलेजी बंद दवरच्यो पडिल्ल्यान आनी भुरग्यांक बंद घरांत दीस सारचे पडिल्ल्यान तांची सगळे तरेची वाड आटून गेल्या. तांचे हे मानसीक उदरगतीचो हुसको तसो सरकाराक ना. सरकाराक हुसको लागला तो परिक्षांचो करप किर्तें? परिक्षा घेना जाल्यार कोण फुडें आनी कोण फाटीं असो क्रम सरकाराक लावंक मेळना. ताका लागून नोकरेचे वा हेर करियराचे सर्तींत तांची सुवात थारावंक मेळना. पूण ह्या म्हामारी काळांत ह्या विद्यार्थ्यांनी कितलें गिन्यान संपादन करून आपली वैचारीक तांक वाडयल्या ताची मोलावणी मात जाल्ली दिसना. जर विद्यार्थ्यांची ही तांक वाडिल्ली वा वाडोवपाचो प्रयत्न वेगवेगळ्या मार्गांनी केल्लो जाल्यार शाळा-कॉलेजी आनी हेर ॲक्टीवीटी बंद पडिल्ल्यान करंजेवन गेल्ल्यावरीं जाल्ल्या ह्या भुरग्यांचेर तशी परिस्थीती येवंची नासली. शाळा-कॉलेजी बंद दवरच्यो पडिल्ल्यान अभ्यासक्रम पुराय जावंक पावलो ना, आतां परिक्षा कश्यो घेवंच्यो, फुडल्या वर्गांत भुरग्यांक कशें धाडचें, स्पर्धात्मक क्षेत्रांत खंयच्या आदाराचेर ह्या भुरग्यांक सर्तींत दंवोवचें हो प्रस्न ह्या भुरग्यांक दाखल्यां बदला गिन्यान दिल्लें जाल्यार कोणाक पडचो नाशिल्लो. पूण आमी दाखले दिवपांतूच इतले गुल्ल जाल्यात, ताचे मुखार भुरग्यांक गिन्यान दिवपाक विसरल्यात. गिन्यान नाशिल्ल्यान भुरगे सर्तींत आडखळटात, धडपडटात. हाका कोणाक दोश दिवपाचो?

म्हणटकच हो करोना काळांतलो अणभव सरकारान आनी पालकांनी गांठीक मारून विद्यार्थ्यांक सगळे तरेचें गरजेचें गिन्यान कशें मेळटलें हाचेर विचार करचो पडटलो. असल्यो म्हामारी आतां फुडाराक येतच रावतल्यो. हें अवर्शण आमी मनशांनी हाडलां. सत्तेच्या मदा पासत चिनान हो करोनाचो विशाणू तयार करून झुजाचें अस्त्र म्हूण वापरलां काय ना हें फुडाराक कळटलें. ताका बुद्द शिकोवंक आनी कोणूय दुसरें जैवीक अस्त्र घेवन फुडें येतलो. हांगा हे सर्तीक आतां अंत नासतलो. म्हणटकच ह्या अंतहीण झुजांत तग मारतलो जाल्यार चार वणटीं भितरल्या शिक्षणाच्या नांवान दाखले घेवपा बदला ह्या फुडे जगपा पासत जर गिन्यान संपादन केलें जाल्यार खूबश्या समस्यांतल्यान आमी तग मारूंक पावतले.




# बिम्ब मासिक परिपूर्ण जावंक ताकूंत विज्ञान साहित्यूय जाय..

संपादक,

त्या दिसा तुमकां मेळून आनी तुमचेकडे उलोवन खूब बरें दिसलें. तुमी सांगिल्ल्या प्रमाण, विज्ञान विशयींचे लेख सातत्यान बिम्बांतल्यान येवंचे अशें म्हाकाय दिसता. ताच्याच संदर्भांत प्रतिबिम्ब मार्फत एक विनवणी करूंक इत्शितां.

हालींच, पणजेच्या राज्य वाचनालयांत अशेंच कितें तरी सोदतना चुकून मे २०१३ वर्सांतले बिम्ब हातीक सापडलें आनी त्याच निमतान बिम्ब परिवाराची वळख जाली. (म्हाका लज दिसता सांगपाक की स्वताक कोंकणी मनीस मानून लेगीत ह्या म्हयनाळ्या विशीं म्हाका पयली कांयच खबर नासलें, कोंकणींत फक्त एकूच खबरांपत्र येता तें जाणा आसलो.)

फुडें त्या म्हयनाळ्यांतले सगळे लेख वाचून काडले, वेगवेगळ्या तरांचें साहित्य एकूचकडे वाचूंक मेळिल्ल्यान खूब बरें दिसलें, ह्या खातीर तुमचे सगळ्यांचे उपकार.

उपरांत हांवें एक हालीचो अंक घेतलो आनी ताचेर दिल्ल्या संपर्क क्रमांका प्रमाण रोखडोच तुमचेकडे संपर्क साधून बिम्बाचो एक बारीकसो वर्गणीदार जावपाचो मान मेळयलो. फुडें, ह्या वर्साचे सगळे पयलीचे अंक तुमचे कडल्यान मेळयले आनी आवडीन ते वाचून काडले.

ह्या सगळ्या भितर एकूच खंत उक्तावची शी दिसता, ज्या एक प्रकारच्या लेखाची हांव हांगा आरत धरून आसलों (विज्ञाना संबंदी), तो म्हाका खंयच वाचूंक मेळूंक ना. वायट दिसता की ह्या २१ व्या शेकड्यांत लेगीत आमी विज्ञानाक इतलें कमी लेखतात. आताचे हे मुस्तींत तर विज्ञान आनी म्हायती तंत्रगिन्यान हांच्या शिवाय जगणें कोण चिंतुकूच शकनात. तरी त्या संदर्भातल्या विशयांकडे (आमच्या कोंकणी साहित्यांत येवपा-पासत) आमी दुर्लक्ष करतात ही खूब निर्शेवणीची गजाल जावन आसा.

देख दिवपी वा उमेद वाडोवपी काणयांच्या रुपान जायना, पूण सगळ्याच प्रकारचें गिन्यान समाजांत पसरोवप हे त्या त्या क्षेत्रांतल्या जाणकारांचें कर्तव्य आसपाक जाय हे म्हाजे वैयक्तीक मत (काणयांच्याच रुपान कित्याक तर ते आमी चड बरे तरेन समजुपा सारकें पडोवंक शकतात ह्या कारणा खातीर). पूण हाचो अर्थ असो मातूय जायना की म्हाजाळ्यां वयली (Internet) वा हेर भाशेंतल्या पुस्तकांतली म्हायती आमी फक्त अणकार करून हाडची, ताच्या बदला आमी खबर आशिल्ले म्हायतीकूच एक नवें रूप दिवन तें मुखार हाडूं येता वा वेगवेगळ्या सुवाते वयली म्हायती जी एकीकडे मेळपाक कस्तीक जाता, तिका एकठांय हाडून ती मांडू येता.

वाचकांक एकदां त्या विशयाची आवड वा गोडी लागली काय फुडें ती आपसुकच पसरपाक खूब सोपी जातली.

आतांच्या युगांत तर भलायकी, पर्यावण, हवामान, खगोलशास्त्र ह्या सारकेले विशय सातत्यान बरोवपांत येवपाकच जाय. कशे तरेन आमच्या पर्यावरणाचो इबाड जायत चल्ला... आमच्यो न्हंयो, रानां नश्ट करूंक (वा जावपाक) लागल्यात... हवामान, वातावरण प्रदुशणाक लागून नाकाशिल्ले बदल आमकां आयज पळोवंचे पडटात (वेळ-अवेळी पावस म्हणात वा असह्य गरमी. गोंयांत थंडी तर आतां सारकी पडच ना), तशेंच अवकाशांतल्यान येवपी, सृश्ट काबार करपाचे क्षमतेचो (सुर्या पासून वा हेर फातराळ गुळे हांच्या पासून) धोको, हें सगळें आडावपाक लागून आनी त्या संदर्भांत जागृताय जावंच्या हेतान, साहित्या सारकें दुसरें प्रभावी माध्यम आनीक कसलेंच ना. लिखणाच्या संदर्भात, काळा प्रमाणे बदलत रावून, ह्या गजालींचो आमी बरे तरेन उपेग करून घेवंक जाय हें म्हाजें प्रामाणीक मत.

आज तकली वयर काडून उबे आशिल्ल्या कोरोना सारक्या विषाणुचेर (वा आनी हेर कसल्याय दुर्येसाचेर) मात करपाक आमकां मुख्यता विज्ञानाचोच आदार जाता हे लेगीत आमी विसरतात. कोणें चिंतूंक सुद्दा नासतलें की वातावरणांत खूब प्रमाणांत सापडपी ह्या प्राणवायुची आमच्या शरिरांत कमतरता भासूंक शकता म्हूण. फक्त आयचे पिळगेनूच न्हू तर सगळ्यांनी देख घेवपा सारकी ही गजाल आसा.

कोरोना, मुळांत पुलमांवाचेर हल्लो करता खंय आनी ते पुलमांव समज पयलींच अशक्त आसल्यार ह्या विषाणू पासून बेगीन मुक्तताय जायना वा यातकूय थारूं येता. आमचे कुडींतलें पुलमांव वा हेर अवयव दुबळे जावपाचे

आनीक एक कारण म्हणल्यार सैमार्चे वा वातावरणार्चे प्रदुशण.

देखीक, बेभानपणान केल्ली झाडांची कत्तल, तशेंच सणा-कार्यांच्या निमतान घरांत वा देव-धर्मांच्या, खरी भावना कडेक दवरून, फक्त उमेद भागोवपाक लागून (फोगाच्या वा आनीक हेर रुपान) केल्लें हवा आनी न्हंयांचें प्रदुशण..., तशेंच कोणाचो हट्ट, वा सुवार्थ पुराय करपाक लागून केल्ली जंगलांची (आनी वन्यजीव) नासाडी, ही फुडें कोरोनाच्या दुर्येतीकूच न्हू तर आमच्यांतल्या दर एकल्याच्या नाकाक पंप लावन भोंवडावपाची पाळी हाडटली हें निश्चीत.

फुडाराक साहित्यांत एक वेगळे तरेची भर तशेंच जागृताय जावपाच्या हेतान ह्या विशयांचेर खोलायेन विचार जातलो आनी दर म्हयन्यांत, कमीच-कमी एक तरी असलो लेख हे व्हडले माचयेर येतलो अशी हांव आरत्त बळगितां.

ह्या सगळ्या बोवाळांत हांव म्हाजी वळख दिवंक विसरलों:

म्हाजें नांव गौतम जल्मी, रावतां साखळी, आनी म्हायती तंत्रगिन्यान अभियांत्रीक म्हूण पणजे आल्तीन हांगा एके खाजगी कंपनींत काम पळयतां.

ल्हानपणा सावन खगोलशास्त्राची खुबूच आवड आशिल्ल्यान व्हड जावत सर ती वाडत गेली. वेगवेगळ्या संस्थां मार्फत आपखोशयेन काम करतना पर्यावरण तशेंच खगोलशास्त्रा सारक्या दुर्मीळ विशयांचेर चडांत-चड म्हायती मेळोवन ती आपले परीन फुडें पसरोवपाचो अतिरिक्त भार येतलो.

खरें गोंय सोदपाच्या उद्देशान, वेगवेगळ्या गांवगिऱ्या वाठारांनी भोंवपाची म्हाका खूब आवड आनी हाकाच लागून, पर्यावरण संदर्भात देवरायो (Sacred Groves) आनी पुरातन खगोलशास्त्र (Ancient Astronomy) हाचेर म्हाजो बारीक अभ्यास चालू आसा.

फाटल्या वर्सा टाळेबंदी उपरांत खाजगी जिणेंत खुबशे बदल घडोवन हाडले आनी मन शांत करपाच्या हेतान साहित्याकडे वळ्ळों. वाचनालयांत कोंकणी भासेंतलीं पुस्तकां सोदतना अशें लक्षांत आयलें, म्हाज्या ह्या आवडीच्या विशयांतलीं कोंकणी पुस्तकां तर खुबूच उणीं वा नाशिल्ल्यांतच जमा.

हांवें फुडें खुबशा हेर विशयांचेर कोंकणींतलें साहित्य वाचलें आनी तातूंतल्यान नकळत रवता बरोवपाची इत्सा जागी जाली.

म्हाजो आनी साहित्याचो पयस पयस पर्यंत कांयच संबंद वा फाटभूंय ना. पूण जिणेंत घडिल्ल्या प्रसंगा वयल्यान, एक वेगळोच उद्देश साधून, सराव जावंच्या हेतान, तशेंच कोंकणी साहित्यांत म्हाज्या आवडीच्या विशयांतल्या लिखाणांत भर पडची म्हूण, फाटल्या पांच-स म्हयन्यां सावन हांवें पेन हातींत धरलो. कोंकणीचो मोग आनी बरोवपाची उमेद वाडिल्ल्यान हांव तें आतां सकयल दवरूंक सोदी ना.

बिम्ब वाचतना फक्त एकूच गजालीचें म्हाका वायट दिसलें, तातूंत विज्ञान, खगोलशास्त्र सारक्या विशयांचेर लेख छापून येयना, हाचें कारण तुमी सांगलें कोण तें सहसा बरोवंक वचनांत. अशें हाचे फुडें घडचें न्हू आनी कोंकणी लेखकां मदलो हो दिश्टिकोण बदलचो हाका लागून, कोणाच्याय हातींतल्यान जावं, पूण बिम्बांत एक तरी विज्ञान लेख येवंचो (फक्त आनी फक्त असल्या म्हायतीची पसरण आनी जागृताय जावंच्या उद्देशान) ही म्हाज्या काळजांतली इत्सा आनी तुमकां नमळायेची विनवणी.

ह्या संवसाराचे उत्पत्तीच्या सगळ्यांत चड




प्रचलीत आशिल्ल्या सिध्दांताक जशें Big Bang म्हणतात, तेच तरेन विज्ञानाच्या ह्या आशयाक Big Bimb म्हणून तुमी तातूंत एक नवी भर घालूं येता.

म्हाका जे सुचलें ते व्यक्त करचें अशें दिसलें, म्हूण तुमी सांगिल्ल्या प्रमाण हांवें हे पत्र बरयलां. ह्या म्हाज्या विचारान समज कोणूय दुखवता आसल्यार हांव पयलींच चूक मागतां.



**- गौतम जल्मी**, साखळी गोंय

**बिम्बाच्या वीस वर्सांच्या प्रवासांत खूबशे विशय त्या विशयांतले बरोवपी मेळूंक नाशिल्ल्यान वेवंक पावले नात हाची खंत आमकां आसा. बिम्ब परिवारांतले विजयकुमार वेर्णेकार, नंदकुमार कामत हांचे कडल्यान ती अपेक्षा आशिल्ली. तरी खगोलशास्त्राचेर श्रीकांत नागवेंकार हांणी कांय वर्सां आदीं बिम्बांत सातत्यान बरयल्लें आनी त्या लेखांचें 'खगोलशास्त्रीय नाट्यांगण' ह्या नांवान आमी पुस्तकय काडलां. आतां हो उणाव तुमचे कडल्यान पयस जावंदी. तुमच्या लिखाणाक वेवकार.**

**- संपादक**

## बोरकारी




आयज गोंय घटकराज्य दीस म्हण म्हाका यादच ना.

तश्यो म्हाका हालीं बऱ्योच गजाली याद उरनात.

कोणय म्हणटले,‘ म्हातारपणाचीं लक्षणां’.

आसतय बी!

पयर हांवें सहज प्रतापसिंग राण्यांक विचारलें फोनाचेर, “खाशांनो मतदारसंघात बी पासय मारिल्ली बी हालीं? येदें व्हडलें वादळ येवन गेलें खंयचें तरी! पूण आमच्या आमदाराक लागीं आसुनय येवन वच्चें अशें दिसलें ना अशें रयत म्हणटाली!”

आयकून खाशे खाशेंलें हांसले.

म्हणूक लागले, “आरे हय मरे! विसरलोंच पळय! बाबाक सांगलेलें, लक्ष दिवंचेंच दिसल्यार दोनायचेर दी. आतां बापायचें कोण आयकतात?”

अशें म्हणत खाशांनी फोन बंद केलो.

हें मात राणे सत उलयलो. म्हाकाय बापायन एकदां म्हणिल्लें, ‘एकूच घेवन बसूं नाका, सगळ्या बेंसांचेर लक्ष दी.’

हांवें कानामनार घेतलें ना.बेंस रयतेन खालें.

आतां बेंस कितें आनी मतदारसंघ कितें, लक्ष दिना जाल्यार कोणूय खातलोच! खावं थंय! एक्सा आवयक एक्सान खाल्यार म्हजें कितें एक्स वता?

तर हांव घटकराज्याचें सांगतालों.

आज गोंय घटकराज्याचो वर्धापन दीस म्हण म्हाका विजय सरदेसायान याद करून दिली.

च्ये! तो कपलाचो फोन करता!

हांवूय करूंक वचना. ताचे परस मोबायल घेवन आनीक कितेंय पळयत बसप परवडलें!

कर्फ्यु काळांत सगळेच मोबायलार खेळटात तसो हांवूय काल सांजचो ‘मनरिजवणे’ पासत ‘बरेंऽऽ’ कितें सोदतालों जाल्यार विजयोत्सव चलतना दिसलो.

म्हणलें हाचे शेपडेर कोणें पांय दिलो काय!

कितें उलयता तें बरेंऽऽ गोमलेंना, कित्याक तो इंग्लेज कातरतालो!

म्हजो फुडार घडचो म्हूण हांवें कोंकणी आनी घटकराज्या पासत उपास तपास काडीत मार फार खालो. तेच पासत हे आमदार इंग्लेज उलयत दुडू खातात! खावं बाबडे, ताकाय नशीब लागता!

विजयाचें ‘गोवा स्टेटहूड’ कळपा इतली म्हजी स्टेट तशी बरी आसा.

आमचो सावंत‘इस्टेटवूड’ म्हणटा जाल्यार कोण ‘घातकराज्य’ जाल्यार कोण‘घट्टणराज्य’ म्हणटात!

एक्साचे कितेंय म्हणू! पूण इंग्लेजींत जावं तें मागीर,घटकराज्य दिसाचे पूर्वसंध्येर रयतेक लेखून उलोवंक मेळप हेंय तशें स्टेटहूडाचें फळूच!



दिलीप बोरकार

# तरातरांची चक्रीवादळा फुडा[illegible]क चक्रायतलींच... ताका जापसालदार आमीच!

कोंकणी आनी गोंय हांचे पासत ध्येयनिश्ठेन वावरत आयिल्ले ***दिलीप बोरकार*** हे ज्येश्ठ पत्रकार आनी नामनेचे साहित्यीक. तांच्या प्रवा[illegible]वर्णनाक तशेंच बालसाहित्याक केंद्रीय साहित्य अकादेमीचे पुरस्कार फावो जाल्यात.

*ह्या सगळ्या [illegible]राची जेन्[illegible]कां जाता, धाम[illegible] आ[illegible] वादळां [illegible]चे फाटलें [illegible] कार[illegible] हें [illegible]गतीक ता[illegible]मानवा[illegible] आनी [illegible] फाटलें कारण सु[illegible]र्थी [illegible]नी हपापी [illegible]नीस म्हण[illegible]पाचें आमकां [illegible]कून [illegible]वतां तेन्ना हो विशय आमी फकत [illegible] [illegible] पासतूच सोडून दितलेकाय हाचेर गांभिर्यान विचार करपाचो वेळ आवला.*

**क**रोनाचो म्हारू मानेर बशिल्लो आसतनाच, आर्दींच थोडें तातूंत वेयान धाडलां घोडें म्हणटात तशें गोंयांत तौक्ते काय कोण त्या चक्रीवादळान धुमशेण घालें. पुराय गोंय ताणें घुसळावन काडलें आनी कितल्याच कोटी रुपयांचें लुकसाण केलें. लोकांचीं घरां दारां उबोवन तांकां उबंत उडयले. दोग जाणांक ह्या अरिश्टांत मरणूय आयलें. हेर राज्यांनी ह्या वादळाक लागून जो विध्वंस जालो आनी मरणां आयल्यांत तें पळयत जाल्यार गोंयकार त्या मानान आजून सुखी म्हणूंक जाय.

तौक्ते फाटाफाट आनीक एक चक्रीवादळ 'यास' मुखार सरलें पूण ताका गोंयचो रस्तो सांपडलो ना. ताणें केरळ, ओरिसा बी राज्यांक जमता तितलें पिसडून उडोवन समाधान मानलें आनी थंडावलें.

करोना म्हामारी कितें, तौक्ते आनी यास सारखीं चक्रीवादळां कितें तीं गोंयांकूच न्हय तर पुराय संवसाराचेर अरिश्ट घेवन आयल्यांत आनी येतात. करोना कितलो काळ धतरिर सांवार माजयतलो आनी ह्या मुखार कसल्यो कसल्यो म्हामारी आनी चक्रीवादळां हे धतरिक तणीक लायतल्यो, पिसडून उडयतल्यो हाची पारखणी जावप कठीण! पूण एक गजाल खरी, आज सगळेच पर्यावरणतज्ज्ञ आनी हवामानशास्त्रज्ञ एकमतार पावल्यात तें म्हणल्यार आज जीं सगळीं अरिश्टां येतात तीं मानव निर्मीत आसात आनी तांचें मूळ संवसारीक तापमानवाढ हेंच जावन आसा.

हें इतलेंय जगजाहीर आसुनय अजून मेरेन सर्वसामान्य मनशाक आपलो आनी

जागतीक तापमानवाढीचो संबंध किर्ते हाचो ताळमेळ लागना. गरमी वाडटा इतलेंच ताका जाणवता आनी ताचो संबंध तो सुर्या कडेन लावन मेकळो जाता. पूण आपणें आपल्या ल्हान व्हड करण्यांतल्यान पर्यावरणाचो ऱ्हास केला म्हणपाचें भान ताका कशें येना होच हुसक्याचो प्रस्न आसा!

फाटल्या वर्सा करोनाच्या सांवाराक आरंभ जालो आनी किर्ते कशें हाची कल्पना नाशिल्ल्या संवसारान खास करून मोठ्या प्रमाणांत प्रदुशीत जाल्ल्या आमच्या भारत देशान चार-पांच म्हयन्याचो लॉकडावन करून मानवनिर्मित पुराय यंत्रांक लॉक मारलें तेन्ना हे सृश्टींत एक अजाप अणभवूंक मेळ्ळें. प्रदुशणाक लागून मनशाक श्वास घेवप कठीण जातालें तांकां प्रदुशण उणावल्ले सृश्टीचो अणभव वाच देही याच डोळा पळोवंक मेळिल्लो. पूण त्या अणभवान किर्तेंय धडो घेवंचे परस, सुदारचे परस लॉकडावन काडले बराबर परत तांचो धर्तरेचेर बलात्कार सुरू. आपल्या ह्या करण्यांक लागून आपूण हे धर्तरेचो नाश करूंक लागलां, हे धर्तरि वयलें तापमान वाडूंक लागला ताका आपूणच जापसालदार आनी हे तापमानवाडीक लागून हीं चक्रीवादळां निर्माण करपाक आपुणूच जापसालदार म्हणपाचें ह्या विद्वान्यांक भान येना ते सर कोणाच्यान कांयच करूंक येवपाचें ना आनी जेन्ना ही धर्तरेचो विध्वंस हांच्या ह्या सुवार्थीपणाक लागू जातलो तेन्ना आरे सायबा म्हणपाक लेगीत कोणांक संद मेळपाची ना. म्हणटकच ह्या लोकांक शादूर कोर्णे करपाचें?

धर्तरि वयलें तापमान कित्याक वाडटा तर मनीस वेगवेगळ्या कारणांक लागून धर्तरि वयल्या रुखावळीचो, जंगलांचो नाश करता. जमनीच्या पोटांत बुराक मारून इंधन काडून तें हेंच धर्तरेर दिसरात जळयत आसा. ह्या आनीक असल्याच कितल्याच कारणांक लागून मनीसजात पर्यावरणाचो इबाड करता आनी हें संतुलन एक सारखें हालत गेल्ल्यान संवसारीक तापमानीचें संकश्ट आयज आमचे मुखार तोंड उगडून नाच करता.

आयज आमकां उत्तर भारतांतल्या म्हालसागरांनी जीं वादळां निर्माण जातना दिसतात आनी चक्रीवादळांचें रूप घेवन विध्वंस करीत धांवतात तांचो उगम बंगालच्या उपसागरांत जाता अशें हवामानशास्त्रज्ञ करतात त्या संशोधना वयल्यान कळटा. भारतीय उपखंडांत १९९८ ते २००१ ह्या काळांत तीन चक्रीवादळां जाल्लीं आनी ह्या अरिश्टान कितल्याच लोकांचो बळी घेतिल्लो. कितलीच संपत्त उदकांत गेल्ली. शेतवड, बागायतीचें जाल्लें लुकसाण परत पुर्वपदार येवपा भायलें जाल्लें. हीं चक्रीवादळां मनीसजातीचेंच लुकसाण करतात अशें न्हय तर हे धर्तरि वयलीं कितलीच अरिश्ट आनी वरिश्ट रुखावळ मुळा सावन हुमटून उडयता, जांकां वयर सरपाक कितलेच शेकडे लागिल्ले आनी फुडारांतले कितलेच शेंकडे तांचे कडल्यान प्राणवाय मेळपाची अपेक्षा आशिल्ली.

उपरांतच्या काळांत २०१८ वर्सा तीन जाल्यार २०१९ सालांत पांच चक्रीवादळां तयार जावन तांणी लुकसाण केल्लें आनी ताची याद पयसावतां पयसावतां एक वर्स मदीं करून परत ह्या २०२१त तौक्तेच्या नांवान चक्रीवादळ अशें घुंवले, आदींच करोनाच्या मरणांनी थतरवितर जाल्ल्या गोंयकारांचो आवरो उडलो. त्या फाटोफाट आनीक एक चक्रीवादळ तयार जालें जाका यास नांव दवरिल्लें. पूण ह्या यासान गोंयकारांच्या गळ्याक फास घालोना. तरी एक प्रस्न पडटा त्या तौक्तेन आनी त्या आदीं आयिल्ल्या वादळांनी गोंयकारांचें हिसपा भायर लुकसाण कित्याक जालें?

चक्रीवादळा सारख्या सैमीक अवर्शणांत हेर राज्यांनी जशें हिसपा भायर लुकसाण जाता तशें गोंयचे भुंयेर जायना अशें गोंयकार हड्डें फुडें करून सांगताले. ताचें फाटलें कारण सांगतना कांय लोक गोंय म्हणल्यार पुण्यभूंय म्हूण तशें घडना म्हणटाले. कांय भावार्थी गोंयचो सायब गोंयांक राखता अशें भावार्थान सांगताले. पूण गोंयांत येवपी चक्रीवादळांक आडावपाचें वा तांची गती नियंत्रीत करपाचें काम गोंयच्या दर्यादिगां वयलें सैमीक इफ्ळींचें रान करता, अस्तंत घाटा वयलीं अभयारण्यां करतात, रानां-जंगलां करतात हाचेर कोर्णे सामान्य मनशान केन्ना लक्ष दिलें ना. आज उदरगतीच्या नांवान आनी संपत्ती करपाच्या हावेसान ही सैमीक देण जेन्ना बेकायदेशीरपणान नानपयत करून उडयली तेन्ना ह्या वादळां-वाऱ्याची गती आडावपी रक्षक उरलो ना. ताचो परिणाम म्हूण गोंयचे भूंयेर वादळां धुमशेणां कांडटना आमी अणभवतात.

हें जर जावंक फावना जाल्यार हो विध्वंस जाता तितले बेगीन बंद करूंक जाय अशें म्हणपाचो काळ आतां उरूंक ना. कित्याक तो काळ आनी त्या काळार दिल्ली चत्राय केन्नाच फाटीं सरल्या आनी जो किर्ते विध्वंस सुवार्थी लोकांनी घडोवन हाडला तो पळयत जाल्यार आतां फक्त जीं किर्ते अरिश्टां येतात तीं मोन्यानी सोंसपाचीं आनी आपलो जीव तगोवपाचो यत्न करपाचो. ह्या करोनाच्या काळांत जशीं दर दिसा अर्दे शेकड्या वयर मरणां जातात



आनी रडपाक कोणाक फुरसद ना,तसलोच प्रकार फुडाराक येवपी दरेक चक्रीवादळा वेळार घडटना दिसतलो. कोणाकूय ही अभद्र वाणी अशें दिसतूय. कोणूय म्हणत 'शुभ बोल रे नाऱ्या...।' पूण फाटल्या कितल्याच काळा सावन सुवार्थी लोकांनी हे भूंयेर जितलें अशूभ करून दवरलां तें पळयत जाल्यार ह्या मुखार शूभ आनी कितें आसतलें असोच प्रस्न पडूं येता. अरबी म्हाल समदिराच्या तळभागाचेर जें सतत तापमान वाडत आसा ताका ह्या मुखार उतरण ना. तें वाडत रावतलें आनी ताचो परिणाम म्हूण चक्रीवादळां वांगडाच नवनव्यो म्हामारींची रीग ह्या फुडेन अणभवाक येतली अशें हवामानशास्त्र आनी पर्यावरण मळा वयल्या जाणकारांचें मत आसा.

हें जर येदें व्हडलें अरिश्ट आसा जाल्यार ताचेर कोणूच कित्याक हरकत घेना, सैमाचो विध्वंस करून जर मनीसजातीचेर हावळ येता जाल्यार हें सगळें बेगोबेग बंद करून उडोवपा पासत पावलां कोण आनी कित्याक उबारनात? हाचेर रोखडोच नवो प्रस्न तयार जाता, हीं पावलां कोणें उबारपाचीं? सरकारी यंत्रणा आपले परीन कायदो करता आनी लोकां मदीं जागृताय घडोवन हाडपा पासत सरकारी दुडवानीच जायरात करता. असल्यो जायराती आनी जागृताय हो वेवस्थेचो एक वांटोच जाल्ल्यान तिका कोण केर करी नात.

हे दीस, चड करून पुराय माया म्हयनो हो आंब्यां म्हयनो. करोनाच्या नांवान कर्फ्यू लागिल्लो आसूनय रस्त्या कुशीक आंब्याचे पाटले घेवन कोण ना कोण आपलो धंदो तेजींत करतना दिसता. सरकारी यंत्रणांय तांचे बाबतींत विशेश कडक रावना आनी रावचेंय बी न्हय. करोना म्हामारी पिकेर पावल्या हें होलमता. पूण आंब्यांचो भारूय पिकेर पावला हेंय खरें. आंबे पिकले काय ते विकूंक जायच आनी खावंकूय जाय. नातर ते कुसतात. ते विकप्यांक जर करोना कर्फ्युचो भंय घालो जाल्यार हे गरीब लोक करोना बदला भुकेन मरतले इतलें समजुपा इतली आमची सरकारी यंत्रणां काळजान मोव आसाच आनी आसची.

पूण जांची काकूट करून आंबे विकूंक कायदो सदळ सोडला त्या आंबेवाल्यांक पर्यावरणाचें कितें पडून गेलां? ते वो तीं वेवस्थीत आपलो धंदो करतात आनी ते आंबे गिरायकाक दितना जांचेर बंदी आसा असल्या पोतयांनी घालून दितात. पाव डझन आंबे घेतल्यारूय पोती, अर्द डझन घेतल्यारूय पोती आनी डझनभर घेतल्याकूय पोती. जो दोन डूज घेता ताका दोन पोतयो.

हांवें एके आंबेकाण्णीक सांगलें,''आगो त्या पोतयांचेर बंदी आसा मगो, म्हाका ती पोती नाका, हांवें हाडल्या ही पळय.'' म्हजे कपड्याचे पोतयेंत आंबे घालतना ती सांगता,''बाबा कितें करपाचें..? पोती दिना जाल्यार गिरायक वयता.'' तिचेंय सारकें. तिका धंदो करूंक जाय, आपलें पोट भरूंक जाय. देखून ती म्हामार्गा वयले वालेतींत बसून आंबे विकता, गिरायक जावंचें देखून बंदी आशिल्ल्यो पोतयो दिसा उजवाडाक वापरता, दोळ्यां सामकार हळदुव्याच आंब्यांची रास दिसल्या बराबर मोटरसायकलवालो वा मोटरवालो फाटीं फुडें पळय नासतना ब्रेक मारता. ते काय आंबे व्हरूंक म्हूण भायर सरूंक नाशिल्ल्यान तांणी घरसून पोतयो हाडिल्ल्यो नासतात. पोती दिता जाल्यारूच तुजे आंबे व्हरतां अशें म्हणपी गाडयेवाल्यांक बंदी आशिल्ल्या, पर्यावरणाक घातक थारपी प्लास्टीक पोतयांत्यान आंबे घालून दिले बगर पर्याय आसना. पर्यावरण इबाडटलें, ताका लागून तापमान वाडटलें, मागीर वादळां येतलीं आनी हानी जातली ही खूब पयसुल्ली गजाल आसता तांचे पासत. लागिशिल्लें कितें आसता जाल्यार ते पिकिल्ले रसरशीत आंबे आनी ते विकून हातांत आयिल्ल्यो रंगरंगयाळ्यो नोटी. दोनूय गजाली तोंडाक उदक हाडपी. त्या उदका मुखार फुडाराक येवपी



बुडर्लें कोणाक पडलां..?

आमच्या गोंयांत पर्यावरण राखपा खातीर कितलेच पर्यावरणवादी आनी गोंयचो हुसको लागिल्ले किर्ते ना किर्ते प्रयत्न करून आपले परीन असल्या यडणुकांक विरोध करतात. पूण असल्या विध्वंसाक तेंका दिवपी वा तांचेर पदर धरपी सत्ताधारी तशेंच हेर वायंगण्यां राजकारण्यां सामकार ही शक्त उणी पडटा.

आमी हालींच्या काळांत करोना धामीचो आकांत चलतनाय गोंयचे जमनीचेर वेगवेगळ्या प्रकल्पाच्या नांवान हावळ हाडून थंयची रुखावळ बेणपाचो आनी पिकाळ शेतवडीची नासधूस करपाचो यत्न थळाव्या लोकांनी बंद उडोवपा पासत आंदोलन उबें केलें. सत्तरींतल्या शेळ-मेळावलीच्या गांवांत आवआयटी प्रकल्प नाका, जंय तो प्रकल्प हाडूंक सोदतात ती आमची पिकाळ कसदार जमीनूच आमकां जाय अशें म्हणत त्या वाठारांतलो खडेगांठ राजकारणी, गोंय सरकारचो भलायकी मंत्री विश्वजीत राणे हाका दिमी मारूंक लायली

ही यडणूक अजून ताजी आसा

मोलें अभयारण्य नानपयत करून थंय केंद्र सरकाराक जाय आशिल्लो वीज प्रकल्प जावंक फावना म्हूण थळाव्या लोकांनी गोंयभरच्या हेर पर्यावरण प्रेमींच्या पालवान सुरू केल्लो लडो चालू आसा. गोंयांत दोन पदरी रेल्वे मार्ग सुरू करपा पासत जावपी रुखावळीची कत्तल थांबोवपा पासत लोकांची सुरू जाल्ली उचांबळाय न्हिंवूंक ना. लोक तसो जागृत आसा आनी धर्तर वाचोवपा पासत आपले तांकी प्रमाण तांचो यत्न चालूच आसा.

पर्यावरण वाचोवप आनी धर्तरी वयलें वाडपी तापमान आळाबंदाक हाडप हो फक्त गोंयचोच प्रश्न न्हय. ती जागतीक समस्या. ती सुटावी करपाक गोंयचो वांटो कितलो हो तसो चर्चेचो विशय न्हय. त्या त्या वाठारांतल्या माफियांचे तांकीचेर हो विरोध निंबून आसता. पूण एकवटीत यत्न हो गरजेचो म्हणपाचें धर्तरेचो हुसको लागिल्ल्या दरेकल्याक दिसता आनी आपले परीन तांचो खंय ना खंय प्रयत्न चलता.

स्वीडनची ग्रेटा थनबर्ग सारखी एक शाळेंतली विद्यार्थीनी आपूण ल्हान, आपूण किर्ते करूं अशें चिंतीत बसना. आपणे हे धर्तरेर जल्म येतला आनी आपल्याक हे धर्तरेचेर सुखान रवास येवपाचो अधिकार सैमीक तत्वान मेळ्ळा. तेन्ना आयच्या प्रदुशणाच्या काळांत आपल्याक तो मेळचो म्हूण सरकार किर्ते प्रयत्न करता? किर्ते जतनाय घेता? असो थेट प्रश्न सरकाराक करीत तें सरकाराकूच न्यायालयांत आव्हान दिता. ह्या अरिश्टा विरोधाचे फलक हातांत घेवन रस्त्यार येता. ताका संवसारभरच्या पर्यावरण मोग्यांचो तेंको मेळटा. ते आपापल्या वाठारांत रावून कार्यावळींचें, आंदोलनाचें आयोजन करून


लुईसा नॉईबर

ग्रेटाक तेंको दितात. कितलेच तरनाटे शाळा-कॉलेजी सोडून रस्त्यार येवन आंदोलन करतात. खरें पळोवंक गेल्यार हो ग्रेटाक तेंको न्हय तर ताणें आपलो सैमीक हक्क मेळोवपा पासत जें किर्ते मागणें आरंबलां वो ताचे पासत सरकाराक जागें करूंक पावल घालां ताका तेंको. ग्रेटाचो प्रश्न हो एकट्या ग्रेटाचो न्हय तर संवसारभरच्या ग्रेटाचे पिरायेच्या भुरग्यांच्या जीवन मरणाचो प्रश्न. येवपी पिळग्यांच्या जगपाच्या हक्काचो प्रश्न. संवसार भरचे लोक जर अशे एकवटान फुडें सरत जाल्यार सुवार्थी मनशान आपलो धरबंद सोडून सैमाचें आनी पर्यावरणाचें जें लुकसाण चलयलां ताका खंय तरी आवाज मेळूं येता.

पूण सरकार हें दाट कातीचें आसता. सरकाराचे हितसंबंध माफिया कडेन आसतात. तांचेच कडल्यान सरकाराक पयशे मेळटात. पूण आज न्यायालया सारखी एक वेवस्था अजून भ्रश्टाचारमुक्त आसा. गरज पडटा तेन्ना तेन्ना ही वेवस्था सरकारचे कान धरून पिळटा. त्याच

भरवंशाचेर कितलेच लोक आत्मविश्वासान माफियांच्या आनी सरकारच्या विरोधांत खंय ना खंय आवाज काडटात.

लुईसा नॉइबर ही जर्मनची पंचवीस वर्सांची तरनाटी. जर्मन सरकार पर्यावरणाची राखण करीना म्हूण तिर्णे सरकाराकूच कोर्टांत व्हेलें. सर्वोच्च न्यायालयांत सरकारा आड दावो घातलो. न्यायालयान तिची बाजू घेवन सरकाराक शेपलायलें.

दोन वर्सां आदीं पुर्तुगालच्या णव ते बारा वर्सां पिरायेच्या स भुरग्यांनी हवामानांत जाल्ल्या बदलाक लागून युरोपांतल्या मानवाधीकार न्यायालयांत खटलो घाल्लो. ह्या प्रकरणांत तांणी ३३ देशांच्या सरकारांक न्यायालयांत व्हेल्लीं आनी जायते कडेन तीं हो खटलो जिखिल्लीं. ताका लागून हवामान बदल नियंत्रणां पासत फावो ते कायदे करून तांची कडक अंमलबजावणी करपा पासत ह्या सरकारांक वावुर्चे पडलें. पर्यावरणा कडेन गांभिर्यान पळयले बगर तांचे सामकार दुसरो पर्याय उरलो ना. हे अशे तरेचें कार्य संवसारांत खंय ना खंय जेन्ना घडटा आनी ताची म्हायती वाऱ्या वरीं संवसारभर पसरता तेन्ना हवामान बदलाक लागून त्रस्त जाल्ले, ताका लागून मनीसजातीचेर आनी एकंदर सृश्टीचेर आयिल्ली हावळ समजूंक पाविल्ले, आपर्णेय किर्ते तरी करचें म्हूण आवाज काडटात. पूण दुर्दैवान आपल्या सुवार्था पासत ही धर्तर लुटूंक संवकल्ल्यांची तांक इतली व्हड आसता आनी तांचे फाटल्यान त्या त्या देशांतलीं सरकारां इतले तांकीन उबीं रावतात, तें पळयल्यार धर्तर काबार करूंक वावुरपी ही शक्त आळाबंदाक हाडपाक धर्तरेच्या राखणदारांची शक्त उणी पडटा. जैत जाता ते दुडवांकार माफियांचें!

मोस्रा पासत आमी ॲमेझॉनच्या रानाचें उदारण घेवं येता. कित्याक थंय लागपी उजो आनी जळून काबार जावपी वनसंपत्त आनी तातूंतल्यान निर्माण जाल्लो धुंवर आनी वायुप्रदुशण हाका लागून हो विशय जागतीक चर्चेचो जाला. ब्राझिलच्या ॲमेझॉन जंगलांत रावपी आदिवासी हे ह्या जंगलांतले मुळावी. पूण तांकां थंयच्यान धांवडावन घालून, तांची जमीन बळकावन थंय उद्योग सुरू करपाचो उद्योग कितल्याच काळा सावन ॲमेझॉनांत चलता. २०१९ सालांत ब्राझीलाचे अध्यक्ष जैर बोल्सॅनेरो हाणें सत्ता हातांत येतल्या उपरांत तर ह्या आदीवासी लोकांक धांवडावन घालून वा जिवेशीं मारून तें जंगल खाली करपाचो परवानो दिला अशीच परिस्थीती थंय आसा.

ब्राझीलचो फामाद उद्योगपती जोसले बॅटिस्टा सोब्रिन्हो हाची 'जे.बी.एस.' ही सगळे तरेच्या मांसाचें उत्पादन करपी संवसारांतली एक अजस्र कंपनी. तिचीं संवसारभर देडशें मांस उत्पादन केंद्रां आसात. ही कंपनी अमेरीके सारख्या कितल्याच देशांक लागपी कोंबयो, दुकर तशेंच हेर प्राण्यांच्या मांसाचो प्रचंड प्रमाणांत पुरवठो करता. हे कंपनीक मांसनिर्मीती पासत दरवर्सा ३००चौखण किलो मिटर जमीन लागता आनी ती जमीन हे कंपनीक ॲमेझॉनच्या जंगलांत सहज उपलब्ध जाता. त्या पासत हे कंपनीक त्या जंगलाक उजो लावचो पडटा, थंय राबितो करून आशिल्ल्या आदीवासी लोकांचेर साम, दाम, दंड, भेद हांचो प्रयोग करचो पडटा आनी *जेबीएस* सारखे कंपनीक तें कठीण न्हय. जेबीएस ही फकत एक कंपनी, तेच तोलामोलाच्यो आनीकूय कंपन्यो थंय आसूं येतात. गुगलाचेर त्यो सहज हाताक लागतात. ह्या असल्या कंपन्यांक आनी उद्योजकांक लागून ॲमेझोन जंगल वर्सूयभर जळत आसता. तें जळयतात कित्याक तर कोंबयो आनी दुकरां हांकां प्रथीनयुक्त खावड जाय आसता आनी ती खावड म्हणल्यार सोयाबीन. मांसा वांगडाच अमेरीका, ब्राझील, अर्जेन्टीना आनी हेर देशांक सोयाबीन धान्याचीय प्रचंड गरज लागता. हें सोयाबीन रोवपा पासत तांकां ॲमेझॉन जंगल खाली करचें पडटा. हो प्रश्न फकत एका ॲमेझॉना चो न्हय तर संवसारभर वता थंय कितलींच ॲमेझॉना आसूं येतात,जंय आपल्या सुवार्था पासत जंगलां मारून काबार जातात. हाकाच लागून आज संवसारीक तापमानाची



समस्या निर्माण जाल्या आनी तांचो परिणाम म्हण सैमार्चे संतुलन इबाडून तरातरांचीं चक्रीवादळां आनी धामी जल्म घेवंक लागल्यात . ताका लागून हे धर्तरेचेर अरिश्ट येवपाक आरंभ जालां आपुणूय हेच सृश्टीचो घटक म्हणपाचें भान विसरिल्लो मनीस मात आपल्याचेर सैमाचें अरिश्ट आयलां म्हणत 'चोराच्या उलट्या बोंबा' असलो प्रकार करूंक लागला.

ह्या सगळ्या प्रकाराची जेन्ना वळख आमकां जाता, धामी आनी वादळां हाचे फाटलें खरें कारण हें जागतीक तापमानवाढ आनी ताचे फाटलें कारण सुवार्थी आनी हपापी मनीस म्हणपाचें आमकां कळून आयलां तेन्ना हो विशय आमी फकत हवामानशास्त्रज्ञ आनी पर्यावरणमोगी वावुरप्या पासतूच सोडून दितले काय हाचेर गांभिर्यान विचार करपाचो वेळ आयला?

करोनाची धाम चिनान आपले प्रयोगशाळेंत तयार केल्ल्या विशाणूंक लागून संवसारभर पातळ्ळ्या असो अज्ञानाचो मारक तोंडार चडोवन न्हिदपांत आतां अर्थ ना. बाकिबाब आमकां गुरू शिटकायता कुरवांनी अशें सांगून गेला. आमकां करोना, सार्स, बर्डफ्लू सारख्यो धामी आनी त्सुनामी, तौक्ते, यास सारकीं चक्रीवादळां आत्रे पयस्यान येवन शिटकावपाक लागल्यांत. हे शिटकावणेचो अर्थ जर आमी अजुनय लायनात जाल्यार आमचे सारके आमीच कर्मकट्टे अशें म्हणचे पडटले. आमच्या ह्या कर्मकट्टेपणाक लागून आमी हे सुंदर वसुंधरेच्या नाशाक जापसालदार थारले बगर रावचेनात.

आमी शे जाबसालदार कित्याक? असोय प्रस्न सर्वसामान्या कडल्यान येवं येता. जो कोण अत्याचार करता तो गुन्यांवकारी आसताच. पूण तांचो अत्याचार पळोवन जो कोण मोन्यानी तो सोसता तोय तांचे इतलोच गुन्यांवकारी आसता. गुरू म्हणल्यार नियंतो वेगवेगळ्या कुरवांनी सर्वसामान्यांक शिटकायता तसो लेखक कवीय आपणे निर्मिल्ले सृश्टीतल्यानूय सर्वसामान्य जनतेक शिटकायता. आमी फक्त हे धर्तरेच्या स्रोतांचो लाव घेवपाकूच जल्माक येवंक नात तर तो दिवपी धर्तरेची राखण करपूय आमचें कर्तव्य थारता. ती कल्पना वा जाण आमकां जे कोण विचारवंत आसतात, जांकां फुडाराचो वेध घेवपाची तांक आसा ते आमकां आपल्या विचारांतल्यान, साहित्यांतल्यान शिटकायतात. तीन दसकां आदीं आमच्या गोंयचो साहित्यकार पुंडलीक नायक हाणें अच्छेव ही नवलकाणी बरोवन मीनाचो धंदो गोंयचो कसो इबाड करतलो म्हणपाची शिटकावणी दिल्ली आनी ती गजाल खरी थारून आमी तांचें पानवळ भोगतात.

अशीच एक 'द स्पेस मर्चंट' नांवाची नवलिका १९५३ वर्सा म्हणल्यार म्हज्या जल्माच्या चार वर्सां आदीं उजवाडाक आयिल्ली. फ्रेडरिक पोल आनी सीरील कॉर्नब्लथ हांणी ती बरयिल्ली. हे नवलिकेंत मनशाच्या चंगळवादाक लागून निर्माण जाल्ले आर्थीक आनी सामाजीक परिस्थितीचें वर्णन आमकां वाचूंक मेळटा. धर्तरे वयल्या चंगळवादी, भोगवादी लोकां कडल्यान सगळीं सैमीक संसाधना लागीं लागीं सोंपत आयिल्ल्यान उपभोगा पासत नवीन संसाधनां मेळचीं ह्या हेतून सूर्यमाळेंतल्या पृथ्वी वरींच हेर ग्रहाचेर संशोधन करूंक वेगवेगळ्या देशांतल्या सरकारां मदीं सर्त लागता. कादंबरीचो नायक मिच कोर्टेन जायरातीच्या माध्यमांतल्यान सगळ्या जगांतल्या ह्या चंगळवाद्यांक भुलयत आसता. ताणें मानवी भावना, मानवी नातीं समजून घेवन धर्तरे वयल्या वस्तूंचो खप कसो करप, कोणांक कितें आनी कशें विकप हें ताका बेस बरें कळटा. जेन्ना धर्तरे वयलीं संसाधना सोंपतात तेन्ना कितें? मागीर दुस्त्या हेर ग्रहांचें पिशें तो तांकां लायता.

आज पुराय संवसारांतले चंगळवादी, भोगवादी मानसीकतायेन धर्तरे वयलीं सगळीं सैमीक संसाधनां सोंपयल्यांत. वापरा परस इबाडूच चड केला. तातूंतल्या फक्त दुडू करून दवरला. दुडवांचे गिरेस्तकायेन मनीस मातला. करोनाच्या काळांत जेन्ना लॉकडावन लागू जावन जेवणा खाणांक दाणो गोटो मेळना जालो तेन्ना ह्या दुडवांक कांयच मोल ना म्हणपाचें सत सगळ्यांक होलमल्लें. प्रत्येकान तें अणभवल्लें. तरी आसतना जाणीं धर्तर लुटून, तिचो इबाड करून दुडू केला ते त्या दुडवांनी आतां सूर्यमाळेंतल्या हेर ग्रहांचेर सुवात घेवपाचे सर्तींत देंवल्यात. आज आमचे मदीं मीच कोर्टेन आसात ते ही स्पेस बूक करतात. खूब जाणांनी चंद्राचेर आनी मंगळाचेर प्लॉट्य घेतल्यात म्हणपाचें आयकतां. कांय जाणांनी रॉकेट प्रवासाचेंय बुकींग केलां आनी कोण कोण तो प्रवास करूनय आयल्यात. पूण तांकां बाबड्यांक खबर ना, पृथ्वीचो विध्वंस करपी विद्‍वाटे जशे आयज पृथ्वीचेर धुडगूस घालतात तसलेच विद्‍वाटे हे आदीं मंगळाचेर आनी चंद्राचेर जावन गेल्यात. चंद्र आनी मंगळ हांची अवस्था आज जी दिसता ताका तेच जापसालदार आसात. त्या ग्रहांची अवतिकाय त्या लोकांनी जशी केल्या तेच दिकेन पृथ्वी वयलो मनीस पावलां मारीत आसा. तरी ते मंगळ आनी चंद्राचेर वचून राबितो करूंक थंय सुवात खरेदी करतात हाचे इतलो विनोद आनी खंयचो?



कथा



अभयकुमार वेलिंगकार

# तर घडलें अशें...

**अभयकुमार वेलिंगकार** हांची वळख कोंकणी वाचकांक आसा ती कोंकणींतले एक निश्ठावंत कार्यकर्ते म्हूण. कोंकणीची सेवा करता आसतनाच तांणी कोंकणी साहित्य मळार आपले परीन योगदान दिल्लें आसा. बालसाहित्य हो तांचो आत्मो. त्या भायर तांणी कथा, कविता, ललित, एकांकी अशे साहित्यांतले भोवतेक प्रकार समर्थपणान हाताळ्ळ्यात.

*रजूचो खंय पयलीं पासून मोग चलतालो, कॉलेजींत आसलें तेन्ना सावन. पूण शालिनीक ताचो मोग पसंत नासलो. ताका धुवेन जाती भायर सोयरीक जुळयल्ली नाका आसली. पूण रजू आयकूंक तयार नासलें. ताका आपल्या मोगा वांगडाच लग्न करपाचें आसलें.*

**शा**लिनी आजी जाली ही खबर वाऱ्या सारकी सगळ्या ऑफिसांत पावली. ऑफिसांतलीं सगळीं अजाप भरीत जाल्लीं. शालिनी आनी आजी? धुवेचें लग्न जालें तरी केन्ना? शालिनीन आमकां सगळ्यांक फटयलीं काय कितें? सगळ्यांच्याच तोंडार हो प्रस्न दिसतालो. सगळ्याक कुजबूज चलताली.

''आयकल्या ती खबर खरी गो?''- दिक्षा.

''असल्यो खबरी म्हणून केन्ना फट आसतात?''- प्रज्ञा.

''पूण ताचें लग्न मोडलें म्हणटालें न्ही गो?''- रचना.

''म्हणजे लग्ना बगरूच भुरगें जालें तर?'' - दिक्षा.

आनी सगळ्याक हांसपाची खिसखीस.

''पळेलें मगो शालिनी कितलें भितरले गांठीचें तें! आमकां पार्टी बी दिवची पडत म्हणून कितें नाटकां केलीं तीं पळेलीं न्ही?'' - रचना.

''नाका दिवंक आसलें गो पार्टी पूण ते खातीर लग्न मोडिल्याचें नाटक कित्याक करूंक जाय आसलें? ताका कितें दिशिल्लें हें सगळें लिपून उरतलें म्हणून? येवंदी आतां ताका.'' -प्रज्ञा.

''पूण हें कितें आयकलां तें सगळें खरें मूं काय वाऱ्यावेलें बी? पयलीं सारकी बरी खबर काडप बरें.''

इतलो वेळ ओग्गी आशिल्ल्या संजनान तोंड उगडलें.

''आगो खरें म्हणजे? ताणेंच रजा मागल्या न्हय? रजेचो अर्ज धाडला ताणें. ताचो रजेचो अर्ज पळोवनूच कळ्ळें आमकां. ना जाल्यार आमी कित्याक उलोवपाचीं?'' - प्रज्ञा.

''कितें, धुवेच्या बाळंतपणा खातीर रजा? सुटलें काय सुटपाचें आसा?'' - संजना.

''सुटलें सुटलें. आज खंय आयलां तर शालिनी? आयच्यानूच रजा मागल्या ताणें.''- प्रज्ञा.

''हें तरी खरें मगो काय लग्न मोडलां म्हणिल्लें तशेंच बी कितेंय?''-संजना.

''कळटलें न्ही. आतां तरी पेढे दितलेंच न्ही! तेन्नाच कळटलें!''- रचना.

''पूण आयकूंक विचित्रशें, न्हय गो?



शालिनीक गांवां वयलें सगळें म्हणटात तशें खबर आसता पूण आपल्या पांयां पोंदा कितें आसा तें मात ताका खबर ना शें जालें ना?''

''आसूं गो, नाका लोकांच्यो खबरो. आमकांय भुरगीं आसात हें विसरचें न्हय.''

''हें मात खरें आं. ना जाल्यार आमी लोकांचें धुयत बसतलीं आनी आमचेंय शालिनी जावपाचें.''

सगळीं ओगी जालीं आनी आपापल्या कामाक लागलीं. जरी सगळीं कामाक लागिल्लीं तरी तांचे तकलेंत शालिनी आनी ताची धूव घोळटाली. शालिनीक सगळीं कावळ्या आवय म्हणुनूच वळखतालीं. ताका कोणाच्या घरांत कितें शिजता तें खबर आसतालें. नाशिल्लें लेगीत आसाच म्हणपाचें करून दाखयतालें तें. पूण स्वताची धूव कितें दिवे लायता तें मात ताका कळूंक नासलें.

तशें पळोवंक गेल्यार शालिनीची काकूटच म्हणची पडटली. कितलें उमेदीन आसलें तें, धुवेची सोयरीक जाली तेन्ना. सगळ्यांक सांगत भोंवतालें. ''आमच्या रजूची सोयरीक जाली गो. मना सारको मेळ्ळो जावंय आमकां. म्हज्या मनांत आशिल्लें तशेंच घडलें. मात्शें पयस पडटलें गो. पूण सगळेंच मना सारकें कशें मेळटलें न्हय? आमकां पयस पडल्यार पडूं, धुवेचें बरें जातकूच जालें. सगळें ताच्या मना सारकें जालें.'' सामकें खुशालभरीत जावन तें उलयतालें. ताका कितलें उलोवचें आनी कितली तोखणाय करची तेंच कळऽ नासलें.

हेरांक मात हें मात्शें विचित्र दिसतालें. सगळें गोंय थंयच सोडून हें धुवेची सोयरीक घेवन गोंयां भायर शें पावलें? गोंयांत कितें



भुरगे ना जाल्यात? मागीर हें शेजारच्या राज्यांत कित्याक गेलें? कोणूय सोयऱ्यांतलो बी भुरगो आशिल्लो जाल्यार गजाल वेगळी आसली. पूण नवो भुरगो, नवी सोयरीगत, अशें कशें? बरें, ताची धूव रजू कितें वायट दिसऽ नासलें. चार चोवगांत उठून दिसतालें तें. शिकिल्लेंय बरें. कोणूय मागून व्हरपाचो. मागीर गोंयां भायर कित्याक? धुवेन मोग बी केलो आसतलो आनी शालिनी लिपयता अशें दिसतालें तांकां.

कांय जाणांक मोग बी म्हणल्यार कमीपणां दिसतात. कोणेंय मोग केला म्हणल्यार तीं नाक मुड्डितात. कित्याक म्हणून कळना. संवसार खंय पावला आनी हीं मनशां खंय आसा तेंच कळना. तांकां अजुनूय सोयरिके खातीर आवय-बापायन जोर्तीं झरोवप हेंच अभिमानाचें दिसता. जावं कशेंय पूण शालिनीचे धुवेचें लग्न सामकें ताच्या मना सारकें थारिल्लें. पूण मर्दीच कितें जालें कोण जाणा, तांचें थारिल्लें लग्न मोडलें म्हणपाचें सगळ्यांच्या कानार पडलें.

कानार पडलें म्हणचे शालिनीनूच सांगिल्लें. शालिनीचे धुवेनूच लग्न मोडिल्लें खंय! इतलें बरें थळ मेळिल्लें आनी लग्न मोडलें, कित्याक काय? शालिनीचे धुवेक खंय तो भुरगो झेंपो दिशिल्लो. शालिनीची धूव तागेर गेल्ली. तांणीच आफोवन व्हेल्ली. ताच्या जावपी घोवाचो वाढदीस आसलो आनी घरच्यांनी तो दबाज्यान मनोवपाचो थारायल्लो. वाढदिसाक जायते लोक जमिल्ले. ताचे जायते इश्टूय आयिल्ले ताका परबीं दिवपाक. केक बी कापून जालो आनी रजून ताका वाढदिसाची भेट दिली. कितें दिवची भेट? तर हीच.''तूं झेंपो, फकत घरच्यांचें आयकता, बापायन उठ म्हणल्यार उठठा आनी आवयन बस म्हणल्यार बसता. असल्या झेंप्या कडेन म्हाका लग्न करपाचें ना.'' सगळ्या जमिल्ल्यां हुजीर सांगलें ताणें. ताच्या वाढदिसाचे पार्टीचो विचको करून आयलें तें. वांगडा शालिनी आनी ताचो घोवूय आसलो. तांकांय कितें म्हणपाचें कांयच

कळ्ळें ना. तींय तटास जावन आयकत उरलीं. जायतो वेळ तांणी धुवेक समजावपाचो यत्न केलो. तांकां पयलीं तें फकणां बी करता काय दिसलें.

"रजू कितें उलयता गो? अशीं चार चोवगां मर्दी असलीं फकणां सारकीं न्हय. पुरो कर आनी ताची माफी माग बेगीन."

पूण रजू कांयच आयकून घेवपाचे तयारेंत नासलें. ताचें एकूच म्हणणें आसलें, "आपणाक ह्या झेंप्या कडेन लग्न करपाचें ना."

मान सकयल घालून तांकां थंयच्यान भायर सरचें पडिल्लें.

शालिनीची सगळी उमेदूच ना जाल्ली. ताची सगळी खोशी खंयचे खंय गेल्ली. कोणूय मेळपी विचारताली, "केन्ना गो थारायलां लग्न? सोयरीक जाली म्हणून केऽन्ना आयकल्लें मगो. मागीर लग्न केन्ना?"

आनी शालिनीचें तोंड येदें शें जातालें. कितें म्हणून सांगतलें आसलें तें लोकांक? ज्या तोंडान सोयरीक जाली म्हणून सांगिल्लें त्याच तोंडान लग्न मोडलें म्हणून सांगचें पडटालें ताका. आनी लग्न मोडलें तेंय आपले धुवेनूच. ताचें सामकें मरण जातालें. हालीं तर ताणें खंयूय वचपाचेंच सोडिल्लें. सगळ्यांक तें ताळटालें म्हणल्यार जाता. कारण वचत थंय तोच विशय आनी त्योच खबरो. आनी आतां अकस्मात तें आजी जाल्ल्याची खबर. लग्न केन्ना जालें कोणाकूच खबर ना आनी एकदम भुरगें? हें कसलें अजाप बाये? हें चली शालिनीक धक्यार धक्के दिवंक जल्माक आयलां काय कितें? दर एकल्याच्या मनांतलो प्रस्न.

दिक्षा म्हणटा तें शालिनीचेच तालमींत तयार जाल्लें. तें कशें ओगी रावतलें? ताका कितें घडलां तें सोदून काडपाचेंच आसलें आनी ते खातीर ताणें कितें करचें तर ताणें रजू खंय सुटलां तें हॉस्पीटल सोदून काडलें. खबरेचें निमित्त करून ताणें हॉस्पीटलाक भेट दिली. दुसरे दिसा ऑफिसांत सगळ्याक रजूचीच चर्चा चलताली. रजून शालिनीक बरेंच सतायल्लें म्हणपाचें कळिल्लें तांकां.

रजूचो खंय पयलीं पासून मोग चलतालो, कॉलेजींत आसलें तेन्ना सावन. पूण शालिनीक ताचो मोग पसंत नासलो. ताका धुवेन जाती भायर सोयरीक जुळयल्ली नाका आसली. पूण रजू आयकूंक तयार नासलें. ताका आपल्या मोगा वांगडाच लग्न करपाचें आसलें. निमाणें ताका कशें तरी फुसलावन बी म्हणटात तशें तयार केलें आनी त्या मोगी पासून तोडपा खातीर गोंया भायर बरोसो भुरगो पळोवन ताची सोयरीक केली. एकदां लग्न जावन घोवा घरा पावलें म्हणजे मोग बी सगळें विसरतलें अशें दिशिल्लें ताका.

पूण रजू शाणें, ताणें संद सादली आनी चार चोवगां मुखार जावपी न्हवऱ्याचो अपमान करून लग्न मोडलें. एकदां चार लोकां मेरेन घडिल्ली खबर भायर पावली म्हणजे असले चलयेचे भानगडींत कोण पडटलो? रजूक हें बेस बरें खबर आसलें. ताका तेंच तर जाय आसलें. ताचो मोगी राविल्लोच ताचे खातीर. निमाणें दोगांयचें लग्न लावन दिवचेंच पडलें. शालिनीन मना विरूद्द म्हणटा तशें तांचें लग्न लावन दिलें. सामकें लिपचोरयां म्हणटात तशें. लग्न जरी लिपचोरयां लायलें तरी मुखार घडपाचें तें कशें लिपयतलें आसलें? आज सगळे लोकां मुखार आयिल्लें. शालिनीक सगळें मानून घेतले बगर पर्यायूच नासलो. शालिनीक कळिल्लें, लोकांक हांसतकूच आपणाक कशें दसता तें. हेरांनीय हाची देख घेवन दुसऱ्यांक बोटां दाखोवचें बंद केल्यार बरें न्ही?



मडगांव–गोंय. मो.: 9423884687



झिवंवलो जलवाय

सखाराम
शेणवी
बोरकार

# कोंकणी म्हणी आनी वाक्प्रचारांतलो पावस



कोंकणी कवितेंत मोलाची भर घालपी सखाराम शेणवी बोरकार काव्य निर्मिती करपा वांगडाच ललित साहित्य लेखन, विनोदी साहित्य लेखन, पुस्तक समिक्षा तशेंच हेर भासांतलें साहित्य कोंकणीत अणकारीत करपाचो वावर सातत्यान करीत आसात.

*उत्तरा नक्षत्रांत पावसाचो वेट मातसो कमी जाता अशें आसलें तरीव ह्या नक्षत्रांत पावस हो पडपाकच जाय. 'लागतील उत्तरा तर अन्न उणे ना कुतरा, नाव लागतील उत्तरा, तर अन्न नाव पितरा'. बरें पीक येवपाक उत्तरा नक्षत्राचो वातावरणा कडेन संबंद आसता. उत्तरा नक्षत्रांत खर वत आनी पावस पडटा.*

पावसाचे दीस लागीं पावले काय आई म्हण्टाली, 'पावसा आर्दी मठी, काठी आनी मिठी सांबाळपाक जाय.' मठी म्हळ्यार घर, पावस पडचे पयलीं घराचें पांखें शिवपाक जाय, खोंप, गोठो शिवपाक जाय. काठी म्हळ्यार जळोव. पावस पडचे पयलीं घरांत जळोव हाडून उडोवपाक जाय आनी मिठी म्हळ्यार मिठ-मसालो आनी वरोव -गोटो. थोडे भितर सांगतलो म्हळ्यार पावसाचो पुरुमेंत।

अशा ह्या पावसाच्या येवकाराची सगळ्यांक उमेदय आसता आनी तशीच ताची धास्तीय येतिल्ली आसता. हाचो दाखलो आमकां आमच्या म्हणींनी आनी वाक्प्रचारांनी मेळटा.

तशें पळोवंक गेल्यार गोंयच्या आनी सगळ्या कोंकण वाठारांतल्या लोकांक पावस म्हळ्यार सैमाचो एक म्हत्वाचो वांटो. तांचे जिणेचें एक आंगच कशें। पावसाक तो आपल्या घरच्या मनशा भशेन मानता. पडलो ना जाल्यार 'खंय तोंड घेवंन गेला कोण जाणां' म्हणप आनी पडलोय जाल्यार 'मेल्लो दोळे धांपून पडटा, लोकांक भायर भितर तरी वचपाक दी मरे पापया' अशें म्हणप. एकूण पावसाक सदांच गाळी.

मिर्गाक पावस पडपाक कळाव जालो तर तो म्हण्टा:

'दोंगरावेले काळंगिणी
पावस घाल गे सायबिणी.
दोंगरा वेल्या देवा
पावस घाल रे शेवा.
दोंगरावेल्या शितारे
पावस घाल गे म्हातारे.'

हिंदू पंचांगांत सत्तावीस नक्षत्रां आसात. तांतली पावसाचीं णव नक्षत्रां. मृगा पयलीं रोहिणी, मागीर पुनर्वसु, पुष्य, अश्लेषा, मघा, पूर्वा, उत्तरा आनी हस्त. जालीं ना णव? चित्रा, स्वाती, विशाखा हीं फाटलीं फुडलीं. ह्या नक्षत्रांक गांवगिऱ्या वाठारांनी आपले बोली भाशेंत वेगळीं वेगळीं नांवां दवरल्यांत.

बिरबल बादशाचे एके काणयेंत एक दीस अकबर बादशा आपल्या वांगड्यांक एक प्रस्न विचारता- 'सत्ताविसांतल्यान णव काडल्यार उरले कितले?'

ह्या प्रस्नाची एकटो बिरबलच जाप दिता-

''शुन्य। खाविंद।''

''तें कशें?'' बादशा बिरबलाक विचारता.

''वर्सभरांतलीं नक्षत्रां सत्तवीस. तांतलीं णव पावसाचीं. तीं सुकीं गेलीं तर पावसाचेर आदारून आशिल्ल्या शेतांनी कांयच पिकपाक ना. सावदां, जिवाणीं,

झाडां-पेडां हांकां अन्न मेळपाक ना. मागीर उरतलें कितें? शुन्य।''

वेगवेगळया नक्षत्रांतलो पावस वेगवेगळे तरेचो आसता. त्या त्या नक्षत्रां प्रमाण पावसाचीं रुपां,कळा, तरा, नेट सगळें बदलत वता. त्या त्या नक्षत्रांत पावस अमूक अमूक वाहनाचेर बसून येता अशें हिंदू पंचांगांत बरयिल्लें आसता. त्या प्रमाण पावस पडटा असो समज आसा. हीं वाहनां हत्ती, बेबो आदी आसतात. देखीक पावसाचें वाहन तर बेबो आसत तर त्या नक्षत्रांत खूब पावस पडटा.

आयज पावस केन्ना येतलो तें सांगपाक हवामान खातें आसा. तांचो अदमास चुकूं येता. पूण कोंकण वाठारांतल्या शेतकामत्यांचो अदमास केन्नाच चुकना. तांचो इतल्या वर्सांचो अणभव आनी तार्णे केल्लें सैमाचें निरिक्षण हाचे वेल्यान तो पावस केन्ना पडटलो तें ना चुकतां सांगता. 'तोको मिठाक वता, मागीर पावस येता', तोको म्हळ्यार बगळ्या भशेन दिसपी सुकर्णे. ह्या सुकण्यांचे चोमे दर्या वटेन वचपाक लागले म्हण्टगीर पावस येता असो समज आसा. हीं सुकणीं पावसाच्या पुरुमेंता खातीर मीठ हाडपाक दर्या वटेन वतात असो भौसांत समज आसा. पावसो नांवाच्या एका सुकण्यांक 'पावसाचो दूत ' म्हण्टात. तो 'पावश्या यो।' म्हणीत पावस येवपाची सुलूस दिता.

'पावसांत पावस रोहिणीचो, भावा पयलीं पाळणो भयणीचो', मृग ते हस्त हीं णव नक्षत्रां पावसाचीं नक्षत्रां. पूण मृगा पयलीं येवपी रोहिणी ह्या नक्षत्रांतय थोडो अदीक पावस पडटा. ह्या वेळार शेतकार 'तरवो' काडटात. ह्या नक्षत्रांत पडपी पावसाक खूब म्हत्व आसा. रोहिणी नक्षत्राक मृग नक्षत्राची व्हडली भयण मानल्या. रोहिणी नक्षत्रांत केल्ले पेरणे खातीर येवपी पीक मृग नक्षत्रांत केल्ले पेरणे परस बेगीन तयार जाता.

कोंकण वाठारांत मृग नक्षत्रान पावसाक सुरवात जाता. गोंयांत ताका 'मिर्ग' आनी कोंकणांत ताका 'मिरग' अशें म्हण्टात. गोंयांत तर दोन मिर्ग आसात. पयलो पांच जुनाक किरिस्तांवालो आनी दुसरो सात जुनाक कोंकण्यालो (हिंदूलो). मिर्गाचे अशे धर्मा प्रमाण वांटे कित्याक याल्यात तें समजना. पडये बाटाबाटी उप्रांत ही चाल आयली आसूंये.

'पावसाचें, मिर्गाचें आनी गर्भाचें सांगूक जाता व्हय, केन्ना झडत आनी केन्ना फळत तें।', पावस, मिर्ग आनी गर्भ ह्यो बेभरवंशाच्यो गजाली. ताचेर मनशाचो शेक ना. सैमाक जाय तशें तें घडटा. मनशान ओगी रावन पळयल्या शिवाय गत्यंतर ना अशी ही म्हण आमकां सांगता. 'मिरगाचो आनी गर्भाचो नेम सांगूक येवंचो नाय', हीवूय ह्याच अर्थाची दुसरी म्हण.

मृग (मिर्ग) ह्या पावसाच्या पयल्या नक्षत्रा सावन जो पावस कोमेस जाता तो आद्रा नक्षत्रा मेरेन ताचो नेट वाडत वता आनी पुनर्वसु नक्षत्र लागता तेन्ना दडकांचेर दडको कोसळतात. आद्रा नक्षत्राक ह्या वाठारांत 'आदो' म्हण्टात. 'आदो करता गादो', गादो म्हळ्यार खूब ओलसाण. आद्रा नक्षत्रांत खूब पावस पडटा आनी सगळे कडेन खूब ओलसाण आनी चिखोल जाता. त्या खातीर 'आदो करता गादो' ही एक म्हण जावन पडल्या.

'आदो मिरग गेलो आनी पोरान उतव केलो', पावसाळ्यांत शेतांत काम करतना कांबळी, इरलीं भिजतात. तीं सुकोवपाक मागीलदारा लाकडां-शेणीचो उजो करून ताचे वयर उतव बांदतात. उतव म्हळ्यार कोंड्याच्या बडयांची चौकट. ताचेर कांबळी, इरलीं दवरून सुकयतात. हो उतव पावसाळ्या पयलींच करपाचो आसता. पूण आदो आनी मिर्ग हीं दोन पावसाचीं मुखेल नक्षत्रां वतगीर मागीर उतव करून कितें उपेग? जें काम गरज आसता त्याच वेळार करपाक जाय ही चत्राय आमकां ही म्हण दिता. 'बैल गेला अन झोपा केला' असल्यांतली गजाल ती. ही म्हण गोंयांतय सगळे कडेन योळणुकेक आसा.

पुष्य ह्या फुडल्या नक्षत्राचेर पावसाचो नेट मातसो उणो जाता. पूण पावसाची पिरपीर चालूच आसता. त्या खातीर सगळ्याक चिखल जाता. 'पूस आनी पांय कूस' अशी एक म्हण ह्या वाठारांत योळटा. पुष्य (पूस) नक्षत्रांत शेतकार चिखलाच्या उदकांत देवून शेतांतलीं सगळीं कामां करता. हें करता आसतना उदकांत आनी चिखलांत चड वेळ राविल्ल्यान ताचे पांय, पांयांचीं बोटां, तळवे कुसतात. ताचेवेली कात वता. ताच्या पांयांक 'फंगल इन्फेक्शन' जाता. पुष्य नक्षत्राच्या सुमाराक हो त्रास चड जाता. तें सांगपी ही म्हण.

'आद्या मिरगान केलें नांव, पुसा-पुनवसांन बुडयले बारा गांव', मृग आनी आद्रा नक्षत्रां सावन सुरू जाल्लो पावस थोडो थोडोच पडटा. शेतकामत्यांक तेन्ना शेतांतलीं कामांय करूंक मेळटा. त्या खातीर तांचें बरें नांव जाता. पूण पुष्य (पुसा) आनी पुनर्वसु (पुनवस) नक्षत्रांक योग्यांनी पावस पडटा आनी शेतां- भाटां उदकान भरतात आनी लोकांचें खूब लुकसान जाता. ताचे वेल्यान वयली म्हण आयल्या. पावसाच्या ह्या खाशेलपणां खातीर पुनर्वसु नक्षत्रांत पडपी पावसाक 'तरणो' म्हण्टात आनी पुष्य नक्षत्रांत पिरपीर करून पडपी पावसाक 'म्हातारो' म्हण्टात. 'काय केलास तरण्या पोरा, बय माझ्रा म्हाताऱ्याचा तोरा' आनी 'तरणा काडी खळी-मळी, म्हाताऱ्याचा हाड बळी', 'आला म्हातारडा, वाजवीत दाताडा' ह्या नक्षत्रांचेर आदारिल्ल्यो ह्यो कांय मालवणी म्हणी.

'पुनवस (पुनर्वसु) आनी करता वनवस' (वनवास), ही पुनर्वसु नक्षत्रांत

पडपी पावसाचेर आदारिल्ली आनीक एक म्हण. पुनर्वसु नक्षत्रांत इतलो पावस पडटा कीं घरांतल्यान भायर सरपाक मेळना. सामको वनवास पडिल्ल्या भशेन जाता. ताचे वेल्यान ही म्हण आयल्या.

'असळसाचो पावस लागता सळासळा, बैलाचा वाक(एक) शिंग भिजलां तर दुसरा नाय भिजलां', आश्लेशा नक्षत्राचें गांवगिऱ्या भाशेंतलें नांव 'असळसा'. आश्लेशा पावसाचें खाशेलेंपण म्हळयार भायर वत पडिल्लें आसता आनी पावस पडपाचीं चिन्नां दिसनांत. इतल्यान सर सर करीत पावस येता, थोडे थेंबे उडयता आनी मागीर नाच्च जाता. हो सगळे कडेन पडटाच असो ना. एका जाग्यार पडलो तर थंयच्यान शंबर मेत्र पयस आशिल्ल्या जाग्यार तो पडना. ह्या वेळार भुरगीं

'पावस येता वत(हुनत) येता
माकडाचें लग्न जाता'
वा
'हुन हुन हुनात
पावस शिरशिरी
माकडाच्या लग्नाची
गाडी हिरिहीरी'

अशें म्हणीत त्या पावसांत नाचतात.

आश्लेशा नक्षत्रा उप्रांत मयाचो पावस पडटा. 'लागला मया तर चुलीकडे हागा, नाय लागला मया तर मळबाकडे बया', मयाचो पावस एक फावट सुरू जालो आनी थांबलो ना जाल्यार पयलीं शौचकर्म करपाक पासून भायर सरप कठीण जातालें. आनी जर तो लागलो ना जाल्यार तो लागप शेतांक गरजेचो आशिल्ल्यान केन्ना लागतलो काय म्हण शेतकामत्यांक टकामका आकाशाक पळयत रावचें पडटा.

मयाच्या उप्रांत पुर्वा नक्षत्र येता. पुर्वा नक्षत्रांत पावस सारको पडलो तर पीक बरें येता. ह्या नक्षत्रांत पडपी पावस हो वर्सभराक लागपी पावसाची पुरवण करपी. 'पूर्वाचो पावस पुरयता, जिरवंन जिरवंन पडटा' अशी म्हण आसा. पूण त्या खातीर अश्लेशा आनी मया नक्षत्रांत पावस भरपूर पडूंक जाय. म्हणून कोंकणांतलो शेतकार म्हण्टा, 'असळसा(अश्लेशा) तापे, मया वाफे, पुर्वा देई पूर, त्या वर्सा पीक देई भरपूर'.

उत्तरा नक्षत्रांत पावसाचो नेट मातसो कमी जाता अशें आसलें तरीय ह्या नक्षत्रांत पावस हो पडपाकच जाय. 'लागतील उतरा तर अन्न उणे ना कुतरा, नाय लागतील उतरा, तर अन्न नाय पितरा'. बरें पीक येवपाक उत्तरा नक्षत्राचो वातावरणा कडेन संबंद आसता. उत्तरा नक्षत्रांत खर वत आनी पावस पडटा. ह्या वातावरणाची पिकाक गरज आसता. ह्या काळांत पडपी वताक 'पिकेवेलें वोत' म्हण्टात.

'लागत हत्ती (हस्त नक्षत्र) जाल्यार पडटीत वंटी', उत्तरा नक्षत्राच्या उप्रांत येता हस्त हें नक्षत्र. ताका कोंकण वाठारांत हत्ती म्हण्टात. योग्यांनी पडपी पावसाचें तें निमणे नक्षत्र. ह्या वेळार आकांताचो पावस पडटा. मळबांत जोगूल जोगलावता. खऱ्यांनीच हत्तीच्या नेटान हो पावस पडटा. त्या खातीर वयली म्हण आयल्या. 'लागत हस्त जाल्यार शेतकरी जायत मस्त', ही ह्या नक्षत्राचेर आदारिल्ली दुसरी म्हण.

'चित्राचा निंबार (वत) मनाक उबार (उब)', हस्ता उप्रांत येता तें चित्रा नक्षत्र. हें नक्षत्र ये मेरेन पिकां पिकून तयार जाल्लीं आसतात. ह्या नक्षत्राक पडिल्ल्या वतान पीक तरतरून येता. शेतकार खूब खोशी जाता. त्या खातीर वयली म्हण आयल्या. पूण ह्या चित्रा नक्षत्रांत खूब पावस पडत तर उर्बे पीक मातये भरवण जाता. आनी शेतकामती त्रासांत पडटा. त्या खातीर 'लागल्या चिता(चित्रा) तर कुणबी जाला रीता' अशी म्हण आयल्या.

चित्रा उप्रांत येता तें स्वाती नक्षत्र. ह्या नक्षत्रांत तयार जाल्ल्या पिकाचें मोल मोतयां परस चड आसता. ते खातीर 'लागतील स्वाती तर पिकतील मोतीं' ही म्हण आयल्या.

ह्यो जाल्यो पावसाच्या नक्षत्राचेर आदारिल्ल्यो म्हणी. हाचे भायरूय कोंकणींत पावसाचेर साबार म्हणी आनी वाक्प्रचार आसात.

'आयल्यार पावस नाजाल्यार वत', हेंवूय बरें आनी तेंवूय बरें म्हणपी. खंयचेय परिस्थितींत सूख मानपी मनशाक लेखून ही ओपार मारतात.

'पावस येता तशें सांते धरचें', पावसाचो झोत येता तशी सत्री पुंवडावची ( सांते, सांतली- भिल्लमाडाच्या पानांची केल्ली वांटकुळी सपाट सत्री). 'वारें येता तशें सूप धरचें', हीवूय ह्याच अर्थाची दुसरी म्हण.

'पावसाक भियेवन न्हंयत उडी मारता', ल्हान संकट टाळपा खातीर व्हडलें संकट आंगार येता वा एक ल्हान विघ्न पयस करपाक दुसऱ्या व्हडल्या विघ्नांत पडटा. असो हे म्हणीचो अर्थ. 'सावळेक भियेता आनी भुता बगलेक वता', 'कायलींतल्यान उज्यांत उडी घेता' ह्योवूय ह्याच अर्थाच्यो दुसऱ्यो म्हणी.

'पावसांत भिजलें आनी घोवान मारलें सारकेंच', पावसान एकाद्रा मनशाक भिजोवप ही गजाल जितली सहज आनी सैमीक, तितलीच घोवान बायलेक मारप ही गजाल आसा असो आदीं समज आसलो. आतां पावसान भिजोवप ही गजाल जरी सैमीक आसली तरी बायलेक मारप ही गजाल आतां सैमीक उरूंक ना. आतांच्या कायद्याच्या आड गजाल ती. 'पावसान भिजयलें आनी सरकारान- राजान लुटलें तर कोणाकडे फिर्याद करची?', 'पावसान भिजयल्यार आनी घोवान - बापायन मारल्यार लज ना' वा 'पावसान भिजयल्यार आनी घोवान- बापायन मारल्यार फिर्याद ना' ह्योवूय ह्याच अर्थाच्यो म्हणी.

'पावसाचें ना वत आनी फटकिऱ्याचें ना सत', पावसांत येवपी वताच्या भरंवशार रावंक नज तशें फटकिरो सत उलयलो हाचेर आमच्यानी पातयेवन रावक नज.

'पावस पाणयाचें व्हरड वाणयांचें', भर लग्नाच्या मोसमांत वाणी आपलें सामान विकूंकच उरता. तोच ताचो जोडपाचो काळ. देखून ताचें लग्न मागीर ताका जेन्ना गिरायक कमी आसता तेन्ना पावसांत जाता.

'रेड्या फाटीर पावस पडटा, रेडो म्हण्टा व्हाड्डीक जाता', रेड्या फाटीर पावस पडून कांयच फायदो ना. पूण रेडो मात ताचो आनंद येता. हीच म्हण 'रेड्या फाटीवेलो पावस' अशीय घोळटा.

'झाडामुळा दोनदां पावस', पयलीं पावस झाडांचेर पडटा आनी मागीर पावसाचें उदक पानांचेर सांचता तें मागीर टप टप करून थेंबे जावन पडटात. हाका ओथांबे म्हण्टात. पावसांत भिजचो न्हय म्हण झाडा पोंदा राविल्लो मनीस पावसाचो आसोर जालो तरी ह्या ओथांब्यांनीच चड भिजता.

'पावशी दीस लाम आनी आळशा मनशाचें काम', पावसाळ्यांतले दीस हे व्हडले आसतात आनी त्या खातीर आळशाचें फावता. हे म्हणी फाटली काणी अशी: एकदां दोन तीन दीस सेगीत पावस पडटालो. सून धा वरांचेर पेज जेवन जी न्हिदली ती दनपारचें दोन मेरेन तशीच घोरेत उरली. सासूमांय जी दुसऱ्याल्या घरांनी काम करताली ती काम सोंपोवन घरा आयली. पळयत तर सून न्हिदल्या आनी कपडे उमळपाचे तशेच उरल्यात. सून न्हिदल्या तें पळोवन सासूमांयचो राग मस्तकाक पावलो. ''इतले सगळे कपडे उमळपाचे पडल्यात आनी तूं हांगा न्हिदल्या?'' सासूमांयन सुनेक रागान विचारलें. त्या उतराक सून म्हणूंक लागली, ''पावस पळय कसो ओतता तो. पावसांत दीस व्हडले. बेगीन सांजवेळ जांवची ना. रोखडेच पळय हांव कपडे उमळटां.'' तें आयकून सासूमांयन कपलाक हात मारलो आनी म्हणूंक लागली, 'पावशी दीस लाम आनी आळशा मनशाचें काम'.

'पावस ना उदक ना दुर्दशेक शीम मेर ना', पावस पडना जाल्यार उदक मेळना आनी सगळे कडेन दुकळ पडटा. हें सांगपी ही म्हण.

पावसाचेर आदारिल्ले साबार वाक्प्रचार आसात. पावसाची आपली अशी उतरावळ आसा.

'पावसाडिंतुर्ले वत', पावसा दिसांनीं सुर्य कुपांनी लिपिल्लो आसता ते खातीर वताचें दर्शन केन्ना केन्नाय जाता. खंयचोय मनीस अर्दी मर्दी दिश्टी पडटा तेन्ना हो वाक्प्रचार मारतात. हो वाक्प्रचार मंगळूर वाठारांत घोळटा.

पावसाचें पोट फुटप- खूब पावस पडप

पावसान दोळे उगडप- पावस थांबप

पडट्या पावसांत- भर पावसांत

पावसाची झांक- पावस पडत रावप

पावसाचें पील- खूब कमी पावस

पावस आनारप- मळब पावसान भरप

पावस आसरप, आसोर जावप - पावस पडून वचप, पावसान विसव घेवप

पावस झडप- बारीक पावस पडप

पावस नितळप- पावस आसरेवप

पावस भरप- पावस मांडप

पावस मांडप- मळब कुपांनी भरप

पावस माथ्यार पावप- पावस पडटासो जावप

पावस गीम- पावस आनी गीम म्हळ्यार पुराय वर्स. तो पावसगीम त्रास काडटा बाबडो.

पावसाडी- पावसा दिसांचें

पावसान धरप- एका सारको पावस पडप

पावस पाणयाच्यो गजाली - हवामानाच्यो खबरी चड करून पावसाच्यो.

आडवेळो पावस- पावस पडपाची कसलीच सुलूस दिना आसतना पडपी पावस. बिगर मोसमी पावस. हो पावस केन्ना केन्ना घोग्यांनीय पडटा. ताका तडवो पावस म्हण्टात. 'आडवो पावस तडवो' अशी एक म्हण घोळटा.

अळम्यांचो पावस- मोठ्ठ्या थेंब्याचो फरफर करून येता आनी घडयांत नाच्च जावपी पावसाक अळम्याचो पावस म्हण्टात. आशाड ते भाद्रपद मेरेन अशे तरेचो पावस खूब पावटी पडटा. असल्या पावसाक अळम्यांचो फोव येता, म्हळ्यार अळमी मेळटात. जेश्टांत मेळपी अळमी आनी भाद्रपदांत मेळपी अळमीं हांचे रुचींत खूब फरक आसा. पयल्या फोवाक मेळटात तीं अळमी चड रुचीक.

गारांचो वा कऱ्यांचो पावस- ह्या पावसांत गारो वा करे पडटात. असलो पावस केन्नाय पडटा. आदले तेंपार आमचे जाण्टेले खंय हे करे एकठांय करून बाटलेंत घालून दवरताले. ह्या गारांचें उदक वखदी अर्शे मानताले.

ह्या पावसाचेर आदारिल्ल्या वाक्प्रचारां वेल्यान म्हाका याद जाली. सांगना संवरिनासतना मर्दीच घरांत पुटट करून सोयरो घरांत भितर सरलो तर म्हजी आई म्हण्टाली 'आडवेळो पावस कसो!'.

आमच्या घराच्या बल्कांवाचेर बसून आमी सांजवेळच्यो गजाली मारताले. केन्नाय बल्कांवाचेर कोण दिसले ना तर आईन म्हणचें आज 'आसोर सो?'

ह्यो आसल्यो पावसाचेर आदारिल्ल्यो म्हणी आनी वाक्प्रचार.



पाजीफोंड-मडगांव, मो.: ९९२३३०६७५१

ललित



काश्मिरी पावसकार

**काश्मिरी पावसकार** पेशान शिक्षिका जाल्ल्यान तांचो सातत्यान संपर्क येता तो विद्यार्थ्यांलागीं आनी नवनव्या कल्पना विश्वा कडेन. हाकाच लागून तांचे विचार एके वेगळेच गतीन साहित्यरुपांत परावर्तीत जातात. कांय वर्सां फाटीं त्यो बिम्बांत सातत्यान सदर बरयताल्यो. तांचें एक पुस्तकय उजवाडाक आयलां. बऱ्याच काळान तांचें साहित्य वाचप्यां मुखार येता ही वाचप्यां पासत खोशयेची गजाल.



# जग निर्मातो

***जगाचें परिवर्तन करपी तिसरी शक्ती आसा, ती म्हणल्यार साहित्य. वाल्मिकी, व्यास धरून रविंद्राथ टागोर, शंकराचार्य, शेक्सपियर, होमर बी धरून आतांचे व्हड साहित्यीक जल्माक आयले आनी तांणी जगाक वेगळ्या अर्थी पालव दिलो तो आपल्या अजरंवर साहित्य कृतींतल्यान.***

ह्या जगाचो निर्मातो म्हण आमी परमेश्वराक खूब मानतात. पूण ह्या भौतीक जगांत आमच्यांनी परमेश्वराची व्याख्या मात करूंक जावंची ना. तरी लेगीत ह्या जगाची रचना करपी देवाची अनुभूती मनांत दवरून आमी आमची जीण सारतात. तार्चे सत्य स्वरूप आमी पळोवंक शकनात. पडये आमी तें केन्ना पळोवंक शकचे नात. ते खातीर पडये आमकां शरणागती पत्करून ह्या प्रेमरुपी परमात्म्याचें दर्शन घेवंचें पडटा.

हय जगत निर्मातो परमेश्वर आमकां उत्तम शक्ती प्रदान करून उत्तम कर्मां करपाची स्फूर्त तोच आमकां दिता.

हें जग निर्माण करपी परमेश्वरा बगर आनीक कोणाचो मुखेल वांटो आसा, अशें विचारल्यार कोण म्हणटात, जगाक वेगळें वळण लावंक तशेंच जग बदलूंक राजकारणी लोकांचो व्हड वांटो आसा. देखीक तांचे मुरतींत बाबर आयलो आनी तार्णे अमूक तमूक केलें. उपरांत अमको आयलो आनी तार्णे अमकें तमकें केलें. खऱ्या अर्थी ह्या राजकारणी लोकांचो समाज जिणेचेर कांयच व्हड परिणाम जावंक ना. दुसरें, समाजांत तांचो खंयच कसलो उल्लेखूय ना. समाज वेवस्था बदलपांत कांय आदर्शवादी भारतीय फुडाऱ्यांचो आडवाद आसा तितकोच!

जगाच्या जिविताक आकार दिवपी मुखेल तीन शक्ती आसात अशें मानल्यार, तांतली पयली शक्ती 'विज्ञान'. ही शक्त आयच्या काळांत जगाक एक वेगळेंच रंगरूप दिता अशें म्हणल्यार अतिताय जावंची ना. विज्ञान हें मनशाक देवा पासून पयस व्हरता असो ताचेर आळ येतात हें सारकें न्हय. विज्ञानांत बुध्दी इतलीच काळजाक भारावन उडोवपाची शक्त आसता. आमचे बुध्दीचो विकास करता आसतना, आध्यात्मिक उंचाय वाडयता आनी स्वताची नव्यान वळख आमकां करून दिता. इतलेंच न्हय तर वेळा वेळार आमच्या आदाराक तें पावता. देखीक वैजकी मळार लेझर, लॅपरोस्कोपी, स्कॅनींग, अल्ट्रा सावंड, एक्स रे आदी गजाली विकसीत जाल्यात. म्हायती आनी तंत्रगिन्यानाच्या मळार तर विचारुंकच नाकात इतली उदरगत जाल्या. विज्ञानाच्या अविश्काराक लागून समाज जिणेच्यो गरजो रोखडया रोखडयो पुराय जावंक पावतात. निरोगी लोकसंख्या, जिणेची कालावधी वाडप,

दिसपट्टी जीण सुदारप असो हिसपा भायर फायदो विज्ञानान आमकां केला. ताका आमचो सलाम! पूण ताचो अतिरेक आनी दुरुपेग हो सदांच वायट.

जगाचे जिणेक आकार दिवपी अशीच एक दुसरी शक्ती म्हणल्यार आत्मगिन्यान. जंय जंय हें आत्मगिन्यान प्रगट जालां थंय जिवीत पुरायपणान बदलून गेल्लें आमकां दिश्टी पडटा. हांगा देख दिवंचीच जाल्यार गौतम बुध्द , येशू ख्रिस्त, पैगंबर, ज्ञानदेव, विवेकानंद अश्यो म्हाज्ञानी व्यक्ती जल्माक आयल्यो आनी तांच्या आगमनान लोक जिणेचें पुराय स्वरुपच बदलून गेलें, हाचीच आमकां त्या त्या वेळार गवाय मेळळ्या आनी मुखार मेळत रावतली. आत्मज्ञानी आत्म्याचें गिन्यान प्राप्त करता आनी ताच्याच आदारान आमकां सत्यधन भेटयता. एकेच फावटी कितल्याशाच लोकांक आत्मगिन्यान मेळळें जाल्यार जगाची परिस्थिती बदलूंक कळाव लागचो ना.

जगाचें परिवर्तन करपी तिसरी शक्ती आसा, ती म्हणल्यार साहित्य. वाल्मिकी, व्यास धरून रविंद्रनाथ टागोर, शंकराचार्य, शेक्सपियर, होमर बी धरून आतांचे व्हड साहित्यीक जल्माक आयले आनी तांणी जगाक वेगळ्या अर्थी पालव दिलो तो आपल्या अजरंवर साहित्य कृतींतल्यान. हय, खरो साहित्यीक हो कोणाचे मर्जीचो दास नासता. समाज हिताचो वा बऱ्या विचारांची तो केन्नाच उपेक्षा करी ना. साहित्य सेवा हेंच आपलें कर्म, आपलो ध्यास मानून समाज प्रबोधन तो करता. पूण हालीं तेंपार आपल्याक म्हान साहित्यीक म्हणोवपी कितलेशेच लोक 'टू ऑर्डर' कामांनी गुल्ल आसतात. पयसो आनी नांव इतलेंच तांकां खबर आसता.

जो मेरेन ह्या देशांत विज्ञानीक आपली बुद्द घाण दवरपाचें बंद करचे नात आनी आमच्या सारके साहित्यीक आपली वाणी विकपाचे थांबोवपाचे नात तो मेरेन जगाची उदरगत जावंची ना. एकुणूच समाज जिणेक आकार दिवपी ह्यो तिनूय शक्ती आपापल्या शक्तींचो वेवस्थीत वापर केल्यार हें जग 'सर्ग' जावंक वेळ लागचो ना.



शिवोली,बार्देस. मो.: 9421192858



पिपिरमीट

पुजा लक्ष्मीकांत भांडारे

# अकलेचे कांदे सदांच मोने..!



महाविद्यालयांत शिक्षण घेता आसतनाच साहित्याची गोडी लागून साहित्य निर्मिती कडेन वचपी जी पिळगी आसा ताची एक प्रतिनिधी म्हळ्यार **पुजा भांडारे** भक्तीकाव्यांतल्यान आपली साहित्य निर्मणी आरंभ करीत तार्णे आतां खुसखुशीत निबंध आनी आपउलोवपांक हात घाला तार्चे हें मोल.

*स्वताची भलावकी सांबाळपाक किर्ते करपाक जाय हें लेगीत तुमकां कळनाशिल्ले आदिमानव रे तुमी? आरे, मनशां इतली बूद्द मोनजातीक ना, पूण जर मांजरा फाटल्यान कुत्रे लागत जाल्यार तें मांजर सुद्दा घरा भायर रावना. आनी तुमी मनीस सामके शितापुर्डे मीठ खातात.*

सगल्यांक देव बरो दीस दिवं इश्टांनो, कशे आसात तुमी? बरें आसात न्हय? किर्ते विचारता? आं? आरे, आरे, किर्ते जालें तुमकां? आं, आतां कळळें म्हाका, तुमी मदीच दोळे कित्याक चोळपाक लागले ते! किर्ते विचारता? हांव कोण काय म्हूण? शी सायबा, म्हाका वळखूं ना तुमी? खरेंच ती म्हण आसा पळय रे, तशेच तुमी सगले अकलेचे कांदे! स्वताच कांदे जाल्यात तुमी आनी कांद्याकूच वळखनात वेल्यान किर्ते काय म्हूण म्हाका विचारता? आरे, तुमचे दोळे जळजळपाक लागले तेन्ना तरी तुमी समजूंक जाय आसलें न्हय रे हांव कोण तो, अशी खंयची गजाल आसा, जिच्या संपर्कांत येतकूच तुमचे दोळे आपशीच झरे जावन व्हावतात? असो कोण आसा, ज्याच्या भितर तुमच्या मनांत नासतना तुमच्या दोळ्यांक रडोवपाची शक्त आसा? आं? वळखले म्हाका? किर्ते म्हणटा? जशे दोळ्यांक मिचमीच पडले ताचे वेल्यान म्हाका वळखले हांव कांदो म्हूण? जावं, बरें दिसलें आयकून, निदान म्हाका म्हजें नाव तरी सांगपाची गरज पडली ना. आरे, म्हाका आयज तुमचे कडेन मार्तों उलयन दिसलें. किर्ते म्हणटा? वतात? आरे, कसलें फातरार्चे काळीज रे तुमचें? काकुळटेचो म्हूण मात पाझर ना. आतां तुमचे दोळे म्हज्या खातीर चुरचुरतात, देखून तुमी म्हजे लागी उलोवपाक सोदीनात, मागीर हांवें कोणा कडेन म्हूण उलोवपाचें रे? आतां हे फावटच न्हय, तुमी सदांच म्हजो संपर्क टाळतात. रांदचे कुडींत दीस रात वावुरपी बायल जेन्ना कांदे येवन चिरपाक बसता, तेन्ना तिका लेगीत अशेच त्रास जातात, पूण तिकाय आतां म्हजी संवय जाल्या. आनी तुमी फातोड जाली काय चल्ले आपले मोटी मोटी बॅगां येवन कामांक. पूण आयज म्हाका तुमचे कडेन उलोवपाक जाय. म्हाका आयज तुमचो सामको राग आयला. कित्याक काय म्हूण विचारूं नाका रे, म्हाका उलट विचारपाक तुमकां मनशांक तोंड उरूंक ना. तुमच्या जेवणां खाणांत म्हजो दिसपट्टो आसपाव आसलो, तरूय देवाच्या खंयच्याच कार्यांत म्हजो हातभार लागना, पूण तरूय म्हजी एक सोबीत वळख आसा. तू

तुमी जाणां, लोक अशें म्हणटात की

म्हाका उबो कापतकच देवाच्या हातांतल्या शंखाचो आकार जाता, आनी जेन्ना म्हाका तुमी आडवो कापतात, तेन्ना कपांक पळोवन श्रीकृष्णाच्या हातांतल्या सोबीत सूदर्शन चक्राच्या आकाराचो दिश्टावो जाता. देखून म्हजें नशीब इतलें व्हड की म्हाका श्रीकृष्णाचें रूप म्हूण हें पुराय जग वळखता. पूण...पूण फकत तुमच्या खातीर म्हज्या नांवाचेर आयज काळें लागलें. कोणूय मनीस अडाणीपणान वागूं, ताचो उल्लेख करतना 'आरे तो रे, तो अकलेचो कांदो, ताच्या तकलेंत सगले कांदेच भरल्यात' म्हणत म्हज्या नांवाचो जप चालू जाता. अशे तरेन तुमचे खातीर कांद्याच्या नांवाची अक्षरशा याण जावन पडल्या. कोरोनाचो हुस्को करून कोणायकूय पुंवळ बी येत जाल्यार म्हज्या वासान हांव ताका खिणांत शुद्दीर हाडटां. इतल्या ह्या वखदी कांद्याक तुमी सगल्यांनी कसलें रूप दिलां पळयात. चिंतात रे मनशांनो एकदां तरी! तुमी शाणेपणान वागत जाल्यार, म्हज्या नांवाचे तीन तेरा पावणे बारा केन्नाच जावचे ना. आतां म्हज्याय तोंडांत 'तुमी अकलेचे कांदे' हींच उतरां येतात. शी!...तुमी चार अक्षरां शिकिल्ले मरे! एक काम करात, तुमी आयजवेर मेळयल्ल्यो सगल्यो पदव्यो तुमच्या घरांतल्या वॉशींग मशींनांत घालात, ना जाल्यार त्या पदव्यांचे खतखते करून खावयात. तुमी इतलेंच करपाचें दवरलां. तुमी मेळयल्ल्यो पदव्यो म्हळ्यार तुमचे खातीर फकत कागदां, पूण त्या कागदांतल्यान तुमकां जें गिन्यान मेळ्ळां तें आयज खंयच दिसना. आयज दोन वर्सां जालीं, करोना विशाणू खो खो खेळटा. तो परत परत तुमकां खो दिता, ताणें तुमकां धरूं नये म्हूण तुमी धांवत सुट्टात, पूण मर्दींच रावतात आनी विशाणूकूय तुमकां पकडपाक संद दितात. तुमचे तकलेंत सद्या हांवूच हांव भरला. म्हळ्यार कांदो भरला. म्हजे खातीर हें पुराय जग रडटा. म्हाका तुमकां रडोवपाक बरें दिसना तरूय एके गजालीची सदांच म्हज्या काळजाक उमेद जाता, तुमकां खबर आसा ती गजाल खंयची? आरे, ज्या मनशांचे तकलेर गर्व सामको भरतनाट्यम करता, जो मनीस सदांच आपल्या कोडू उतरांनी हेरांच्या काळजांचेर घाव घालता, ज्यांचें काळीज फातराचें आसून, जांकां हेरांक त्रास दिवपांतूच सूख मेळटा, अश्या मनशांक सुद्दां हांव रडयतां. पूण तांकां बावड्यांक हाची जाणविकाय नासता. म्हाका दिसतालें, जगांत फक्त हांवूच सगल्यांक असो रडोवंक शकतां, पूण म्हजें हें उतर सामकें चुकीचें. आरे, म्हज्यावरी तुमी लेगीत आतां एकमेकाक रडोवपाक सामके हुश्शार जाल्यात मरे! त्या बावड्या गोंयच्या मुख्यमंत्री सायबाच्या नाकांत कांदे जावन भरल्यात मरे तुमी सगले, कितलो तेंप जालो तुमी ताका रडयतात, शी! ताणें बाबड्यान तुमचे पासत कितलो म्हूण झरचो? तुमचे खातीर जेन्ना सावन करोना विशाणू लग्न जावन गोंयांत आयला, तेन्ना सावन तो बावडो सगल्यांच्या लागी वचूंक सोदता आनी देखून आमचो सीएम सायब सगल्यां कडेन नमळायेचें मागणें करता, 'गोंयकारांनो, मात्शे घरांत रावात, कारणां भायर घरा भायर सरून तुमची भलायकी धोक्यांत घालूं नाकात, भिवपाची गरज ना. पूण तरूय जतनाय घेयात'. पूण तुमी सगले अकलेचे कांदे, तुमचे तकलेंत कांद्याचे साकार साक भरल्यात. सरकारान सांगिल्ले सुरक्षिततायेचे नेम तुमकां पाळपाचे मनांत नात, घरा भायर सरपाक धोको आसून लेगीत तुमचे पांय केन्नाच घरांत ना, मारक घाल्यार तुमकां गरमी जाता, आनी उपरांत करोनाचो प्रसाद घेवन घरांत येतात. मारक घाली नासतना रस्त्यार कोणूय भोंवल्यार जाता, ताका बरी बूद्द सांगपाचे भानगडींत तुमी केन्नाच पडचे नात, गरज ना थंय गिन्यान वाटपाक तुमकां कळटा, पूण जेन्ना दुसऱ्याक वागपाची रीत शिकोवपाचो वेळ येता तेन्ना तुमच्या तोंडाक तुमी सामकें मोट्टें कुलूप लायतात. आरे देवा, हांव आनी कितें उलयतां, तुमकांच बूद्द ना, ती तुमी दुसऱ्यांक खंयची दितले हो लेगीत प्रस्नूच आसा.

म्हाका एक गजाल सांगात, तुमी चिंततात तरी कितें रें? स्वताची भलायकी सांबाळपाक कितें करपाक जाय हें लेगीत तुमकां कळनाशिल्ले आदिमानव रे तुमी? आरे, मनशां इतली बूद्द मोनजातीक ना, पूण जर मांजरा फाटल्यान कुत्रे लागत जाल्यार तें मांजर सुद्दा घरा भायर रावना. आनी तुमी मनीस सामके शिताफुडें मीठ खातात. करोना विशाणूचो जोर कमी करपा पासत सरकारान गोंयांत कर्फ्यू लायलो, संचारबंदी केली. तरूय अक्कल नाशिल्ले तुमी लोक विनाकारण भोंवडेक वतात आनी उपरांत फाटीर पुलिसांच्या तोणक्यांचे वळ घेवन घरांत येतात, निर्लज्जा वरी! तुमचो कसलोच गुन्यांव नासतना, फकत घरांतल्यान भायर सरले म्हूण पुलिसां कडल्यान प्रसाद खावपाक, आनी भर रस्त्यार उठाबश्यो काडून तुमकां फकत सोशीयल मिडीयाचेर फामाद जावपाक जाय न्हय? घरांत सामान भरलां आसतना, म्हाका विकतो घेवपाक तुमी संचारबंदी आसतना लेगीत गर्देंत घुसून रावतात आनी

हांव एक दोन दीस जर तुमच्या जेवणांत नासत जाल्यार किर्ते तुमचो जीव वतलो रे? तुमची भलायकी सांबाळपा पासत जर कांय दीस उकडी पेज जेवन काडीत जाल्यार किर्ते तुमची हाडां खिळखिळी जातली रे? तुमचे मानेचेर करोनाची तलवार पेवन तुमी म्हाका साकांनी भरून हाडटात. बेठेंच, फाटल्या दिसांनी कर्फ्यू आशिल्लो तेन्ना तुमी आदल्या दिसा बाजारांत जी गर्दी केल्ली, जी पळोवन खरेंच दिसताले, तुमी गोंयकार आतां बऱ्याच दिसां खातीर गोंया भायर भोंवडेक वता कांय किर्ते....? राजकारणार्चे म्हटले जाल्यार त्या बद्दल उलोवपाक म्हजे लागीं शब्दूच नात. 'अकलेचे कांदे आनी सगलेच मोनें' म्हंटलां तें खरेंच. कांद्याक कापच्या पयलीं ताका सोलचो पडटा, आनी तुमकां तर खबर आसाच, कांद्याचे कितलेशेच थर आसतात. इतले थर जे सोमून सोंपनात. आनी कांद्यावरीच आतां मनशांचेंय नवीन नवीन थर तयार जावपाक लागल्यात, जातूंत खंयचो भायलो आनी खंयचो भितरलो थर तेंच कळना. त्या खातीर आत्ताच्या ह्या कलीयुगांत कांद्यावरी गोल गोल जाल्ल्या राजकारणां कडल्यान अपेक्षा दवरूं नाकात, उरफाटें स्वता कडल्यान अपेक्षा दवरात. गोंयकारांनो, सुदारात मात्शे, रडोवपार्चे कांद्यार्चे काम आसता, तें काम कांद्याकूच करूंक दियात, तुमचे काम फक्त स्वता हांसत रावपार्चे आनी हेरांकूय हासोवपार्चे, आनी त्या खातीर तुमची भलायकी बरी उरप सामकें गरजेचें, चलात तर, हांव आतां मात्सो मारक घालतां, चड वेळ उलोवपाक तोंड उकतें दवरले आनी ह्या कांद्याकूय जर करोना जालो जाल्यार, सामकेच त्रासांत पडपाची गजाल। मागीर तुमी आपल्या घरांत जें सादें अन्न खातात तेंकूय खावपाक भियेतली. चलात तर, येतां हांव, आतां तरी मात्शें तुमच्या मेंदवांत भरिल्ल्या कांद्याचे साक रिते करात आनी तातूंत मात्शी बरी बुद्द भरात. तुमच्याच बऱ्या खातीर सांगतां, आतां म्हजें उलोवन जालें, सामके दोळे तांबडेच जाले पळयात। माफ करात आं! पूण मनशाक ताणे केल्ले चुकी खातीर ही अशी ख्यारस्त सदांच तकलेंत उरता आनी तो मागीर ती चूक सुदारता. निदान आतां तरी तुमचें मन कांद्यावरी गोल करी नासतना थीर दवरात. घराच रावात, सुरक्षीत रावात.

अस्नोडें-गोंय. मो: ७७६८८३५३१०

ग्वादालूप
डायस





# आवय जाल्या जाणटी

## सैमपिशी कविता

**ग्वादालूप डायस** हांचो जल्म १९७२तलो. कवयित्री, निबंदकार, लिपयांतरकार, रोमी तशेंच देवनागरी लिपींत लेखन, भुंयफोड, मळबगंगा, जलस्थल [कविता].ज्वालामुखी [निबंध], मामाचो गांव हीं प्रकाशीत पुस्तकां.

*खंवच्याव साहित्यिकाक जर सर्त लावपाची आसत जाल्यार ती फक्त स्वता कडेनूच लावप योग्य अशें हांव मानतां. आपलें साहित्य आवज आसा त्या परस फाल्यां अदीक वयर वो फुडें आसतलें जाल्यार खंवच्याव साहित्यिकाक कांय गजाली एकदम म्हत्वाच्यो. त्या खातीर आपूण रावता ते चौकटी भायर तकली वयर काडून पळोवप भोव फायद्याचें थारता.*

रमेश बाब घाडी हाच्यो सगळ्यो कविता एका पानांत बांदून आमच्या हातांत पडच्यो अशी इत्सा फाटलीं तीन-चार वर्सां मनांत घोळटाली. तशें बेगीनूच जातलें म्हणपाची तार्णे म्हाका सुलूसय लावन दिल्ली. केन्ना तरी ताची एक कविता सुनापरान्त दिसाळ्यांत छापून आयिल्ली. संवयें प्रमाण हांवें ताका मुद्दाम जावन फोन केल्लो. ताची कविता आवडली म्हूण सांगपाक! तेन्ना ताची- म्हजी वळखूय नासली. पूण कोणायचीय कविता आवडप आनी हांवें त्या कवीक परबीं भेटोवप हें हांव




खूब पयलींच्यान करत आयलां. म्हणटकच हेवूय पावट रमेशबाबाक परबीं भेटोवप म्हाका कसलीच नविंदाद नासली.

त्या उप्रांत जंय-जंय ताची कविता म्हाका मेळ्ळी, थंय-थंय ती हांव वाचूंक लागलें. बऱ्योच कविता म्हाका आवडल्यो. जाल्यार कांय पावटी 'ही आनीक बरी जावं येताली!' असोय विचार मनांक आफडून गेलो. दर पावटी म्हाका आवडिल्ले कविते विशीं तुरन्त-तोखणायेचीं उतरां ताच्या कानार घालूंक हांव केन्नाच फाटीं सरलें ना. म्हाका सदांच दिसतालें, ताच्यो सगळ्यो कविता केन्ना तरी पुस्तक रुपान छापून येवंच्यो. कोंकणी साहित्यांत तोला-मोलाची भर पडची!

जेन्ना-केन्ना हांवें रमेश बाबाच्यो कविता पयलीं वाचिल्ल्यो तेन्ना त्यो एक-एक अशी खंयूय छापून येता तेन्ना वाचिल्ल्यो. म्हणटकच, त्या वेळार फक्त एका आस्वादकाची भुमिका हांवें आपणायल्ली. पूण आतां त्योच कविता सगळ्यो एकठांय वाचतना म्हजे भितरलो समिक्षकूय जागो जाल्ल्यान, ह्या पुस्तकाची मोलावणी करपाची जबाबदारी वाडल्या म्हणपाचें मान्य करतां. कारण इतलेंच! कोणांकूय गरजे भायर चण्याच्या झाडार चडोवपाचें पातक म्हजे कडेन घडचें न्ही आनी कोणांच्याय वावराचें मोल थिकां इतलें करूंक हांवें अडचें न्ही! नांय जाल्यार क्रिस्ती धर्मूच तशें शिकयता, ' पेल्याक फावो ती मजूरी दिवंची! '

'आवय जाल्या जाणटी, पुस्तकाच्या माथाळ्यांतूच वेग-वेगळ्यो भावना उमळून येतात. म्हणून तरी पळयात एकदां...! ह्या माथाळ्यांत एके आवय विशीं मोग, हुरको आनी कळवळो आसा. तिच्या जाण्टेपणांत तिका एकटी सांडिल्ल्याची खंत आसा. निमार्णे घटकेक तरी तिका अशी एकटी सोडून दिवं नाकात म्हणपाची विनवणी आसा. जाण्टेपण येवप निसर्गीक नेम! जावं मागीर ती आवय वो हेर कोणूय! पूण ह्या पुस्तकांत कवी उल्लेख करता ती आवय फक्त जल्म दिवपी आवय न्हय बगर धर्तरीकूय तो आवय समान लेखता म्हणपाचें सत ताच्या कवितांनी झळकता!

खरें म्हणल्यार खरी कविता, अणभवांत तिजून आनी भावनांनी भिजून काळजाच्या गाब्यांतल्यान ओंठा मेरेन येता! हें तर रमेश बाबाच्या कवितांनी सहज जाणवता. पूण तेच बराबर ताची कविता धर्तरेच्या गर्भांतल्यान वयर सरल्या म्हणपार्चेंय समजता. ताची कविता सैम

पिशी। ताचे कवितेची वार गोवचे मातयेंत पुरल्या. ताची कविता फाटल्या वादीनी मुरल्या. ताची कविता दांत्यार बसून होववो गावता. ताची कविता कुळाराचे वाटेची उमळशीक लावता. ताची कविता पांयांत खाहूं चडवता. मांडवी न्हयेंत हाडून सोडिल्ल्या कासिनोचो भंव काळजांत वाडयता!

ताची कविता, वादींचो हुंवार. ताची कविता गरिबीचो भार. ताची कविता चिटयांची अग्रेकणी, ताची कविता उदरगतीच्या नांवान पाड केल्ल्या गांवची काणी. ताची कविता चिंतनाचो भरो. ताची कविता नशा चडोवपी शब्दांचो सोरो. ताची कविता पावस जावन भिजयता. ताची कविता जिणेचो उपदेस जाल्यार केन्नाय दोंगरा येदो हावेस!

खरें म्हणल्यार कोणांकूय दिसूंक फावो, प्रस्तावने भितर हांवें रमेशबाबाच्या कवितांच्यो ओळी दिवन उल्लेख करूंक जाय आसलो. सारकें तुमचें. म्हाकाय तशेंच दिशिल्लें. पूण तशें करप शक्य ना. ताची अमकी कविता अशी आनी तमकी कविता तशी म्हणली जाल्यार एक गुन्यांव म्हज्या हातांतल्यान घडूं येता. तो म्हणल्यार हांव फक्त मोजक्याच कवितांचीं कडवीं हांगा दिवन बाकी कवितांचेर आड नदर करूंक शकतां. मागीर जालो न्ही अन्याव? त्या शिवाय ह्या कविता संग्रहांत हाताच्या बोटार मेजपा इतल्यो कविता सोडल्यो जाल्यार विशयांत जावं आशयांत वेगळे रितीन नोंद घेवपा सारको कसलोच खास बदल ना. तरी आसतना, बुडकुल्यांतल्या एका शिता गोटयाक चिमटी मारून सगळें शीत शिजलां म्हणपा सारकी हरकतूय हांवें करूंक ना. ह्या संग्रहांतली दर एक कविता



हांवें उतरान-उतर वाचल्या. ती म्हज्या मनांत शिजल्या. जे वरवीं हांव म्हणूंक शकतां, रमेशबाबाची कविता म्हणल्यार गांवांतली जीण! सैमा कडेन आमी घेतिल्लें रीण। तेच बाराबर आमी आमचें दायज शेणयत चल्ल्यात म्हणपाचो बोमलेच्या देंटा कडल्यान आयिल्लो शीण! देखूनच तर हो कवी सैमाक वेगळावन कविता बरोवपाचो विचार करूंक शकना!

आपल्या कम्फर्ट झोनां-तल्यान भायर सरून कवीन वेगळ्या विशयांक हात घालपाचें धाडस कांय मोजक्या कवितांनी केल्लें जाणवता. पूण प्रामाणीकपणान सांगचें जाल्यार त्या कवितांनी, कवीची प्रतिभा इल्ली उणीं पडल्या अशें दिसल्या बगर रावना. जशें वयर सांगलां, ह्या संग्रहांत आशिल्ल्या कवितांचो आत्मो एक! त्यो फक्त एका आपूण आनी आपलो गांव इतल्याच आशय-विशयां भोंवतीं (मोजक्यो कविता सोडून) फेर घरतात. कवी, चांटे - पावलाक मातये भरवण जाल्ल्या सैमाचें दुख्ख व्यक्त करता. काळजा-मनार उदेल्ले गरिबीचे वळ बगर - बगर वाचकांचे नदरे मुखार हाडपाची धडपड करता. इतलेंच न्हय तर जे मातयेंत आपूण वाडलां ते मातयेक

तसोच आपल्या दायजाक विस्वाशी रावच्या हेतून कवी आपल्या कवितांनी चडांत चड शेत, बर्के, खरू, मेर, गोरवा, रेंदेर, खोप, पाडली, व्हाळ, दमट, पावस, तण, कुर्हे, आनी अशा साबार सैमीक गिरेस्तकायेचो उल्लेख करता. तेच बाराबर आपल्या जिणेच्या उसुलां कडेन तडजोड जावंची न्हय ह्या खातीर काळीज हालोवन उडोवपी मरणां पराच्यो विधी वर्णिता. कोणांय खातीर बरें करचें आसत जाल्यार जें किर्तें करपाक जाय तें जितेपणीच करचें म्हणपाचोय उपदेश दिवन वता. म्हणटकच , ह्या विशयांक सोडून हेर खंयच्यो कविता ह्या संग्रहांत आयल्यात हें एका चतूर वाचकाचे नदरे मुखार आयल्या बगर रावनांत. त्या खातीर, ह्या संग्रहांत वेगळेपण आशिल्ल्या कवितांचो मुद्दाम जावन उल्लेख करपाची गरजूय म्हाका दिसना!

खंयचेय भाशेचें प्रमाणीकपण केलां आसत जाल्यार तें फक्त वेव्हारीक दिश्टीकोण आपणावन केलां म्हणपाचें सत कोणूच न्हयकारूंक शकना. पूण साहित्यीक नदरेन हे गजालीक मोल ना काय? हो एक वेगळो विशय. पूण ह्या विशयाच्या बोटाक धरून जर रमेश घाडीचे कवितेची हांवें भोंवडी केली जाल्यार बरींच अशीं बोलयेंतलीं उतरां आमकां झळकतात. बरेच पावटीं तींच-तींच उतरांय कवितांनी घोळटात! ह्या उतरांक मातयेचो वास आसा. आपलें अशें खाशेलेपण आसा. ह्या संग्रहाच्या निसर्ग मोगी कवीची ती खरी गिरेस्तकाय! ती सांबाळून दवरपाची कसरतूय ताणें केल्या हें कोणूच न्हयकारूंक शकना. मात खंयच्याय नाण्यांक जश्यो दोन बाजू आसात तशेंच किर्तें हांगाय घडलां म्हणपाचें चित्र म्हजे नदरेक तरी जळखता.

तेन्ना , हांवें अणभवल्ल्या वरीं, तुमकांय कवितांचें रस ग्रहण करतना मात्शी निर्शेवणी येवं येता. कारण बोली जी आसता ती पेडणें धरून काणकोण मेरेन चांटे-पावलाक आकांताचो फरक दाखयता. अशा वेळार, ह्या कवितांनी आयिल्ल्या बोली-शब्दांचो अर्थ जाणून येवंक हेर वाठारांतल्या वाचकांक अडचण येवं येता. हातूंतल्यान मार्ग ना अशें न्हय. पूण स्वादीश्ट जेवण जेवतना, मदींच दांतांत किर्ते तरी भरचें आनी मागीर व्हीर येवन तें काडपा इतलें वाचकांचें पासिर्येस पेड्डयार करचे परस, पयलींच जतनाय घेतल्यार अदीक बरें अशें म्हजें मत!

पुराय संग्रह वाचतकच सट्ट करून लक्षांत येता, पुराय कवितेंत लय, सूर आनी ताल हाताक- हात घालून येता! एकदम बरी गजाल. जे वरवीं समजता, रमेशबाब घाडी निजाचो कवी! पूण कांय कडेन फक्त यमक जुळोवपा खातीर कवीन मुद्दाम जावन पडयल्ल्या शब्दांचोय प्रयोग केल्ल्याचें सांपडटा तेन्ना बरे कवितेचो दर्जो मात्सो कमी पडटा. खरें म्हणल्यार ही सामान्य गजाल. अशें आसलें तरी खंयच्याय साहित्यिकाक जर सर्त लावपाची आसत जाल्यार ती फक्त स्वता कडेनूच लावप योग्य अशें हांव मानतां. आपलें साहित्य आयज आसा त्या परस फाल्यां अदीक वयर वो फुडें आसतलें जाल्यार खंयच्याय साहित्यिकाक कांय गजाली एकदम म्हत्वाच्यो. त्या खातीर आपूण रावता ते चौकटी भायर तकली वयर काडून पळोवप भोव फायद्याचें थारता. अशें केल्ल्यान बगर-बगर त्याच विशयांच्या बंधनांतल्यान आपल्याक मुक्ती मेळटा. दुसरी गजाल म्हणल्यार वाचन हेंवूय तितलेंच गरजेचें. अशें केल्ल्यान आपली शब्दावळ वाडटा. व्याकरणांत चुकी जावपाचें प्रमाण देंवता. चुकीच्या प्रतिमा कडेन आपले विचार जुळोवपा पासून आमकां वाटायता. तशेंच, आपणें रचिल्लें साहित्य एका वेगळ्याच पांवड्यार पावता.

'आवय जाल्या जाण्टी', दुबाव विणें आमचें नातें निसर्गा कडेन जोडटा. तेच वरीं आमकां जल्म दिवपी आवय विशीं आमचीं मनां समजावणेच्या सुरार ओडटा. रमेशबाब घाडीन कोंकणी मायेच्या केंसांत एक तार्जे टवटवीत फूल खोयलां. ज्या फुलाक मातयेचो वास आसा. नात्यांचो ध्यास आसा! फुडाराक रमेशबाब घाडीची कविता फक्त गांव आनी गोंय न्हय बगर, विश्वव्यापी विशय हाताळूं आनी कोंकणी कवितेच्या मळार तांचो फुडार अदीक आनी अदीक परमळूं!



नुवें-गोंय. मो: ८६०५९४२१५७

उमाळे



दिपराज
सातोर्डकार

*दिपराज सातोर्डकार हो आयचे युवा पिळगेंतलो बंडखोर असो लेखक. तार्चे नाटक, समिक्षा,कविता,ललित ह्या मळार आपल्या बरोवपांतल्यान पावल घालां.ताका कला अकादमीच्या राज्य सर्तींत लेखनाचे पुरस्कार फावो जाल्यात.*

***आवज ह्या आधुनीक काळांत साहित्यांतले विशय लेगीत आधुनीक जावंक लागल्यात. स्वता भाई मावजाल्या लेगीत कथा प्रवासांतलो बदल पळवलो जाल्यार उतरावळ, शैली, मांडावळ, विशय आनी आशय हातूंत जावतो फरक पळोवंक मेळटा. गांथन, जागराणां आनी रुमडफूल हातूंतली भाशाशैली सादरण एकेच सारकी आसा.***

# असोंय जाता केन्ना केन्नाय!



साहित्याच्या मळार प्रभाव, परिणाम, शैली, वाद (Ism), साहित्य चौर्य, अशीं जावतीं उतरां आयकुपाक मेळटात, पूण केन्ना-केन्नाय योगायोग लेगीत घडटात, ही गजाल मात विसरूंक फावना. कोंकणी साहित्याक लेगीत असल्या योगायोगांचो अणभव आसा. चडावत खेपे एकाच आशयाचेर वेगळे विशय घेवन साहित्य रचिल्लें वाचूंक मेळटा. कोंकणी कथा आनी कविता हे गजालीक आडवाद धारना. कथेची देख घेवची जाली जाल्यार महाबळेश्वर सैल हांची 'नवें' आनी पुंडलीक नायक हांची 'खळ' वा 'कासव' ह्या कथांच्या आशयांचेर जर नदर मारली जाल्यार तिनूय कथांच्या आशयांत समानताय आशिल्ली पळोवंक मेळटा. घरांत मूठ भर तांदूळ ना, बायल-भुरगीं उपाशीं पडल्यांत; चूल पेटोवपाक आनी अनरखणी पडिल्लो जाळ न्हिवोवपाक चाली-रिती, परंपरा आनी देव-देवस्की आड येता. पुंडलीक नायकान बरयिल्ल्या 'बांगर बैल' कविते सारकीच वसंत सावंत हांची 'बैल' कविता वाचूंक मेळटा. हालींच प्रकाशीत जाल्ली ॲड. उदय भेंब्रे हांची 'व्हडलें घर', महाबळेश्वर सैल हांची 'युग सांवार' आनी गोपाळकृष्ण प्रभू हांची 'स्वप्न सारस्वत' (कन्नड) ह्यो तिनूय कादंबऱ्योय पुर्तुगेज राजवट, बाटाबाटी आनी स्थलांतरण हाचेर आदारिल्ल्यो आसात. अशाच एका योगायोगाचेर ह्या लेखाच्या माध्यमांतल्यान उजवाड घालपाचो यत्न केला.

जेश्ट कथाकार 'भाई' म्हणल्यार दामोदर मावजो हांचो 'गांथन' हो कथासंग्रह जाग प्रकाशाना वतीन फेब्रुवारी १९७१ वर्सा प्रकाशीत जाल्लो. ह्या कथासंग्रहांत वट्ट ७ कथांचो आस्वाद जाला. पुस्तकांत दिल्ले वळेरे प्रमाणे 'तूं वचूं नाका' ही निमाणी कथा, पूण ताचे प्रतिभावत लेखणेंतल्यान मूर्तरूपात आयिल्ली ही पयली वयली कथा. हे कथेंत गोंय मुक्ती पूर्व आनी मुक्ती उपरांतचीं सुरवातचीं कांय वर्सां असो काळ पळोवंक मेळटा. तांच्या चडावत कथां वरीं हेवूय कथेंतलो समाज आनी पात्रां 'किरिस्तांव'.

कथेचो नायक 'तोमास' गोंयमुक्ती चळवळींत वांटेकार जाल्लो आनी पाखल्यांचें रोंद धरपाक आयिल्ल्यान गोंय सोडून बेळगांवां गेल्लो तो नोकरेचे निमतान थंयच उरता. गोंय मेकळें जावन तीन वर्सांनी तो परत गोंयां येता. रातच्या आठांक तो मडगांवां पावता आनी थंयच्यान एके धाकटे गाडयेन कुठ्ठाळे वता आनी मागीर चलत सांकवाळेची वाट धरता. रोकडेंच ताका 'मेरी' उलो मारता, कोण? तोमास? (मावजो-९२). मेरी वांगडा वाट माडयेत तो मेरीच्या दारांत पावता. थंय तो मेरीले मांयक जाप करपाक तांच्या दारांत वता, आनी 'मेरी, यो मगो!' (मावजो-९४) म्हणीत फाटल्यान पळयता, पूण फाटल्यान मेरी नासता. तेन्ना ताका ताची मांय सांगता, दोन वर्सां जायत आयलीं आतां, एक दीस जोर तकलेक मारून तें भायर पडलें.(मावजो-९४). तो थंयच्यान धांवतच घरची वाट धरता. घरा ताचो घर सांबाळपी 'जुआंव' ताचो हो भिरांतेन हुमेन भरिल्लो अवतार पळोवन अजापता. तोमास ताका घडिल्ली सगळी गजाल सांगता, आनी मेरीची खबर ताका ताचे मांयन सांगली म्हण सांगता. (आतां कथेचो कलाटणी घेवपी शेवट येता तो असो)

''कोणें?'' किळांच मारून जुआंवान विचारलें.

'' मेरीचे मांयन.'' हांवें जाप दिली. (अशी तोमास ताका जाप दिता)

''ती मेल्यार वर्स जार्ले, तोमास.''

हांगा कथा सोंपता.

भाईन बरयिल्ली पयली वयली ही कथा १९६३ वर्सा, गुरूनाथबाब केळेकार हांच्या 'नवें गोंय' ह्या नेमाळ्यांत ती छापून आयिल्ली.

हे कथे बद्दलचे विचार रवता लेखकान एके मुलाखतींत मांडल्यात ताचेर नदर मारप भोव गरजेचें.

ती कथा वाचिल्ल्या अरविंदान (भाटीकार) कॉमेंट मारलो-'म्हाका दिसलें तो जुआंवूय भूतच काय म्हणून' अशें म्हणून ताणें ताळी मारली. हांवूय हांसलों. उपरांत रेखडीच ही कथा अणकारून "Eves Weekly' ह्या इंग्लीश सातोळ्यांत उजावाडाक आयली. ती वाचून म्हगेल्या एका इश्टान म्हजी तोखणाय करून म्हणलें- ''I read your ghost story.'' ताच्या तोंडसून 'घोस्ट स्टोरी 'म्हूण आयकना फुडें म्हजी तकली ताळ्यार आयली. हांवें प्रेमकथा म्हण बरयिल्ली ही कथा भूतकथा थारिल्ली. (मुलाखत, उर्बा-व्यक्ती अंक, २०१४, पान-१६)

तांच्या चडावत कथांचो शेवट कलाटणी दिवपी आसता. जाका लागून तांचेर पाच्छात्य कथाकार एडगर एलन पो तशेंच सोमरसॅट सारक्या कथाकारांचो प्रभाव आसा काय किर्ते असो एक प्रस्न उप्रासता.

हालींच्या काळार युवा पिळगे मदलो कथा लेखनांत जाणें नांव जोडलां तो म्हणल्यार सर्वेश एकनाथ नायक. ताणें कथा लेखना वांगडा नाट्य लेखनाकय आरंभ केलां, आनी ताका इनामांय फावो जाल्यांत. एका अर्थान कथा लेखनाचें तंत्र ताका जमलां अशें म्हणल्यार अतितांय जावं नजो. ताच्यो कांय मेकळ्यो कथा वेगवेगळ्या नेमाळ्यांतल्यान प्रकाशीत जाल्यात. ते भायर साहित्य अकादमीच्या राश्ट्रीय युवा साहित्य संमेलनांत कोंकणी कथा सादर करपाची संदूय ताका मेळ्ळ्या. जाग, वर्स ४५: आंक १: ऑगस्ट, २०१८ च्या अंकांत ताची 'जाता अशें केन्ना केन्नाय' ही कथा प्रकाशीत जाल्ली.

कथेचो नायक 'रुपेश' हाका ताच्या एका इश्टाच्या काजराक डान्स करता आसतना 'सिल्वीया' नांवाची सोबीत चली आपटता आनी ताचेर ड्रींक पडटा. हे घडणुकेंतल्यान त्या काजराकच तांची वळख जाता. डाग धुवन येवन कांय वेळ तो ताचे वांगडा डान्स करता. उपरांत सिल्वीयाचे सांगणे वेल्यान एका कोनशाक आशिल्ल्या टेबलार बसून ताचे कडेन खबरी मारता. तेन्ना ताका ताचे कांय इश्ट, ''ओय रुपेश थंय कोनशाक किर्ते करता रे???'' (२४) अशे प्रस्नूय करतात. ह्या कोनशाच्या उलोवण्यांत काजराचो विशय येता. होच विशय मुखार प्रवास करता तेन्ना तें ताका, 'फाल्यां घरा येवन मांय कडेन उलय' म्हण सांगता. दुसऱ्या दिसा मांयचो बर्थ डे आशिल्ल्यान तें काजरा सावन बेगीन भायर सरपाक करता. ताणें परत वचपाक पायलट आपयिल्लो पूण रुपेश ताका आपल्या बायकार पावयता. वाटेर शीं आशिल्ल्यान तो ताका आपलो कोट दिता. दुसऱ्या दिसा एक बुके येवन रुपेश सिल्वीयागेर येता तेन्ना ताका सिल्वीयाले मांय कडल्यान पुराय सत्य कळटा. ती म्हणटा, ''बाबा सिल्वीया मोरोन सात वोर्सां जालीं.''(२५) मुखार ती म्हणटा, ''आयज तेगें मोरणाचो दीस. सोकाळी इगोर्जेंत गेलो तेदोना शिमिटरीन तेगें फोटवार तुगें सूट लांबतालो. फाटलीं सो वोर्सां ओशेंच घोडटा.''(२५)

ते राती तें खरेंच काजराक गेल्लें आनी दुसरे दिसा मांयलो बर्थ डे. तेणें खूब प्लॅन केल्ले, पूण वाटेर ताका ॲक्सिडेंट जाल्लो.

''आतां एव्हरी ईयर तें म्हाका वीश करपाक कोणाकय धाडटाच. काल काजाराक देखून तेका फोकोत तुर्येच पोळेला आसतोलें.'' (२५)

इतल्यांत रूपेशाक फोन येता, ''आरे तुर्जे जालां तरी किर्ते? काल एकटोच कोनशाक बसोन बसोन बेगीनच सो गेलो??? कोर्णे किर्ते म्हणलें तुका?''(२५)

रूपेश ताक जाप दिता, ''काय ना रे. जिवाक बरें दिसनाशिल्लें.'' आनी मागीर सुटार पडिल्ल्या बियरीच्या डागाक पळयत रावता.

होंगा कथा सोंपता.

'तूं वेचूं नाका' आनी 'जाता अशें केन्ना केन्ना' ह्या दोनूय कथांच्या प्रकाशनाच्या काळा वयल्यान लेखन



काळाचो जर अदमास लायलो जाल्यार सादारण पचावन वर्साचो काळ मदीं गेल्लो आसा. पूण दोनूय कथांनी जायत्यो समानतायो आसात. हाका योगायोग म्हणू येता. कारण कामील, मर्कट मानव, ना ळे बा आनी कोर्ण तरी हात दाखयलो आनी पावपाक लायलो, काजरा सावन येतना एक बायल आयली आनी देवतकच पळयल्यार नाच जाली सारक्यो भूत वा तशे तरेच्यो काणयो कितलीशीच वर्सां सावन समाजाच्या मानसशास्त्राचो एक भाग जावन गेल्ल्यो आसात.

आमच्या लोकमानसांत 'बायल मनशेचें भूत' ही गजाल चड करून अधोरेखीत केल्ली पळोवंक मेळटा. खंयचेंय फिल्म वा सिरयल पेयात, तातूंत लेगीत धवी साडी न्हेशिल्ले बायल मनशेचें भूत दाखयतात. प्रस्तूत कथांतल्या समानतायांचेर जेन्ना नदर मारतां तेन्ना मुखेलपणान हीच बायल मनशेच्या भुताची गजाल मुखार येता. 'तूं वचूं नाका' कथेंत मेरी आनी मेरीची मांय जाल्यार 'जाता अशें केन्ना केन्नाय' हे कथेंत सिल्वीया हें भूत पळोवंक मेळटा.

ते भायर दोनूय कथांनी मुखेलपणान किरिस्तांव समाज पळोवपाक मेळटा. मेरी-मेरीली मांय, तोमास, जुआंव आनी सिल्वीया-सिल्वीयाली मांय. दोनूय कथांनी कथेंतल्यो नायिका (भूत) नायकां वांगडा रातचोच प्रवास करतात. म्हणल्यार पंचावन वर्सां पयलीं 'भूत रातचेंच दिसता' ही मानसिकताय आशिल्ली ती आयज लेगीत तशीच आशिल्ली पळोवंक मेळटा. तशेंच दोनूय कथांनी काजराचो विशय कथेंतल्या नायका कडेन संबंदीत आसा. तशें पळोवंक गेल्यार दोगूय नायक कथेंतल्या नायिके कडेन म्हणल्यार मेरी तोमसा कडेन आनी रूपेश सिल्वीया कडेन काजार जावंक पावनात.

दोनूय कथांचे आशय आनी विशय पळयले जाल्यार तातूंत लेगीत 'भूत', 'मोग' आनी 'काजार' ह्यो गजाली पळोवंक मेळटात. दोनूय कथांनी चलयेची मांय कथेच्या नायकाक कथेंतल्या स्त्री पात्राच्या (नायिकेच्या) मरणाची खबर दिता. मेरी मेल्यार दोन वर्सां जालीं तर सिल्वीया मेल्यार सात वर्सां जालीं. 'तूं वचूं नाका' हातूंत मेरीली मांय लेगीत मेल्यार एक वर्स जाल्लें आसा. ही खबर तोमसाक जुआंव दिता. तर 'जाता अशें केन्ना केन्नाय' हे कथेंत मांय आसा पूण निमाणें सत्यतायेक पालव दिता तो इश्टाचो फोन. म्हणजेच दोनूय कथांनी कोण तरी तिसरी व्यक्ती आसा जी कथा सोंपयता.

दोन वेगळ्या काळांतल्यो कथा पूण कितल्योशोच समानतायो. खरें म्हणल्यार अशें जावंक फावना. आयज ह्या आधुनीक काळांत साहित्यांतले विशय लेगीत आधुनीक जावंक लागल्यात. रवता भाई मावजाल्या लेगीत कथा प्रवासांतलो बदल पळयलो जाल्यार उतरावळ, शैली, माडावळ, विशय आनी आशय हातूंत जायतो फरक पळोवंक मेळटा. *गायज, जागराणा* आनी *रूमडफूल* हातूंतली भाशाशैली सादरण एकच सारकी आसा. पूण *भुरगीं म्हणेलीं तीं* ह्या संग्रहातले भाशाशैलीचेर जर नदर मारली जाल्यार उतरावळ आनी निवेदन शैली हातूंत वेगळेपण पळोवंक मेळटा. *सपनमोगी* हातूंतल्या कथांची भाशाशैली आनी विशय जाल्यार वाचकाचे बुद्दी कडेन सर्त करता. तातूंत खास करून 'एका कथाकारान बरयिल्ली कथाकाराची कथा' आनी 'वेव्हार' ह्या कथांचो शेवट वाचकाक करून उडयतात.

दोन वर्सां पयलीं इन्स्टिट्यूट मिनेझीस ब्रगांझा हांगा जाल्ले एके कार्यशाळेंत डॉ. हनुमंत चोपडेकारान सांगिल्लीं उतरां आयजूय याद जातात. 'कोंकणी कथेचे मळार प्रयोग करपाक खूब वाव आसा. कविता खूब जाण बरयतात पूण कथेच्या वांट्याक खूब कमी तरणाटे वतात.' कथा लेखनांत आपली लेखणी चलोवपी सर्वेश एकनाथ नायक हाचो कथा प्रवास लेगीत नवे विशय आनी तंत्र घेवन विकसीत जातलो अशी आस्त बाळगुया.



पंचवाडी-गोंय- मो.९९२३६४५२५६

उस्तवारीं



अरूण काकोडकार

अरूण काकोडकार हे कथा आनी ललित लेखनात फिशाल. तांचो 'मूठभर मळब' हो ललित लेखांचो संग्रह उजवाडाक आयला आनी तांचीं आनिकूय पुस्तकां उजवाडाचे वाटेर आसात. ताणीं सुनापरान्त ह्या दिसाळ्यांतल्यान तशेंच गोंयच्या हेर कोंकणी नेमाळ्यांतल्यान सातत्यान लेखन केलां. तांकां साहित्या पासतचो 'बिम्ब' पुरस्कार आनी कला तशेंच सस्कृती खात्याचो गौरव पुरस्कार लाबला.

ते हालींच न्यु इंडिया एश्युरेंस कंपनी हे मुखेल राष्ट्रीयकृत विमा कंपनीचे वरिश्ठ विभागीय प्रबंधक पदावेल्यान निवृत्त जाल्यात.

*मात एक गजाल खरी. आपलें सूख आपणेंच सोदचें पडटा. कोण तें हाडून दिना. आनी हें सूख सोदप तरी कितलें? एकदां न्हय, दोनदां न्हय तर आवुश्यभर। काबाडकश्ट करतना केन्ना निरशेणीच्या काळखांत आपटतात, धोपटतात नराप पावला पुरतो जो उजवाड दिसता, त्या उजवाडाचो आदार घेत वाटचाल चालूच दवरपाची आसता. तातूं[illegible] सूख [illegible]*

# सूख म्हळ्यार किर्ले...?

शाळा-कॉलेजांत इंग्लीश विशय शिकतना गद्या परस पद्याची म्हाका चड आवड आशिल्ली. शेले, वर्ड्सवर्थ, ब्राउनिंग , कि्ट्स, लोंगफेलो हांच्यो कविता शिकपाक मजा येताली. आमचो सर (सर्गेरस्त मंगेश काकोडकार) कविता शिकयतना तातूंतले प्रसंग सहज सुंदर रितीन दोळ्यां मुखार हाडटालो. कविता मनाक भावली तशी तातूंतलीं पात्रां सरळ पुस्तकांतल्यान उठून मनांत येवन बसतालीं.

*'होम दे ब्रोट हर वॉरीअर डेड'* हे लोंगफेलोचे कवितेंत झुजांत सोंपिल्ल्या सैनिकाच्या मड्या भोंवतणी ताचीं घरचीं शोक करतात पुणून ताची विधवा घरकान्न तोंड धांपून सगळें पळयत रावता. तिका बोलकी करपाक घरांतली एक बायल तिचे मांड्येर तिचें अर्भक हाडून दवरता तेन्ना तिका रडें फुट्टा तो प्रसंग.

रॉबर्ट ब्राउनिंगचे *'पॅट्रियेट '* कवितेंत प्राणाची पर्वा करी नासतना देशा खातीर वावुरलेल्या देशभक्ताक एका गुन्यांवाक लागून फाशीची ख्यास्त जाता. गोळाक लावंक व्हरचे आदीं हातांक बेड्यो घालून रस्त्या वयल्यान ताची धिंड काडटात तेन्ना वर्सां आदीं लोकप्रियतेचे तेंगशेर आसतना तांबड्या गालिच्या वयल्यान काडिल्ली ताची मिरवणूक ताका याद जाता तो प्रसंग..

अश्यो कांय कविता यट्ट यादींत उरपा सारक्यो.



कांय कवितेंतल्यो एक दोन ओळी सहज ओंठार येतात. देखीक 'A thing of beauty is a joy forever ', ' If winter comes can spring be far behind ', Type of wise who soar but never roam '. दरेके ओळींत गूढ अर्थ भरला. ही धर्तरी, हो सैंम आनी सैमाचें देखणें रूप साकार करतल्या कवीचें जग अपरुपाचें !

रविन्द्रनाथ टागोरांचो नोबेल पुरस्कार फावो जाल्लो *गीतांजली* काव्यसंग्रह. गीतांजलीतल्यो कविता एका परस एक सुरस. तातूंतले पयलेच कवितेंतल्यो ओळी खूब अर्थपूर्ण.

Thou hast made me endless
Such is thy pleasure
This frail vessel though emptiest
again and again
and fillest it ever with fresh life .

कवी देवाक उद्देशून म्हणटा : *हे देवा, तुवें म्हजे जिणेक अनंत रूप दिलें ही तुजी कृपा. म्हज्या जिविताचो पेलो जेन्ना जेन्ना रितो जालो तेन्ना तुजे कृपेन तो पर्तून भरलो.*

मनशाची जीण ही अशी आसता. दर्याक भरती- सुकती येता तशींच मनशाचे जिणेंत केन्ना सुखां केन्ना दुख्खां येत रावतात. जिविताचें तत्वगिन्यान जाणा जावपाक तशें खोलांत वच्चें पडना. *संसार है एक नदिया, सूख-दुख दो किनारे है* नाजाल्यार *सुखके सब साथी दुख में न कोई* असलीं पदां राजरोस कानार पडटात तेन्ना वयले वयर ताची कल्पना येता. सूख जें आसता तें सहजपणान मेळना. सदचे जिणेंत काडाओडी काडले उपरांत मना प्रमाण सगळें घडून येता तेन्ना सुखाचे दोन घांस पोटांत वतात. दुख्ख अकस्मात कोसळटा तशें सूख एकदम येना. तें कणाकणान मेळोवचें पडटा.

सूख म्हळ्यार कितें ? भुरगेपणांत हाचो अर्थ कळनाशिल्लो. विस्तारान तो अर्थ सांगपी कोण मेळनाशिल्लो. सूख फकत गिरेस्तांगेर आसता अशें बाबडेंपण मनांत आसतालें. गिरेस्तां लागीं जाय तितले दुडू आसतात, तांची जेवपा खावपाची चंगळ आसता, तांचीं भुरगीं बरें बरें न्हेसतात, भुरग्यांक मागता तें मेळटा देखून गिरेस्त आनी तांचीं भुरगीं सुखी आसतात असो एक समज आसतालो. आनी दुख्ख म्हळ्यार कितें? कोणायगेर, शेजाऱ्यां-पाजाऱ्यांगेर, सोयऱ्यांगेर तांच्या घरांतलो कोणूय मनीस मेलो जाल्यार तीं रडटात, तांकां खूब वायट दिसता तेंच दुख्ख आसता अशी भुरगेपणांतली दुख्खाची कल्पना... रामायणातल्यो काणयो वाचतना दशरथ राजा दुख्खी आसतालो कारण तागेर भुरगीं नाशिल्लीं. भुरगीं नासप हेंवूय एक दुख्ख आसता हें तेन्ना कळटालें. फुडें व्हड जाता तसो सुख- समाधानाचो अर्थ समजूंक लागलो. सूख, समाधान, आनंद हीं उतरां उलयतना सहज अशीं तोंडांत येतात पुणून तीं समान अर्थाचीं न्हय हाचो उलगडो जालो. सूख लांब पल्ल्याचें आसता. तें वर्सां-वर्सां मेरेन तिगता. खोस, समाधान खिणभराची आसता. परिक्षेंत बरे मार्कस् घेवप, ताची तोखणाय जावप, वाद-विवाद सर्तींत जावं खेळांत मेडल मेळप, ते खातीर शाबासकी मेळप हातूंतल्यान जें समाधान मेळटा तें थाडोसकायेचें आसता....पिराय वाडटा तशें सुखाचें मेज-माप बदलत वता. बरें शिक्षण, बरी नोकरी, अर्थीक स्वावलंबन, वेवसाय-नोकरेंत बडट्यो, मना सारको जोडीदार, अपुर्बायेचीं भुरगीं, बरी भलायकी, स्वताचें घर, गाडी, मान-प्रतिश्ठा. मनशाच्यो आशा-इत्सा वाडत वतात. त्यो जितल्यो सफळ जातात तातूंतल्यान ताका जाय तशें सूख ताच्या वांट्याक येता.

टॉलस्टॉयचे *ॲना कॅरनीना* हे नवलकथेची सुरवात एका विशिश्ट वाक्यान जाता :

Happy families are all alike.Every unhappy family is unhappy in its own way.

लेखक म्हणटा, सुखी घराबे सादारण एक सारके आसतात. दुख्खी घराब्यांत दुख्खाच्यो तरा वेगवेगळ्यो आसतात. कोणाक जाय तशें मेळना हें दुख्ख, कोणाक जाय तशें मेळूनय तें तो भोगूंक पावना हाचें दुख्ख, कोणाक आपल्या मोगाळ मनशाच्या मरणाचें दुख्ख! वियोगाचें दुख्ख, विरवासयाताचें दुख्ख, दुबळेपणाचें दुख्ख, निंदा-नालस्तीचें दुख्ख. गिरेस्तांचें दुख्ख वेगळें, गरिबांचें वेगळें. एकादऱ्या रुखाचेर हजारांनी, लाखांनी पानां आसतात. दरेका पानाचें रूप वेगळें.

जिणेच्या म्हावृक्षा वयलीं दुख्खाचीं

अगणीत रुपां सोडून काडप कठीण !

हीं वेगवेगळीं दुख्खां मनीस कसो सोंसता? अडचणी एका फाटल्यान एक येत रावतात. तातूंतल्यान वाट काडूंकच खूबशें आयुष्य सोंपता. दुख्ख सोंसूनय बी नवे उमेदीन आयुष्य जियेवपाची मनशाची उर्बाच वेगळी!

साहित्य आनी जिवीत! एका लेखकान म्हणलां, साहित्य आनी जिवीत दोनूय दुख्खान भरून व्हांवतल्या न्हंयांवरी आसात. दुख्ख जर नाशिल्लें जाल्यार साहित्य जावचें नाशिल्लें आनी साहित्य नाशिल्लें जाल्यार मनीस सुखी जावचो नाशिल्लो.कोणूय विनोदी लेखक हाचेर सहमत जावचो ना कारण साहित्य दुख्खानच भरिल्लें नासता. साहित्यांत सूख आसता, दुख्ख आसता, खोस - खंत आसता तितलोच विनोदय आसता. ज्येष्ठ लेखक पु.ल.देशपांड्येचें *सुंदर मी होणार* नाटक आसा. पु.ल.देशपांडे खडेगांठ विनोदी लेखक पुणून तांच्या ह्या नाटकांत दुख्खाची देग आसा.

एके अपंगूळ तरनाटेचे जिणेचेर बरयल्लें हें नाटक. तिचो बापूय ब्रिटीशांच्या काळांतलो संस्थानीक.

ताका चार भुरगीं. दिदी सगळ्यांत व्हडली. तिचें नांव दुसरें कितें तरी पूण भांवडांत व्हडली आशिल्यान सगळीं तिका दिदी म्हणटात. तिचे फाटले दोग भाव आनी एक भयण. तांच्या ल्हानपणांत तांची आवय संवसाराक अंतरता. ताका लागून तांची जबाबदारी बापायचेर पडटा. जल्मा साकून दिदी नाजूक भलायकेची आशिल्ल्यान बापूय तिका घरा भायर वचपाक दिना. व्हडले हवेलींत तिच्या शिकपाची वेवस्था जाता. एक डॉक्टर चोवीस वरां तिचे सेवेक आसता. ल्हानपणांत हेर भुरग्यांवरी तिका घरा भायर वचून खेळन दिसता

अशीच एक दिसा बापायची नदर चुकोवन ती घोड्याचेर रपेट करूंक बसता. ती घोड्या वयल्यान पडटा. तिच्या फाटीच्या कण्याक, मणक्याक मार बसता आनी ती अपंगूळ जावन व्हिलचेअराचेर बसून उरता. तिची भांवडां तिका खोशी दवरपाचो यत्न करतात.

अशे अवस्थेंत तिच्या आयुश्यांत एक नवजवान कवी येता. ती स्वता कविता बरोवपी आसता. एकामेकांच्यो कविता वाचतां वाचतां तीं दोगांय लागीं येतात. तांचो सहवास जुळटा..*'ढूंढ लाया हूं गीत मैं तेरे लिए, दिल में रख लेना ईसे हाँथोंसे ये छूटे ना कहीं'*

अशें म्हणीत तो तिका आपल्या मोगाची गवाय दिता.

व्हिलचेअरा वयल्यान आपल्या पांयांर चलपाक तिका आदार दिता. तिका लग्नाची मागणी घालता. आपूण अपंगूळ आसूनय तो आपले वांगडा लग्न जावपाक तयार आसा तें पळोवन तिका अजाप जाता. तरी लेगीत बापायच्या भंयान ती फाटीं फुडें जाता. तो तिचें मनोबळ वाडयता आनी तीं दोगांय तिच्या बापायचे इत्से आड पळून वचून लग्न जातात. फुडें मागीर तिच्या अपंगूळपणाक लागून ती चड तेंप वाचना. ती आसा सर तो तिचेर जिवापाड मोग करता आनी तिचें साहित्य पुस्तक रूपान उजवाडाक हाडटा.

पु.ल.चें हें नाटक *रॉबर्टआनी एलीझाबेथ ब्राउनिंग* हांचे प्रेमकथेचेर आदारीत आसा. लेखक-कवी रॉबर्ट ब्राउनिंग,पांयांत त्राण नाशिल्ल्यान व्हिलचेअराचेर जखडिल्ली एलीझाबेथ आनी तिचो कडक शिस्तीचो बापूय हांच्या आयुश्याची खरी खरी काणी. रॉबर्ट आनी एलीझाबेथ हांचें साहित्य अजरंवर जावन आसा.

प्रेम..एक अडेज अक्षरांचो शब्द! ह्या



शब्दांत भावविश्वाच्यो कितल्योच सया आसपावल्यात. प्रेमांत फकत सुवाळेच नासतात. कळवळे आनी तळमळेय आसतात. आयुश्यभर एकामेकांक सांबाळपाची गूढ साधना आसता. दोन व्यक्तीमत्वाचीं दोन मनां एकामेकां मेरेन पावोवप तशें कठीण पुणून त्या दोन मनांच्या कुरकुटांत एकामेकांक जपपाचें नितळ बंधन आसता. नित्य जिणेच्या आटापा पयल्यान एकामेकां लागीं वेवपाची ओड. केन्ना शिणप, केन्ना तिडकप...राग फोग विसरून मन हलकें करप हातूंत एक वेगळेंच सूख आसता. दोळ्यांच्या धांपिल्ल्या पातकड्यां आड एक जग आसता....आपलें जग. आपुलकायेचें जग.

आपुलकायेच्या जगांतल्या सुखाची तरा खूब वेगळी! आपुलकाय जितली तरणेपणातली तितलीच जाणटेपणातली! एकामेकां वांगडा, फाटल्यान-फुडल्यान चलतना अचकीत जाणवता तें सांगातांचें सूख. संवसाराची कर्तव्यां पार पाडटना, सगळ्यो जबाबदाऱ्यो सांबाळटां सांबाळटां एक दिसा ध्यानांत येता, आमी खूब मुखार पावल्यांत. भुरगीं आपापल्या संवसारांत रमल्यांत, नातरां आपल्या जगांत गुल्ल जाल्यांत. इतलीं वर्सां वणवण केली, काडाओडी काडल्यो. आयज जें सूख फावो जालां तें कश्टांचें फळ .

मात एक गजाल खरी. आपलें सूख आपणेंच सोदचें पडटा. कोण तें हाडून दिना. आनी हें सूख सोदप तरी कितलें? एकदां न्हय,दोनदां न्हय तर आयुश्यभर! काबाडकश्ट करतना केन्ना निरशेणीच्या काळखांत आपटतात, धेपटतात तरीय पावला पुरतो जो उजवाड दिसता, त्या उजवाडाचो आदार येत वाटचाल चालूच दवरपाची आसता. तातूंतच सूख मेळटा.

सॉक्रेटीसान सांगिल्ल्या सुखाची व्याख्या म्हाका याद जाता. ह्या म्हान विचारवंतान म्हणलां..

' कालच्या दिसाची खेद-खंत नासप, आयचो दीस आपले मर्जेन जगप आनी फाल्यांच्या दिसाचो हुरको नासप म्हळ्यार सूख.'

हुसक्या मेकळी जीण जे जियेतात ते सुखी आसतात असो ताचो अर्थ. असली बेधडक जीण कितले जाण जियेतात? अशे तरेचे लोक ह्या संवसारांत आसतात. म्हज्या पुरतें सांगपाचें जाल्यार हांव फाटल्यान वळून पळयतां तेन्ना म्हाका दिसता, म्हज्या आयुश्याची भोंवडी एकेच गतीन फुडें वचत रावल्या. धांवपळ, ताकतीक सगळ्यांकच जाता. तातूंतल्यान कितें फावो जाता तें म्हत्वाचें! केन्ना पांयां पोंदां फातर लागतात, केन्ना कांट्यांतल्यान चलचें पडटा..केन्ना सरळ रस्तो लागता, केन्ना मोडणां मोडणांचो. इतलें करून निमण्या मुक्कामाचेर आमी पावतात काय ना? आयुश्याची हीच तर मजा!

म्हजें भुरगेंपण मर्जेंत गेलें. तरणेपणांत जाय तशें करपाक वाव मेळ्ळो. शांती-समाधान जें म्हणटात, उतारवयांत कशेंय जावं येत रावलें..चाळीस वर्सांचे वैवाहीक जिणेंत खूबशे बरे अणभव वांट्यांक आयले.. *लाख चूका असतील केल्या, केली पण प्रीती* हें ब्रिदवाक्य आपणांयलें.

सॉक्रेटीसाचे व्याख्येनुसार सांगीन दिसता, हांव सुखी आसां .. हय, हांव सुखी आसां.



दुक्ळे हॅवन, कारांझाळे-गॉव. मो.: ९८२२५८८८५२

## कवनां म्हयनाळीं

माधव
बोरकार



*कोंकणींतले ज्येश्ठ कवी, साहित्य अकादेमी पुरस्कारान भोवमानीत, कोंकणी कवितेक आपले शब्दकळेन खाशेली उंचाय दिवपी माधव बोरकार किवितेच्या मळार निरंतर नवनवे प्रयोग करीत आसतात. कविता हो तांचो स्वास आनी ध्यास जाल्ल्यान तांचे कवितेचो आशय वाचकाक मंत्रमुग्ध करता.*

### कविता

कविता म्हळ्यार
यादींचो वळेसर
दाखयता तुका
तुजें नवें घर.

येता आनी वता
कितले हुंवार
सोंसता घण छिन्नीचे
येता तेन्ना आकार.

आसता कवितेच्यो
कितल्यो तरा
पेरला पर्जळ
सगळ्या घरा दारा...

१८.०४.२१

### आधार

सगळ्याक आसता जाय आधार
एका बोटाचो
गोवर्धन धरिल्लो तसो कृष्णान...

आसता जाय आधार
सावरपाक आपल्याक
भायले परसूय भितल्ल्याक...

सुटना आधार
आसता उबो तो तुजे फाटल्यान
दोंगरा भशेन
जसो अस्तंता आज सुर्या
फाल्यांचे आशेन...

१८.०४.२०२१

### सात सूर

सात सूर
सात सपणां
सात रंग
सात सपनां

सात सुरांक
गावना गांव
सात रंगांक
तेळत राव...

२३.०४.२०२१

### कुपांची घुमटी

कुपांची घुमटी सांजवेळ मोनी
स्तब्ध झाडां तरी प्रार्थना पानांनी
मंदावता दिवे तशी उदेता नखेत्रां
व्हांवता मनांतल्यान न्हंयचीं पात्रां

यादींचे मळे फुलयता प्राणाक
मोराचीं मिथुनां दिसूं नये कोणाक....

०७.०५.२१

### निशाणी

आयलों हांव हांगा तुज्या दरवंट्यार
आसा तरी बंद अजून तुजें दार
दिसती दिवे लख्ख गर्भकुडींत पेटिल्ले
उजवाडाची होरावणी दिठ्येक फुटिल्ले.

आकूळ मनांत म्हज्या एकूच आळवणी
उदेवं नांवार म्हज्या तुजी निशाणी
०२.०५.२०२१

### पांच कविता

१
शब्द सपनेतात
तेन्ना उरता
अर्दकुटी कविता
२
दोंगरांच्यो
पांचव्यो वळी
निळ्या अक्षरांनी
बरयल्ल्यो
३
शब्द निळ्या
ब्रह्मात बुडिल्ले
दोळ्यांच्या तळ्यांनी
अळंग सोडिल्ले
४
काळजार फातर
दवरलो तरी
दिसता गावचें
दोळ्यांत तुज्या
बुडून रावचें...
५
जंय वाट
नाशिल्ली
थंय पावलां
उदेल्लीं...

११.०५.२१

## का व्य फु लो र

### कॅन यू हियर मी

ऑनलायन क्लासींत
हो एक सदचोच प्रस्न जाला–
'कॅन यू हिअर मी?'
जेन्ना कॉलेजींतल्या क्लासरुमांत बसून
इंटरॅक्टाक कॅनॅक्ट हांव जातां
आनी लॅपटॉपाच्या स्क्रिनार दिसपी
आयकॉनांक हांव शिकोवंक लागतां
सुर्वेकूच हांव खातरी करून घेतां–
'कॅन यू हिअर मी?'
वर्गांत रेंगाळीत येवपी भुरगीं
ऑनलायन क्लासींतूय रेंगाळीतच येतात
आतां पयलीं वरी तकली उसळपाची,
पोटांत दुखपाची गरज ना.
नॅटवर्क गेलें म्हणल्यार पुरो.
तरी वर्गांत पयलीं फुडल्या बांकांर बसपी
भुरगीं मात आपलें नॅटवर्क बेस बरें राखतात.
सगळ्यांचे कॅमेरा बंद, मायक बंद
उलोवपाचो अधिकार फकत म्हाका
वर्सां वर्सांची इत्सा पुर्ण जाली.
पूण हो गैरसमज म्हजो
इतलो तेंप,
वगी रावात, कीप क्वायट म्हणपी हांव
आतां, प्लीज रिस्पॉण्ड.
हय,ना कितें तरी सांगात म्हणीत
तांका धोंगशितां.
मागीर बेठोच दुबाव येता–
म्हजेंच नॅटवर्क बी गेलें ना मूं?
आनी नकळटना ओंठांर उतरां फुट्टात–
'कॅन यू हिअर मी?'
पयलीं जाल्यार तांणी
जाप दिवपाची गरजच नासताली
तांचे हावभाव, न्हिदेक आयिल्ले दोळे,
एकमेकांक केल्ल्यो कुरवो,
जांबयो आडावपाचे प्रयत्न...
चित्त खंयूय पावल्यार लेगीत
तालार हालपी तकल्यो
प्रस्न विचारना फुडें
जमनीचो तळ सोदपी दोळे
समजलें ना जाल्यार
कपलार पडिल्ली मिरी
समजून घेवपाचो प्रयत्न करतना
फडफडपी दोळ्यांच्यो पातकड्यो,
प्रस्न विचारपाक अनमनपी ओंठ,
आनी केन्ना गळसणिल्ले खांदे
केन्ना केन्ना गुपीत सांगपाक आंवडेवपी
मनां लेगीत म्हजे कडेन उलयतालीं
आयज तीं कितें करतात आसतलीं?
नॅटवर्काचे बार्स चारांचे तीन,
तिनाचे दोन जातात तेन्ना
तांचेरूय आकांत येता काय?
परत परत ब्रेक जावपी आवाज
तांकांय उबगण हाडटा काय?
चुकीची जाप रिकॉर्ड जायीत म्हूण
भंय दिसता काय?
रात रात न्हिदूंक नाशिल्ले वरी
तांचे न्हिदसुरे दोळे
म्हजो हो संवकळीचो आवाज तांकां
आल्लय कशी दिसता काय?
भोंवतणचे आवाज तीं
कानां आड घालूंक शकतात काय?
घड्ये तांचेंय मन
म्हाका कितेंय सांगपा खातीर
विचारता आसत–
'कॅन यू हिअर मी?'

– सोबिता किर्तनी
मडगांव –गोंय
मो. : 9881527581





### लख्ख बरी वळख पटली

हांवें
म्हज्या कॅनव्हासार
**सूर्य**
चितारलो
आनी तुजे
**वाळटेल्ले वण्टीर**
हुमकळ्यलो
तशी तुका म्हजी
लख्ख बरी वळख पटली

आतां तूं चांटे पावलाक
म्हजेकडें **काळोख** मागता...



– आर. रामनाथ
कुर्टी, फोंडे - गोंय
मो. 9850458476

## मनस्पंदन

कसो कोण जाणां,दिसता
तुजो जाय जाय सो सहवास
जसो ओल्या रानांत चलतना
घेतिल्लो तो मुक्त श्वास

तुज्या हासपांतली खळखळ
वाड्यता मनाची तळमळ
तुजें दरेक मोगाळ उतर
भरता म्हजे जिणेंत परमळ

तुज्या नीळखोलाय दोळ्यांत
निशेता जिणेंतलो दरेक खीण
आकुळ पिकूळ जातां तुजेवीण
कळना कशी सारची जीण

केंसांतल्या मोगऱ्यां घसघश्यान
वता मन तृप्त जावन
दरेक म्हजें पावल मोगा
उड्यन दिसता तुजेच दिकेन

तुज्या कानांत धोलता मोतयां
दिसा सपन छळटा, रातयां
ओंठार तुज्या खेळपी हांसो
जसो पारदिकां भरिल्लो पोसो

दिसता मोगा घालीन तुजेर
पुनवे चंद्रा चान्न्या शिंवर
काळजांतले म्हजे हे अश्रेक
तळमळटा सांगूंक ओंठां थरथर



– मानसी धाऊस्कार,
पेडें–म्हापशें.
मो.:8788595022

## पावस कसोय येवंदी

पावस असो येता
पावस तसो येता
पावस घसघश्यांनी येता
पावस शीर शीर येता

पावस कसोय येवं दी
पावस कसोय पडूं दी
पावस कसोय झडूं दी
ती पावसाची मर्जी

पावस जावन आसा
हे धर्तरेचो राजा
तिका भिजोवन फळयता
देखून आमी जियेतां

पावस असो येवंक जाय
पावस तसो पडूंक जाय
म्हणपाचो आमकां अधिकार ना
तो आमकां जाय तसो पडचो ना

पावस हे प्रजेचो
जावन आसा राजा
ताणें घाल्ले सगळे नेम
आतां आमकां पाळूंक जाय...



– सोनिया(सुनिता)शाह
मेरशे–गोंय मो.: 9420690052

## रुतू

रुतू वसंत
फुलयत सैमा तुरो
घालता मनाक भुरळ
जावन आतूर
मेळूंक उत्तेजीत
लाडके सखीक

रुतू ग्रीश्म
दिता उर्बा
परजळूंक तन मन
पुंजवंक खोशी
भोंवन जळीमळीं
शिमे भायरी

रुतू वर्षा
अती अश्रेता
मेळूंक भुयेक, करूंक श्रृंगार
रंगोवंक, तुजी म्हजी सपनां
पर्जळीत फुडाराचीं
इंद्रधोणू वरी

रुतू शरद
विनयता रवी किरणांक
लिपून रावंक कुपानी
फांकरूंक सैमान
थंड शितळसाण
हुतहुत्या मनाक सुस्तेवंक

रुतू हेमंत
प्रेमशुन्य, तरूय
पिकिल्ल्या पानां पानार
मोतयां दवा थेंबे
जशे उफाळिल्ले
परबो खास
घेवन मुखामळार
पांचवो हांसो

– एच. मनोज
चिखले–गोंय
मो.: 9822441417





काव्यचंवर

## झाड

सगळ्यांचेंच आसलें
पूण...
कोणूच ताका
आपलें मानी नासले
तरी...
दीत सावळी सगळ्यांक
स्वता करपत रावलें
वादळां मोठां सोशीत
खोशयेन धोल्लें
सुकण्या पिलांची
आवय जावन उरलें
आंगा खांदार ताणें
पिलांक वाडयली
पांखां फुटलीं तशीं
पिलां उडून गेलीं
सावळेंत विसवप्यानूय
हळूच ताका फाट केली
झाड जालें एकसुरें
दुखाचें वजें ताच्या
माथ्यार कोसोळ्ळें
तरी पर्वा केली ना
मळबाक पळोवन ताणें
आपल्यांत उर्बा भरली
मळबाक भिडपाची
जिद्द ताणें धरली
मळबाक तें भिडलें तशें
सूर्य ताका भेटलो
आपल्या किरणांनी
ताचेर ताणें
भांगरा पावस ओतलो
झाड आतां लकलकतालें
सगळ्यांचे नदरेंत भरतालें
ताचे सावळेंत रावपाक
सगळींच परत आशेतालीं
ताणेंय तांकां आपणायली
परतल्ल्या सुकण्यांक
खांदार मोगान झेलयली

कारण...
राग ताका
कोणाचोच नासलो
पानगळीचोय वेळ
लागीं येत आसलो
रंद्रांतलें रगत हळुहळू
थंड जावंक येतालें
गोड यादी केळयत
झाड ..निरोप घेवंक सोदतालें


- सिंधू असोळडेकार
मडगांव-गोंय
मो :7066392569




## मोल

कुपांची कामरून गोजडी
सूर्य झेमेता
धगान ताचे गोजडेंतल्यान
पावस शिरशिरता
पावसा थेंब्या मोतयां अचळय
धर्तर पुंजायता
पाचवी आंगार ओडून पळय
जगा भुलयता
कविंच्या मनांत विचारांचो
मोर नाचयता
थेंब्यांचे शब्द जावन कवितेची
आंकरी किल्लता
सानुल्यो कळयो फुलां जावन
सृष्टी सजयता
अतिरेख तिचेर जाता तेन्ना
सांबाळ आपलो करूंक ती
आमकां विनयता
बुध्द शिकयता
तेन्नाच सगळ्यांक अचकीत तिचे
मोल होलमलता



## बायल

मोग करपाक चली जाय
लग्न जातलो व्हंकल जाय
तीच जाता बायल
लग्ना पयलीं हळदीक बायलां जाय
धालो खेळपाक बायलां जाय
गुरवारीक फुलां माळपाक बायलां जाय
एक कवियत्री म्हणटा-
बापूय जावपाक कांय खीण पुरो
आवय जावपाक णव म्हयने लागतात
बारशाक बायलां जाय
घोव मरतकच सौभाग्याचो शिरंगार
काडपाक विधवा बायल जाय
घोव म्हणल्यार दादलो
बायलेच्या कुकमाचो धनी
इतलोच संवसार काय?

*(पौष म्हयन्यांत गांवांत बायलां धालो खेळटात आनी हळदीकुकूम करतात, ताचे वयल्यान सुचिल्ली कविता.)*




- अशोक भोंसलो
भाटलें,पणजे-गोंय
मो 9923803158




# जंगल शाळा

(आधुनीक काळाचें हितोपदेश)

# हुशार काळंगां शेतकार



सगळीं भुरगीं न्हावन धुवन आपापले नायट ड्रेस चडोवन तयार जालीं. मागीर तीं न्हिंदपाक वच्चे आदीं एल्मो कडेन गेलीं आनी काणी सांग म्हूण ताचे फाटीक पडलीं. एल्मोन थोडो वेळ विचार केलो आनी मागीर तीन माणकुल्या काळंगां चोरांची काणी सांगपाक सुरवात केली.

ते चोर म्हणल्यार ते तीन मरते माकड फनी, बनी आनी सनी आशिल्ले.

त्या शारा भायर एक शेतकार रावतालो आनी ताणें आपल्या शेतांत काळंगां रोयिल्लीं. काळंगां सामकीं तांबडींच, गोड आनी रसरशीत आशिल्लीं. ताच्या शेता लागसाराकूच एक व्हड जंगल आशिल्लें आनी तातूंत रावपी माकडां मदल्या तीन मरत्या माकडांक तीं काळगां खावपाची सामकी रूच्च लागिल्ली. हेच ते तीन मरते, तिरसुवाद माकड फनी, बनी आनी सनी.

दर दिसा ते फनी, बनी आनी सनी शेतांतलीं मोठ्ठीं काळंगा चोरताले आनी कांय न्हय करून खिणां भितर फरत करताले.

शेतकारान आनी ताच्या दोग इश्टांनी कांय दीस तें पळयलें आनी दीस-रात शेताचेर पारो दवरून त्या पिंटकुल्या चोरांक धरपाचें थारायलें.

एकदीस फनी, बनी आनी सनी सदचे वरी त्या शेतांत काळंगां चोरूंक देंवता थंय आसात, तांचेर अकरमात झप्प करून वयल्यान जाळें पडलें. ते तिगूय आतां शेतकाराच्या चोपक्यांत फारवल्ले.

शेतकारान आनी ताच्या इश्टांनी त्या फनी, बनी आनी सनी माकडांक शेतांतल्या वेगवेगळ्या तीन खुंट्यांक बांदले. मागीर तांणी तीन मोठश्यो बड्यो हातांत घेतल्यो आनी ते तांकां शेपलावपाचेच आशिल्ले तेन्ना फनी, बनी आनी सनी ल्हान भुरग्यां वरीं काकुटेन रडपाक लागले.

" आमच्या धनयां, उपकार करून आमकां माफ करात. आमी त्या रानांतले सामके गरीब माकड मरे सायबा. हांगां लागसार रावपी सगळ्या लोकांनी झाडां मारून रान सामकें विरकळ करून उडयलां. ताका लागून गांवांत येवन पोटा खातीर कितेंय फारायल्या बगर आमकां दुसरो पर्याय ना. "

"आमी तुमचींच माणकुलीं भुरगीं कशीं मरे सायबा. उपकार करून आमकां माफ करात आनी सोडात. आमी ह्यान फुडें तुमचीं काळंगां केन्नाच चोरचे नात. पूण केन्नाय आमकां सामकीच तान लागली जाल्यार आमी तुमचे म्हन्यांत येवन काळंगां मागून खावं."

" तुमी मायेन आमकां काळींग खावंक घालें जाल्यार आमी तें खायन. नातर आमी तुज्या शेतांतल्या कित्याकूच हात लाय नासतना आसा तश्शे जंगलांत परत वचूं!" माकडांनी तांकां उतर दिलें.

अशे तरेन फनी, बनी आनी सनी

शेतकाराक विनवता आसतनाच त्या शेतकाराची धूव इजाबेल शाळेंतल्यान निकलेंच घरा पावील्लें, ताणें आपल्या बापायक विचारलें,'' पापा, तुवें ह्या माकडांक अशे कित्याक बांदल्यात?''

'' म्हजे मोगाळ धुवे, ते आमच्या शेतांतलीं काळंगां चोरताले.'' शेतकारान सांगलें.

''पापा, ते सामके भुकेल्यात आसतले। पापा,सोड न्ही तांकां... म्हाका तांचे वांगडा खेळपाक जाय.'' इजाबेलान म्हणलें.

'' हय हय,सोड आमकां. आमी तुजे धुवे वांगडा खेळटात.''

आपले धुवेक ना म्हणूंक जायना देखून शेतकारान त्या तिनूय माकडांक सोडून घाले.

तशें इजाबेल घरांत धांवलें आनी बॉल आनी क्रिकेट बॅट घेवन आयलें. मागीर सगळीं खूब वेळ बरीऽऽ खेळ्ळीं.

थोड्या वेळान तें थकलें. तेन्ना ताणें आपल्या बापायक म्हणलें, ''पापा, हांव सामकें तानेलां आनी भुकूय लागल्या म्हाका.''

तेन्नाच ताची आवय ताचे पासत सॅन्डवीच आनी काळंगाचो ताजो रस घेवन भायर आयली.

''पापा,म्हज्या ह्या माकड इश्टांकूय एक एक काळींग दी न्हय। '' इजाबेलान आपल्या बापायक म्हणलें.

तसो शेतकार ताकतिकेन शेतांत गेलो आनी ताणें काळींग काडूंक हात घालता थंयच आसा, तेन्नाच बनीन म्हणलें,'' सायब, आमी भुकेन सामके वळवळटात. उपकार करून आमचे पासत बरीं मोठींशींच काडात हां।''

ताचें आयकून शेतकारान व्हडशीं तीन काळंगां काडलीं आनी तीं तांकां दिलीं.

माकडांनी तेन्ना शेतकराचे आनी ताचे धुवेचे काळजा सावन उपकार मानले आनी त्या रसाळ काळंगांचेर ताव मारलो.

'' हेंऽय, बियो मेळटा थंय उडोवं नाकात. हांगां हाडून दवरात. हीं आमच्या शेतांतलीं सगळ्यांत मोठीं आनी बरीं काळंगां.'' शेतकरान तांकां विनवत म्हणलें.

''पापा, तुका हीं बियां कित्याक जाय?'' इजाबेलान विचारलें.

'' म्हाका फुडले वर्सा तीं रोवपाचीं आसात म्हणटकच म्हाका फुडले पिकेक अशींच बरीं आनी मोठ्ठीं काळंगां मेळटलीं.''

''पापा, हांव सद्दां सांजचें फनी, बनी आनी सनीक म्हजे वांगडा खेळपाक आपयतलें. म्हाका ना भाव, ना भयण. शेजराकूय म्हजे वांगडा खेळूंक कोण इश्टूय नात. हांव घरांत सदांच एकटेंच उरतां. हे माकडांचो म्हाका व्हड सांगात लाबतलो.'' इजाबेलान सुचयलें.

ताच्या बापायन तें मानून घेतलें.

अशे तरेन फनी,बनी आनी सनी सदांच सांजचे ताचे वांगडा खेळूंक येवंक लागले. खेळून जातकच तांकां मागऽ नासतना सदांच बऱ्यांतलीं बरीं मोठीं काळंगां खावंक मेळूंक लागलीं.

आतां तांकां त्यो बियो सांबाळून दवरपाच्यो आसतात हाची कल्पना आयिल्ल्यान माकडांनी त्यो बियो जतनायेन बारकेटांत व्हरून दवरल्यो. बियांचें म्हत्व ओळखून शेतकरान तेच पासत तें बारकेट थंय दवरिल्लें. ताचें एकूच सपन आशिल्लें,फुडले पिकेक बऱ्यांतलीं बरीं काळंगां मेळचीं.

'' त्या शेतकाराचें शेत खंय आसा तर?''मदींच आरुशान विचारलें.

''नानू,आमी थंय या रे?'' रणवीर आनी रेहानान सुचयलें.

''हय,हांव ह्या आयतरा तुमकां सगळ्यांक थंय व्हरतां.'' एल्मोन म्हणलें.

रायनान म्हणलें,''एल्मो,फनी,बनी आनी सनीकूय आपय आं।''

''म्हाका एजाबेलाकडेन इश्टागत करूंक जाय.'' मायरान हांसत म्हणलें.

''काळींग म्हाका खूब आवडटा. तें खाल्यार म्हजी तानूय भागता आनी भुकूय।'' अवंतीन म्हणलें.

''देखुनच तांकां तानलाडू आनी भूकलाडू म्हणटात।''

आयकून सगळ्यांक हांसो फुटलो.

''म्हाका काळींग मात्तूय आवडना. तातूंत खूब उदक आसता.'' बिंगोन तक्रार केली.

''बिंगोक फकत आवडटा तें दूद।'' चानीन ताका थोमणो मारलो.

''आमी मरे काळगांच्या शिरांचेर दोन लिटर दूद ओतयया आनी बिंगोक दिवंया, म्हणटकच तो आवडीन लेंवतलो।'' खुशीन हांसत म्हणलें.

''एल्मो,तो शेतकार खरोच हुशार आं।''आरुशान म्हणलें.

''सारकें तुजें. मनशान फकत शिकलो म्हूण जायना, तर ताणें शिटुकूय रावंक जाय.'' एल्मोन सांगलें.

आतां कणी सोपपा कडेन पावली तशें सगळ्या भुरग्यांनी एकामेकाक, एल्मोक, बिंगोक आनी चानयेक देव बरी रात दिवं म्हणलें. मागीर तांणी दिवे पालयले आनी सगळीं न्हिदून पडलीं. सगल्यांच्या सपनांत तीं गोड गोड काळंगां आनी ते मस्ते तीन माकड येताले.

मूळ इंग्लीश - दत्ता दामोदर नायक
(द जंगल स्कूल-ए मॉडर्न डे हितोपदेशा)
कोंकणी अणकार-मानसी धाऊस्कार

# एक काणी शाणी शाणी

( बाल कादंबरी )

डॉ. हनुमंत चोपडेंकार





-१२-

## शाणीच्या शिगम्याची काणी

(पयलो वांटो)

'घनचे कटर...कटर कटर घनचे कटर.....

ढुम ढुम ढुम ढुम ढुम.. ढुम ढुम ढुम ढुम ढुम'

वेळ सकाळचो आसलो. आयतार आशिल्ल्यान शाळेक सप्तकी सुटी आसली. तसो शाणी जागोच आसलो पूण हातरुणार लोळत पडिल्लो. अकस्मात गांवच्या मांडा वयल्यान धोल आनी ताशांचो आवाज घुमपाक लागलो. आवाज आयकून शाणी हातरुणा वयल्यान सडसडीत जागो जालो. आवाज आयकून तो थोडो चिंतनांत पडलो. त्याच वेळार काल कोयण्याबालांनी खेळाटानाचीं पेमल्याचीं उतरां ताका याद आयली.

'हेऽऽ.. फाल्याच्यान आमची मज्ज्या....! कित्याक जाणा.... सांजे शिगम्याचो नाल्ल फोडटले. बाबल मामा सांगतालो आमच्या बाबाक. म्हणजे फाल्यां सावन घनचे कटर घन.... !'

शाणी चिंतनांत पडलो, कालचे गजालीचें आपणाक सपन बी पडूंक ना मूं... हाची सगळ्यांत पयलीं ताणें आपले दोळे चोळून खात्री करून घेतली. सपन न्हू हें समजताच ताच्या मुखामळार हांसो पिकलो. रोकडोच ताच्या दोळ्यां मुखार पोरूंचो शिगमो, रोमट, रातचें होमखण, शबै, शिगम्याची टोपी, म्हांवाळीं, नाटकां ह्यो सगळ्यो गजाली दिसूंक लागल्यो. पोरूं बाबान ताका शिगम्याची रितसर वळख करून दिल्ली. पोरूच तेन्ना तो बाकीच्या संवगड्यां वांगडा रोमटाक वचूंक सोदतालो. पूण तेन्ना 'तूं ल्हान आसा' अशें सांगून बाबान ताका पुराय शिगम्याक एकटो म्हणटा तो सोडूंक नासलो. 'फुडल्या वर्सा व्हड जातलो तूं. चवथेक पावतलो. तेन्ना सावन तूं वच तुज्या मित्रां वांगडा' अशें बाबान ताका सुचयल्लें.

बाबाची तीं उतरां याद जावन ताचें मन परत फुल्लें. तो तसोच उठलो आनी तयारेक लागलो. ताका आतां बेगीनात बेगीन शिगम्याच्या मांडार वचपाचो

आसलो. मांडा वयल्यान धोल, ताशे आनी कांसाळीं आपल्याक साद घालतात अशेंच किर्तें शें ताका दिसूंक लागतालें. तो तसोच उठलो आनी तयारेक लागलो.

त्या दिसा अर्दे वरान शाणी शिगम्याच्या मांडार वचपाक तयार जाल्ल्यान आई आनी आज्जेक अजाप दिसलें. आईन ताच्या आवडीची नासण्याची भाकरी आनी लसणीचो कुवळ केल्लो पूण खावपा कडेन तार्चे लक्ष ना हें आई आनी आजी बारीकसाणेन पळयतालीं.

'शिगम्याचें वारें भरलें गो पोराच्या कानांत.'

आज्जी ल्हवूच आईच्या कानांत फ्तफुतली. शाणीन तें आयकनासले भशेन केलें आनी एक भाकरी कशी तरी सोंपोवन पेल्यांतली च्या घोटली आनी तो निट्ट शिमग्याच्या मांडा वटेन धांवलो. खळ्यांतल्यान भायर सरतांच वाटेर ताका ताच्या विनूदादान हडकिलो आनी अजाप म्हणल्यार ताकाय तांणी आपले वांगडा येवपा खातीर सदचेवरींच फितयलो.

शिगम्याचो मांड तसो तांच्या घरा कडच्यान पयस नासलो. ते दोगूय थंय दोन मिनटांनीच पावले. शिगम्याच्या मांडार शाणी पोरूंय पाविल्लो पूण ह्या दिसाची मजा वेगळी आसली. मांडार भितर सरतनाच तार्णे नानीक, पेमल्याक, मंताक, दामूक, वारक्याक, संदीपा सारक्या आपल्या वांगडच्या भुरग्यांक पळयले आनी ताका मात्शें सूऽ जालें. कारण थंय ताचे परस व्हड भुरगे आनी कांय जाण्टे धोल ताशांचेर 'घनचे कटर घन' ह्या तालार वाजयताले.

शाणीन विनूदादाचो हात घट्ट धरीत पुराय मांडार नदर भोंवडायली. सगळे लोक धोल आनी ताशांच्या तालार घोलताले. धोल आनी ताशे वाजोवपी गांवचे हिरो जाल्ले भशेन नेट लावन झेतान वाजयताले. मात्शे व्हडले भुरगे हातांत हुस्केर्चीं बोंडां घेवन गटापाच्या शेवटाक 'शबैऽऽ' अशें आड्डत नेट हाडटाले. तांच्या हाता पांयांचो आनी घोलाचो ठेको चुकनासलो. सगळें वातावरण शिगम्याच्या रंगांत रंगल्लें.

शाणी आनी ताचे वांगडी बाबडे नाटकांतले धवे कपडे घातिल्ले आज्ञाधारक शिपाय कशे वोग्गी देगेक उबे आसले. तांकां थंय धोल, ताशे सोडूच साद्या कासाळ्यांक लेगीत हात घालपाची संद नासली. कारण तांचे परस पिरायेन व्हड भुरगे आनी कांय जाण्टेय बी धोल वा ताशे मेळोवन ते वाजोवपाक बरोच वेळ जाले तिश्टताले. वीस पंचवीस जाणांची गर्दी थंय आसली. तसो शाणी तांकां चडश्यांक वळखतालो. धाकू, नोनको, रमेशदाद, जयंतदादा, नानूकाका, मोनूकाका अजीतभाई, आबा, दादी, शाणोदाय, व्हडलो बाबा, वासुदेवभाऊ, बाबलमामा, जगलोभाऊ, कांता मामा, रोयलोमामा बी थंय आसले.

मांडार मदलशीक एक व्हड धोल खांदार चडोवन जयंतदादा वाजयतालो. कुशीक जमनीर दोन ताशे दवरून धाकू आनी नोनको ते वाजयताले. एक ल्हान धोलकें गळ्यांत घालून वरपालींतलो अण्णा तें बडयतालो. वाजोवंक कळना तरीय तो तें सोडपाक तयार नासलो. ते भायर गांवचो वडील जगलोभाऊच्या हातांत कासाळें आसलें तें तो कळाशेन वाजयतालो. आनी सगळ्यांक नेट हाडटालो. कुशीक शाणोदाय आनी वासुदेवभाऊ सगळे परिस्थितीचेर लक्ष दवरून आसले.

थंय चडशें लक्ष ओडून घेतिल्लें तें गळ्यांत धोल घालून तो लयेन वाजोवपी जयंतदादान. जयंतदादाक पळोवन शाणीक बरें दिसलें. जयंतदादान चवथी वेळार माणकुली चिंची ताका भेटयल्ली तेन्ना सावन तो जयंतदादाक आपलो घट्ट इश्ट मानतालो. आपलो इश्ट काय बरो धोल वाजयता तें पळोवन तार्चे हड्डें फुल्लें. कुशीक आशिल्ल्या दामून ताका पळोवन खुणायलो तेन्ना शाणी वोगीच भितरल्या भितर सुखावलो. मर्दीच जगल्याभाऊ रोमटाक नेट हाडपाक साद घातलो.

'माडवयलो कीर रे शेपडी हालयता
सवायशिणी बायलो कपडे लिपयला
हयऽऽ शबै शबै शबै शबै शबैऽऽ'

धोल, ताशे, धोलकें आनी कासाळें अशीं वाद्यां शाणीन गेल्या वर्सा



पळयल्लीं पूण पयसुल्ल्यानूच. आयज खूब लागिच्चान तो तीं पळयतालो. त्या वाद्यांक हात लावपाचो आनी जमता जाल्यार तीं वाजोवपाचो विचार ताच्या मनांत येवन गेलो. पूण जाणट्या नेणट्यांक पळोवन ताणें आपली इत्सा दामून धरली. हेवटेन विनूदादाची मात ताका तिडक मारली कारण तोवूय शाणीक कुशीक दवरून हातांत हुरकेचो खांदये-चंवर हातांत येवन हेरां वांगडा शबै चें यडाप येवपाक गुल्ल जाल्लो.

'कसलो भाव हो... भाव खंयचो.... धाकट्या भावाची हेका मात्तूय कदर ना.' बाबाचीं उतरां उश्णी येवन तो मनांतल्या मनांत बडबडलो. ताणें आपल्या वांगडच्यांक पळयलें. तेवूय सामके बेजारिल्ले. दामू, मंता, पेमलो हांच्या सारक्या ताच्या इश्टांचीय तीच इत्सा आसली. पूण ते बाबडे शाणी वरींच आपले इत्सेक दामून धरताले.

दामून आनी पेमल्यान एक दोन फावटी नानक्याक आनी धाकूक सांगपाचो यत्न केलो. धोलर्के तरी वाजोवपाक दी म्हूण विनवणी केली. पूण तें धोलर्के लेगीत तांच्यांनी भुरग्यांच्या हाताक लार्गोक दिलें ना. अण्णा जाल्यार धोलर्के दिल्ले भशेन करून भुरग्यांक लार्गी ओडटालो आनी चाळयत तें आपले सरीं येवन वाजयतालो. अण्णाचें पोट आनी तें धोलर्के एकूच जाल्ले वरीं दिसतालें. भुरग्यांक हांसूंक येतालें पूण जाण्टयांक पळोवन ते आपलो हांसो दामून धरताले. धाकू आनी नोनको जाल्यार गळ्यांत तासो घालून नेटान वाजयत भुरग्यांच्या आंगार येतालो. व्हडल्यांची धोल ताशे बी वाजोवपाची दादागिरी बरीच चल्ली.

दनपार मेरेन भुरगे तिश्टत रावले. व्हडले भुरगे मात आळी पाळीन आपली खाज थोडी तरी भागोवन घेवंक लागले. निमणें, सगळे व्हडले लोक धोल ताशे

वाजयतात, आमकां मात दिनात हें पळोवन भुरगे तिडकीन मांडा भायर सरले. अश्या वेळार भुरग्यांचे सूर कशे जुळून येतात तार्चे तांकांच अजाप दिसलें. सकयले गोडेबांय कडेन पावतकूच रोमटाचो आवाज उणो जालो ती संद सादून भुरग्यांची तिडक भायर सरलीच. पेमल्यान हातांतली हुरकेची तेंगशी भिरकाटावन आपली तिडक उक्तायली -

''कुसके हे सोगळे व्होडले लोक. आपुणूच धोल बडयतात.''

''होय रे पेमल्या. हायेन तेंका मापून दवरल्या. सगळे एकूच ते. नु रे दामू?''

''तो शाणो दाय आनी व्होडलो समजता आपणाक! भुरग्यांक एका वरा तरी वाजोवपाक दिवपाचो कायदो कर म्हूण तेका. मागीर आयकुया तेची शाणेपणा.''

''हे, वोगी रावात रे, शाण्या दायक कांय म्हणूं नाका हां. तेका सगळें कोळटा.''

शाण्या दायक कितें म्हणिल्लें शाणीक केन्नाच आवडना हें सगळ्यांक खबर आसलें. मुद्दामूच दामून ताची कळ काडिल्ली. शाणी बेजारता तें पळोवन दामून ताका परत तुकलायलो.

'' तुजो शाणो दाय व्हडलो हुशार जाल्यार सांग मरे तेका आमकां वाजोवपाक दिवचें म्हूण. पळोवया तुजी हिम्मत. नु रे पेमल्या ?''

''दितलो दितलो!'' - शाणीन तिडकीन म्हटलें.

''केन्ना? शिगमो सोंपतोकूच काय धोल फुट्टोकूच?'' दामूच्या ह्या उतरांनी सगळे भुरगे हांसले. शाणीक लज जाल्ले वरीं जालें. तो स्वताक सावशीत करूंक सहज उलोवन गेल्लो.

''होय व्हय. शाणो दाय दितलो. आनी धोल फुटचे पयलींच दितलो. कोळ्ळें मरे?''

इतलें उलोवन शाणी तडक मांडार वचून सोप्यार बशिल्ल्या शाण्यादाय मुखार उबो रावलो. शाण्यादायन ताका पळयलो. ताका कितें तरी सांगपाक जाय हें ताचे अणभवी नदरेन पारखिलें. शाणी वोगीच कितेंय येवन येवचो ना हें ताका खबर आसलें. तार्णे ताका हाताक धरून बांय वटेन व्हेलो. थंय हेर भुरगे आशिल्लेच. रोमटाचो आवाज उणो जातकूच शाणीन तांची सगळी खबर दायक सांगली -

''दाय रे तूंच न्याय कर आतां आमचो. सांगात, आमच्या सारक्या ल्हान भुरग्यांनी धोल-तासो वाजोवपाचो तरी केन्ना? तुमी जाणट्यांनी पळयलां मरे ते सगळे व्हडले भुरगे दादागिरी करता मरे. आनी दाय तूं म्हाका सांग, आयज भुरगे वाजयचे ना जाल्यार केन्ना वाजयतले ? म्हातारे जातकूच? ना ना. दाय आमकांय धोल वाजोवपाक जाय. जाय म्हणजे जाय!''

शाणी आपले जाण्टे आज्जोच्या तोंडांतले डायलॉगूच शाण्यादायचेर मारता तें आयकून भुरगे पळयतूच रावले. शाण्यादायक शाणीचे धिटायेची अपुरबाय दिसली. हो नाखटा येदो पोर वयाक सोबऽ नासलेली शाणपणा उलयता तें ताका अपुरबायेचें दिसलें. शाणोदाय भोव विचारी मनीस आसलो. गांवचे सगळे झगडे तंटे तो सहज सोडयतालो. ताच्या उतराक गांवांत मान आसलो. तार्णे दिल्ल्या निवाड्यार विरोध करपाची गांवांत कोणाक हिम्मत नासली. तार्णे चितलें, भुरगे ल्हान आसले तरीय तांचें म्हणणें बरोबर आसा. व्हडले भुरगे आयज वाजयतात. फाल्यां नवे भुरगे तयार जावंक जाय. सांज वेळार रोमट घरावरांनी वयता तेन्ना देवांच्यो सत्र्यो हेच ल्हान भुरगे घेतात. बारीकसाणेन तार्णे शाणीक पळयलो. उपरांत भुरग्यांक निरखून पेतलें आनी कसलो सो विचार करीत तो उठलो. तार्णे बांय कडेन उबे आशिल्ल्या सगळ्या भुरग्यांक मांडार येवपाक खुणायलें. ते आज्ञाधारक शिपायां भशेन ताच्या फाटल्यान गेले. थंय मांडार पावता पावताक तार्णे धोल-ताशे वाजोवपी व्हडल्या भुरग्यां क फर्मायलें, ''रावात.... रावात...''

दायचो हकुमी आवाज आयकून सगळे वाजोवपाचे थांबले.

''कितें जालें दाय! रोमट कित्याक थांबयलें? ''

या जाणांचे कमिटिंतले गांवचे वडील वासुदेवभाऊन अजापान विचारलें.

''सांगतां, हें पळयात, फाल्यां सावन सकाळीं णव ते धा वरां मदीं ल्हान भुरगे धोल ताशे वाजयतले. तेंच्या उपरांत व्हडल्या भुरग्यांचो नंबर येतलो. कळ्ळें?''

''पूण दाय,भुरग्यांक खंय वाजोवपाक येता धोल! '' धाकून मदींच तोंड घातलें.

''व्होय दाय, तेंका हातांत तोणी तरी धरपाक कळटा रे! '' नोनक्यान धाकूक तेंको दिलो.

''कोण रे तो शिताफुर्डे मीठ खाता तो? धाकू? आनी नोनको मरे? म्हाका सांगात रे.... तुमी किर्ते आवयच्या पोटांत शिकोन येयलेले???'' सगळ्याक किण्ण शांतता पसरली. शाण्यादायच्या उतराक उतर घालपाची कोणाची छाती नासली. तार्णे नोनको आनी धाकुच्या म्हऱ्यांत वचून तांकां ओर्दूच काडली. -

''तुमकां कळटा मरे वाजोवपाक? मागीर तुमीच शिकयात तेंका फाल्याच्यान. जातलें मरे? सकाळीं णव्वाक. मागीर जगलो आनी बाबल तालगडी शिकयतलो तुमकां व्हड भुरग्यांक. कळ्ळे?''

''व्होय दाय... ''

दायचो तो अवतार पळोवन तांची दाडखिळीच बशिल्ली. कसो तरी तांणी हयकार दिलो आनी कात वाटयली.

''मागीर जालें तर; फाल्यां सावन तुमी दोगांयनी ह्या भुरग्यांक शिकोवपाचें. जगल्या, हें पळय, भुरग्यांचो वेळ सगळे पाळटा काय ना हें पळोवपाची जबाबदारी तुजी हां... याद राख... म्हाका भुरग्यांची कागाळ येवपाक जायना परत.'' दायन आपले निमर्णे शस्त्र उबारलेंच. जगलोमामा आमी बाबलमामा हे पुराय शिगम्याच्यो विधी करून घेवपी वडील जाळवणदार आसले. शाणो दाय धा-जाणाचे कमिटीचो अध्यक्ष, तशेंच गांवचो जेश्ठ आसलो. ताचें उतर सगळ्यांक हुकूम कसो मानून घेवचेंच पडटालें. गांवांत कोणाची झगडी जाली



वा भावाभावांची वांटणी करपाची आसल्यार शाणोदावची भुमिका निर्णायक आसली. तो कोणाचेर अन्याय जावपाक केन्नाच दियनासलो. न्याय करचो जाल्यार शाण्यादायनूच अशी ताची ख्याती आसली. ते भायर शाणोदाय गांवची सासाय सांबाळटा असो सगळ्यांचो भावार्थ आसलो.

दुसरे दिसा सावन खास गांवच्या शिगम्याची म्हूण शाळेक तीन दीस सुटी आशिल्ल्यान शाणी आनी ताच्या सवंगड्यांनी णव्वाक न्हय तर सकाळीं आठ वरांचेर मांडार हजेरी लावपाचो सपाटो चलयलो. त्या तीन दिसांनी भुरग्यांनी धाकू, नोनको तशेंच जगलो मामा आनी बाबलमामा कडच्यान धोल, तासो, कासाळें आनी धोलर्क कशें वाजोवचें तें शिकून घेतलें. ते भायर रोमटा वेळार घरांच्या आंगणांत सादर जावपी गाणीं आनी पारंपारीक तालगडीय ते शिकले. शाणी आनी ताचे वांगडी रातदीस त्या तालगडेच्यो वळी गुणगुणपाक लागले.

त्या तिनूय दिसांक धा वरांचेर व्हडले भुरगे थंय पावतकूच भुरगे बेजारतात हें पळोवन जगल्यामामान एक नवी युक्ती काडली. ताणें धा वरांचेर शाणी, दामू, मंता, वारको, पेमल्याक, नानी, रामू, समीर, संदीप सारक्या सगळ्या ल्हान भुरग्यांक शबै घालतनाचीं लोकगीतां शिकोवपाक चवाठ्यार आपयले. तिनूय दीस सकाळीं साडे धा ते बारा मजगतीं भुरग्यांनी तीं लोकगीतां शिकून घेतलीं. घराघरांनी वचून शबै घालतना तीं लोकगीतां म्हणपाची चाल गांवांत आसली. फुडल्या सप्तकांत नाटकां जावन धुळवट जाय मेरेन भुरग्यांनी तोंडार म्होंवाळी घालून, माथ्याक टोपी घालून आनी हातांत हुरकेचीं बोंडां घेवन शबै घातल्यार सातेर मातेची सासाय गांवच्या घराघराचेर उरता असो समजूय जगलोमामा भुरग्यांक दिवपाक विसरलो ना. भुरगे व्हडा आत्मियतायेन तीं पदां म्हणपाक लागले -

'शबैचें बावलें तारी कडेन पावलें शबै शबै...
आमी येयल्या वर्सान, पैशे घालात फोर्सान शबै शबै
काटकूट करता काय पेटये चावी काडटा काय
आमकां पैशे घालता काय शबै शबै'

मंताक, दामूक आनी शाणीक जाल्यार ती पदां सामकीं तोंडपाठ जालीं म्हूण जगल्यामामान तीन पंगड करून तिनूय पंगडाचे मुखेली म्हूण त्या तिगांची निवड केली. प्रत्येक पंगडान तीन ते चार भुरगे ताणेंच वांटून घातले. घरांघरांनी शबै घातले उपरांत जे किर्ते पैशे दितात वा खाण दितात तें वाटून घालपाची जबाबदारी मुखेल्याचेर सोंपयली. मामान म्हटलें सुद्दा - 'पळोवया कोण बरो मुखेली जाता तो.' शाणीच्या पंगडांत पेमलो, संदीप आनी वारको पडलो. शाणीन थारयलें... आतां सगळ्यांत बरो मुखेली जावपाचो. बाबाक सांगून बरें पेजाद अशें वागाचें म्होंवाळें हाडूंक लावन फाल्याच्यान सद्दा सकाळीं शबै घालपाक वचप. आयज सांज वेळार वांयगण्या खेतोबाक, फाल्यां मयां सातेरीक आनी परवां गांवांत रोमटांक वचप....नाटकां पळोवप आनी शिगम्याची धुळवट येय मेरेन मज्जा करप....

(चलता...)

# मायेमोगान रावंचें...

- आद्या साईश वर्दे



एका घरांत तीन माजरांचो एक घराबो रावतालो. आवयचें नांव आसलें किटी, बापायचें आसलें बुकी आनी तांचे धुवेचें नांव आसलें बिलू.

एक दीस कित्याक लागून तरी बुकी किटीचेर आड्डलो आनी त्या दिसा सावन तार्णे किटीक वावरांत मजत करपाचें सोडून दिलें. ताका लागून किटीक बाबड्याक सगळीं कामां एकट्याकूच करचीं पडूंक लागलीं.

आपले आवयक जातात ते त्रास बिलूच्यान पळोवं नज जाले. हातूंतल्यान वाट काडपाची ताका एक कल्पना सुचली. तार्णे आपले आवयक म्हणलें,''मॉम, आमी डॅडीक सारको धडो शिकवंया.''

त्या दिसा किटी आनी बिलू बुकीक घराच सांडून भायर सरून गेलीं आनी बुकीक घरांतलीं सगळीं कामां एकट्याकूच करचीं पडलीं.

बुकीक आतां घरांतल्या कामाची जावपी तकालस कळून आयली आनी ताका आपली चूक कळळी. किटी आनी बिलू घरा आयलीं तेन्ना तार्णे तांकां 'सॉरी' म्हणलें.

बुकीन मागीर किटीक सांगलें,'' म्हाका आज कळून आयलें,घरांतलें सगळें काम एकट्याचेर पडत जाल्यार कितले त्रास जातात पळय ते. आयच्यान हांव तुका घरांतल्या सगळ्या कामाक हातबोट लायतलों.''

त्या दिसाच्यान बुकी तांकां सगळ्या कामांत मजत करूंक लागलो आनी तो तांचेर केन्नाच आड्डलो ना वो तापलोय ना.

अशे तरेन तो पुराय घराबो एकामेकाक मजत करीत, कामां वाटून घेवन मायेमोगान रावपाक लागलो.

बिलूक तें पळोवन खूब खोस जाली आनी तेंय आपल्या पालकांक मजत करूंक लागलें.

## चिंटुलें बाय...

चाफ्याच्या फुला तूं
पोरसांत आमच्या फुल्लां
परमळ तुजो घेवन फाटीर
वारो धांवत सुटला

धव्या धव्या पाकळ्यां मदीं
मोगरे कळो फुल्ला
तांबडो तांबडो शालू न्हेसून
गुलाब धोलूंक लागला

पाचव्या पाचव्या पानां मदीं
हांसता सदाफुली
मोगाचीं गायत गितां
नाचतात पाखे पाकुलीं

चिंटुलें बाय आमचें
आयज आमगेर आयलां
घर सगळें पुरायेन
परमळान भरून गेलां

- शोभा फुलकार
चिंबल-गोंय

# सालू उबो जालो..

- संगिता नायक



म्हजे आईन कोविड वासिनाचो पयलो डोस घेतलो त्या दिसा तिका बरोच त्रास जालो. दुसरे दिसा तिची खबर घेवपाक म्हण फोन केल्यार, हिचो आवाज सामको फ्रेश. "जालेगे सालू उबो?" हांवें हांसून विचारलें.

दर एका घराब्याच्यो आपल्यो अश्यो खाशेल्यो कुरवो, वाक्प्रचार, म्हणी, उखाणी, सांकेतीक भास वा तकिया कलाम (catchphrases) आसताच आसतात. आनी खाशेली गजाल म्हळ्यार हे प्रत्येक कुरवे फाटल्यान एक-एक काणीय आसता. तसोच आमगेरूय एक वाक्प्रचार आसा. कोणाकूय जिवाक बरें दिसनासलें तें बरें दिसले काय विचारपाक, कोणूय खूब वेळ एकाच जाग्यार बसून वा उबो रावून आखडलो जाल्यार, तशेच कोणाकूय भूक वा तिडक सोसूं नजो जाल्यारूय ताचो 'सालू उबो जालो' अशें आमगेर म्हणटात. तर ही आमच्या घराब्याची 'सालू उबो जालो' ह्या तकिया कलामाची काणी. म्हज्या भुरगेपणांतली.

आब्रील - माय म्हयनो लागीं पावता तशी वर्स भर संथ गतीन चलपी म्हज्या दिवाडे गांवांत लगबग सुरू जाताली. 'मायाच्या हॉलीड्यांक' बोमोय, दुबाय, लंडन अशी जगाच्या खाची कोनशांनी रावपी भुरग्यां बाळांच्या आनी नातरां पणतुरांच्या येवकराक गांव सज्ज जावपाक लागतालो. वर्स भर व्हडल्या व्हडल्या घरांनी एकली-एकसुरी रावपी लेलीझ माना, मारसु आँटी, नोझार अंकल ... सगली जाणां नवे उमेदीन हेवटेन तेवटेन बोवाळटना दिश्टी पडपाक लागताली. भाणस्तारच्या बाजाराची वारी जाताली. फुस्मेताच्या आनी हेर सामानाची जमवाजमव घरा घरांनी जाताली. हेच बराबर गांवची युवा मंडळां फेस्तां -जात्रांचें नीब पळोवन तरेकवार कार्यावळीय दवरताली.

तर अशाच एका माया म्हयन्यांतले कार्यावळीची ही गजाल. वाड्या वेल्या कपेलाच्या फेस्ताच्या दुसऱ्या काय तिसऱ्या दिसा एक रंगारंग कार्यावळ दवरिल्ली. सुटये दिसांनीच असले गांवचे कार्यक्रम चडशे आमच्या आवर लेडी ऑफ दिवार इस्कोलांतूच जाताले. ही वास्तू म्हळ्यार १८ व्या शेकड्यांत श्रीलंकेंत वचून नामना जोडिल्लो पाद्री जॅकॉम गोन्साल्वीस हाचें चारशीं वर्सां पोरनें मुळघर. राजांगण आशिल्ल्या ह्या व्हडल्या घरांत आमचे, दिवाडकरांचे भाशेंत 'पाद्रींचें इस्कोल' चलतालें. राजांगणाच्या तीन वटांनी बसपाक शिमिटाचे बांक. चवथे वटेन सपाट चौथरो. हाचो उपेग रंगेजी भशेन करताले. राजांगणांत मदीं खुर्च्यो घालून आनी शिमिटाच्या बांकांचेर मेळून शे-देडशे लोकांची सोय काय न्ही करून जाताली.

पदांची सर्त, आपउलोवप, नाटकुलें, रिकार्डीवेलो नाच... अशी कितेशी त्या दिसाच्या कार्यावळीची रूपरेशा आशिल्ली. कार्यक्रमाचें खाशेलें आकर्शण आशिल्लें तें साल्वादोर म्हळ्यार सालून बसयल्लें नाटकुलें. सालू म्हजो क्लासमेट. आजुनूय बी एक भन्नाट मनीस. भोव उमेदी प्राणी आनी हरहुन्नरी कलाकार. कांतारा, तियात्र, नाटक म्हळ्यार सामको पिसो .

सालुचें नाटक गांधीजी आनी तांच्या

आदर्शांचेर आशिल्लें. गांधीजींचे आदर्श शिंगार मारून गांधीवादी म्हण मिरवपी, तांच्या नांवाचो गैरवापर करून पयसो करपी, स्वतःचो फायदो करून घेवपी लोक गांधीजींच्या पुतळ्या पेंद्राच राकून आपल्या गैर कर्तृबांच्यो फुशारक्यो मारतात आनी गांधीजी बेजार आनी उद्विग्न जावन निमणो तांकां गांधीवादाचो खरो अर्थ सांगता अशें कितेंशें कथानक आशिल्लें.

नाटकुलें सुरू जालें .गांधीजींचो लीड रोल सालूच करतालो. एका लाकडाच्या चौथऱ्याचेर आपल्या मुदयाळ्या केसांचेर गांधी टोप (टोपी न्ही - केंस लिपोवन खड्डो दिसपाक घालतात तो टोप ) घालून, पुडवें नेसून, हातांत बडी घेवन, गांधी उबो रावऽ तसो मात्सो बाग घालून सालू पुतळ्या भशेन उबो आशिल्लो. सुरवेचीं पंदरा वीस मिन्टां बरीं गेलीं. जस जशीं हेर पात्रां येवन आपले भाशण उलयतालीं तस तशे आपल्या तोंडावेले भाव बदलून सालू प्रेक्षकांची वाह.. वा वसूल करतालो. नाटक बरेंऽ रंगार आयिल्लें.

सगळ्यांचें लक्ष भाशण उलोवपी पात्रांचेर आसा तें पळोवन सालू हळुहळू उबो जावपाक लागलो. बाग घालून बाबड्याचें भेंड धरलें दिसता! इतल्यांत .... कोणाची तरी नदर सालुचेर गेली. ताणें हळूच आपल्या शेजाऱ्याच्या कानांत सांगलें, ''सालू उबो जालो पय..''

''आरे होय मरे सालू उबो जालो.'' म्हणत तो खुक्क करून हांसलो, तें ताच्याय फुडें बशिल्ल्या मनशान आयकलें आनी तेणें आपल्या शेजाऱ्याक तुकलायलो. तोय हासूंक लागलो. हे हाश्याचें ल्हार ल्हव ल्हव पातळत एका सुबेज भुरग्या मेरेन पावलें. हो आनी attention seeking चो चान्स तो सोडटा? फाटीं फुडें पळय नासतना तो आड्डलो, ''आरे, सालू उबो जालो.''

आतां सगल्यांचेंच लक्ष उबो जावपाक सोदपी सालूचेर गेलें. ल्हान व्हड हाश्या मर्दी 'सालू उबो जालो' चो गजर आयकून सालून बाबड्यान भेंड धरलां आसतना परत आपले पयलींचें पोझीशन घेतलें. पूण हे फावटी दोन मिन्टानीच परत आखडलो आनी हेवटेन तेवटेन नदर घुंवडायत परत सरळ जावपाक यत्न करपाक लागलो.

तो पयलीं आड्डपी तवनास भुरगो सालूचेरूच लक्ष दवरून आशिल्लो. ताणें परत आरड घातली... ''सालू परत उबो जालो रेऽऽ'' आतां मात मानशेक खावटेंपडिल्ल्या वरी लोकांच्या हांसपाचो बांद फुटलो. नाटकांतले पार्टी धरून सगली पोट धरून हांसूंक लागली. लोकांच्या हांशाची उबळ कमी जाली तशी नाटक फुडें सुरू करपा पसत सालू धरून सगळ्यांनी पोझीशन घेतलें. परत नाटक सुरू जालें... आनी पळयता जाल्यार परत एकदां 'सालू उबो जालो' चो action replay! लोकांच्या कुयांनी बेजारून मायक हातांत घेवन ... ''उपकार करून बोवाळ करूं नाकात...'' अशें सांगत निवेदक माचयेर आयलो आनी उबो जाल्ल्या सालूक पळोवन आपुणूच हांसत विंगेत धावलो. ह्या बोवाळांत कोणेंतरी पड्डो उडयलो.

त्या मागीर किते जालें तें म्हाका सारकें याद ना. पूण मागीर कितलेशेच दीस वाड्या वाड्यार 'सालू उबो जालो' आयकूंक मेळटालें.

असो मेळळो आमकां आमचो तकिया कलाम!

ताळगांव-गोंय, मो. : ८८०५१६२६००



आकर्शण

# गोंयकारांची आत्मकथिका



एक तेंपार, आमच्या गोंयांत आठ धा भावंडां आशिल्लो गिरेस्त घराबो आसतालो. घडये शेतकी प्रधान संस्कृताय आशिल्ल्यान धा वीस हातांची तशी गरजूय आशिल्ली. वाडटे लोकसंख्येन, 'हम दो हमारे दो' म्हणत घराबो ल्हान जालो, तशी गरजूय आशिल्ली. मात आज जण एकलो मामा, काका, मावशी, आर्ते अशा म्होवाळ नात्याक आयज चुकता. वाडटे लोकसंख्येन सैमाची अवतिकाय हें एक व्हड लुकसान. 'गोंय' म्हळें काय जे चाळीस पन्नास वर्सांपयलीचें सैमीक चित्र आमच्या दोळ्यां मुखार येतालें तेंच नवे पिळगेक दिसत काय? तशी देख दिवपी पुस्तक आसचें हो म्हजो हुसको! 'काळीज उसवलां' ह्या उदयबाब म्हांबरेल्या पुस्तकान मात म्हजो हुसको मेकळो केलो .

राधिकान दिल्ल्या पुस्तकाचें गुलाबी पिशवेचें न्हेसण सोडयतांच, मुखार दिसलें तें पुस्तकाचें, 'मुखचित्र' - जशें जण एक गोंयकाराच्या पारंपारीक व्हडल्या घराची छायाप्रत. पयलीं तेंपा वयली भावमय जीण पिशोलान कलानंद बांबोळकारान बरीS चितारल्या.

पयलो झेलो, नात्यांतल्या बंधनांतल्यान खंयतरी शेणिल्लें 'आत्या' हे मोगाळ पात्र.

तें वाचतना शाळेच्या सुटयेंतलो मामा, मावशेलो गांव याद जाता. ते दीस आनी यादी भांगराळ्यो. भावंडांचो चोमो, केल्ली मस्ती मार बडय, बावलेचें लग्न, रांदचेल्यांनी, गड्ड्यांनी, चोरपोलीस, पसऱ्याचो, लगोर्यो अशे सोबीत खेळ. आज्जेचे कुशींत न्हिदत आयकल्ल्यो काणयो, त्यो काणयो सुद्दा भुरग्यांच्या भावविश्वांत वचून, तांचे आवडीचे विशय घेवन, तांच्या मनार करपी एक संस्कारूच! आतांच्या आजयांचे आसत काय अशें अध्ययन? मिर्गाच्या तापांत शेणान सारयल्ल्या आंगणांत माटवा पोदाची सुस्त न्हिद, ना जिवाण्याचो ना वागाचो भंय..आसली सैमाचेर नितांत श्रद्धा. आनी सुटयो सोंपतांच परतीचे वाटेक दोळ्यांत भरून आयिल्लीं काळी कुमां... काका, काकी, मावसो, मावशी, आजो, आजी अशीं जायतीं नातीं वाचतना काळजाची कोठ्ये कूड उक्ती करून भुतकाळाची भोंवडी करता.

'बाबाची शिस्तबद्ध कुरू' वाचतना बाबा हो घराब्याची व्हडविकाय तिगोवन दवरपी, वाऱ्या-पावसांत अखंड पेटपी एक लामण दिवो, 'बाबा' ह्या उतराचें मोल, भांगरा शिंगरांनी करूंक येना, जावं ताची जागा कोणूच घेवंक शकना , अशे खोल मनार जाल्ले संस्कार वाचतना जातात. 'सुगरण आवय' वाचतना, आवय ही संवसारी, आदर्श ,मायेस्त ही चित्रां नदरेक येताच,पूण त्या बराबर 'अतिथी देवो भव'




हे गोंयकरांनी आपणायल्ले संस्कृतायेक लागून रास भर सोयऱ्यांची उठ बस, चा -पाणी,कपडे आयदनांचो रगाडो, पंप, मिक्सर अशो यांत्रिक सुविधा नासतनाय वाजे नासतना करपी अन्नपूर्णाच्या रुपांतल्यो आई , काकी, मावशी, आजी, आत्या साबार अस्तुऱ्यांक मन नमळायेन सलाम करता. वाचतां वाचतां याद जाता कुड्कुडो खावपी 'शिंयाचे' दीस, रांदनी पोल्लांकडे, हांड्या म्हऱ्यांत 'म्हाका तुका' म्हणत एकामेकांक धुकलत येतिल्ली धग, पांगुरूणांतल्यान भायर सरपाक केल्ली सुरताय आनी उठना फुडे आवयच्या पदरांत केल्ली रीग आनी अणभवल्ले पदरांतले सूख...आयज आवयचो पदर शेणला आनी ते शिंयाचे दिसूय , चिंतून मन सुन्न जाता. रम्य भुतकाळाच्यो, नात्याची वीण यट्ट करपी, मोरपांखी यादी...

जण एकल्या व्यक्ती मनाचेर आपल्या वाठारांतल्या सैमाचो असर आसताच, वळवय, सावयवेंर्चे पन्नास वर्सां पयलींच्या सैमान उदयबाबाक यडयला, तातूंत तांची कोंकणीतलीं म्होंवाळ उतरां याद करता, 'चानये चानये मोव कर' म्हणत खाल्लीं जगमां, चारां अशीं जायतीं इतिहास जमा जाल्लीं रानफळां. नादब्रम्ह संवाद सादपी पावसांतले तांबडे गुंज व्हाळ, तातूंत मारिल्ले धोंगशे, धरिल्ल्यो कुल्ल्यो, कुस्ते, घरांघरांत आशिल्ले




गोठे, तातूंतलीं तीं मायेस्त गोरवां, शेजाऱ्यांक पोस वाटून मेळिल्लो परमानंद, तांकां राखपी राखणे आनी तांच्यो भुतां- देवचारांच्यो गजाली, चुली वयली नाचण्याची भाकरी... आयज गोंयकार नाचणे रोयना आनी भाकरेची सुवात पंजाबच्या गंवाचे चपातीन घेतली.

'गोंयां सारख्या नंदनवनांत तूं जल्मला देखून तूं भाग्यवान!' अशें जग आमकां तोखणायता. आज आमकां, अभागे नवे पिळगेक इको टुरीजम, बायोडायव्हरसीटी म्हणत स्पायस फार्मानी सैमसूख सोदचें पडप ह्या सारखें दुर्दैव आसत?

आमी जर हें सांबाळ्ळें ना जाल्यार फसफसून येवकार दिवपी दर्या देग, माड उरतले काय? आनी सैमाच्या कुसव्यांत उदयबाबा सारखे लेखक कलाकार जल्मतले काय?

उदयबाबाक आपल्या सैमांगणांत पासय मारतना वाटे वयल्यो वळखिंच्यो एक एक यादी नाच जातात त्यो दिसल्या हें खात्रेचें. डिसेंबरांतल्या शियांत कुड्कुडत काल्याक आनी नाटकाक वचपी,माया म्हयन्यांत संजीवबाबा बराबर पेंवपाक शिकपाक अनंताचे तळयेकडे वचपी तांबड्या वाकड्या तिकड्या पांयवाटांचें आयज डांबरीकरण जाला, आदीं वाटो कच्च्यो आसल्यो पूण मनीस पक्के आसले...आज मनीस डांबरट जाल्यात, ह्या विचारांनी सैम बदलता तें पळोवन, तातूंत आतां मनशां बदल्लीं, गोंय कूस बदलता काय? हो जाल्लो तांकां हुसको तांणी गद्याक वेंगावन उक्तायला आनी तांचें काळीज उसावलां. वाचून म्हजेंय काळीज उसावले आनी गोंयचो भिरांकूळ फुडार येवजून दुखावलें.

हें पुस्तक म्हणजे जण एका गोंयकाराची आत्मकथिकाच अशें हांव म्हणन. पन्नास वर्सां पयलीं गोंयची जीण कशी आसली ही जिज्ञासा जे नव्या पिळगेक आसा तांणी हें पुस्तक मुजरत वाच्चेंआनी Alice wonderland भशेन Goas heritage land वाचून रमचें.



- सिध्दि स.प्रभु पोरोब
साखळे - गोंय
मो: ८८३०२१५२०७

मानाचें पान



मंजुषा
तळावलीकार

# आमचो वावर आनी योगदानच आमचें अर्थपूर्ण जिणेची गवाय
# डाय एम्पटी
## -लू टॉड हेनरी

फाटलीं कितलींच वर्सां शिक्षिकेच्या पेशांत आशिल्लीं **मंजुषा तळावलीकार** मानसशास्त्राच्योय अभ्यासक आसात. भुरग्यांचें मानसशास्त्र समजून घेवन तांकां योग्य दिकेन व्हरप ही तांची मोख. तांकां वाचनाची आवड आसाच, तेच वांगडा समिक्षा, कविता आनी ललित लिखाण हातूंत तांकां रुची आसा. साहित्य अकादेमी तशेंच हेर संस्थांच्या चर्चासत्रांतूय तांचें योगदान आसा.

*मनशाक जें दिश्टी पडटा ते परस जें दिश्टी पडना त्या गजालींची चड भिरांत दिसता. भिरांत ही सदांच अज्ञात वो अपरिचीत गजालींचेर पोसता. ती वास्तवतेंत आसचे परस चड कल्पनेंत आसता. ती घालवतली जाल्यार आमकां जिणेंत हेतुपरस्पर जोखीम पत्करपाची हिंमत करची पडटा.*







ह्या संवसारांत जल्माक आयिल्लो दर एकलो मनीस एक ना एक दीस हो संवसार सोडून वताच. पूण वच्चे पयलीं आपली याद तशेंच आपली कीर्त ह्या संवसारांत उरची अशी दर एकल्याची इत्सा आसता. जिणेंत किर्तेय व्हड वावर केलो जाल्यार ताची नामना संवसार भर जाता. सगळे जाण काय इतलें व्हड कार्य करूंक पावनात. पूण किमान आपले वळखीच्या लोकां मदीं तरी आपली याद उरची म्हूण तरी सगलेच जाण धडपडटात. कुडीन जरी आमी अजरंवर उरूंक शकनात तरी आमी केल्ल्या वावरांतल्यान आमी संवसारांत सासणाची अजरंवर उरपाक शकतात. पूण जल्माक आयिल्लीं तेन्ना सावन संवसार सोडून वचमेरेन जितली आमचे मदीं संभाव्य क्षमता आसा ती सगळीच आमी प्रत्यक्षांत हाडपाक पावतातच अशें ना. आमचे मदली सगली बुध्दीक्षमता, कला-गूण आमी पुराय रितीन वापरचे आदींच आमचो वचपाचो वेळ जाता आनी ते सगलें तशेंच घेवन आमी संवसार सोडून वतात. आमकां पुराय क्षमता वापरची इत्सा आसल्यार लेगीत ती कशी वापरप हाचें ज्ञान वो जाण आमकां नाशिल्ल्यान आमी ती वापरूंक पावनात. संवसार सोडून वच्चे पयलीं आमचीं सगलीं सपनां साकार जालीं जाल्यार ताचे सारखी फळादीक जीण ना.

त्याच विशयाचेर आधारीत हें पुस्तक ***डाय एम्प्टी*** जें नामनेचे लेखक टॉड हेनरी हाणें २०१३ वर्सा बरयलां आनी आंतरराश्ट्रीय पेंग्वीन हे प्रकाशन संस्थेन

उजवाडाक हाडलां. ह्या तांच्या पुस्तकाक एमझोनान २०१३ तर्ले एक 'उत्कृश्ट पुस्तक' म्हूण घोशीत केलां. ते भायर तार्चे पयलें पुस्तक ***द एक्सिडेन्टल क्रिएटिव*** हें वूय पुस्तक खूब फामाद जालां. सर्जनशिलता, कल्पकता आनी नेतृत्व मार्गदर्शनाचेर आनीकूय जायतीं पुस्तकां तार्णे बरयल्यांत, जीं हेर डझनभर भाशांनी अणकारीत जाल्यांत. तशेंच लेखक एक आंतरराष्ट्रीय ख्यातीचो वक्तो आनी सल्लागार जावन आसा. तर हांगां ताच्या ***डाय एम्टी*** ह्या पुस्तकाची वळख करून दिवपाचो हो यत्न.

पुस्तकाचे सुरवातीक पयल्याच पानाचेर नामनेचो अमेरिकन भौतिकशास्त्रज्ञ आनी कवी ऑलिवर वेन्डल होम्स हांच्या 'द वॉयसलेस' ह्या कवितेच्या ओळींचो उल्लेख आसा तो म्हणल्यार Alas for those that never sing, But die with all their music in them. - जे कोण गावपाक शकले नात ते आपलें संगीत आपले वांगडाच येवन संवसार सोडून गेले. ह्या दोन ओळींतल्यानूच लेखक पुस्तकांतल्यान वाचकां मेरेन किर्ते पावोवपाक सोदता ताचो बेस बरो अदमास लागता.

फेब्रुवारी २०११ ह्या वर्सा कॅन्डी चॅन्ग नावाचे एके चित्रकार आनी नागरी येवजण करपी अस्तुरेन एका पडक्या घराचें परिवर्तन कला-वास्तुस्थापत्यांत केलें. त्याच दिसांनी तिचो लागींचो मनीस हो संवसार सोडून गेल्लो आनी जिणेचो अर्थ सोदपाचो यत्न करतना, समाजांतल्या बाकींच्या लोकांक जिणे बद्दल निकटीची भावना आनी उद्देश आसा काय ना हें पळोवपाचो यत्न ती करताली. थंय पळोवपाक आयिल्ल्या लोकांक ती खडू दिताली आनी वण्टीर तिणें बरयिल्ली एक ओळ पुर्ण करपाक लायताली. तिणें बरयिल्ली ती ओळ अशी :

**हांव हो संवसार सोडून वच्चे पयलीं म्हाका हें करपाक जाय** : .................

दर एकल्यान आपल्याक किर्ते करपाचें आसा तें थंय बरोवन ती ओळ पुराव करपाची. तें कलास्थापत्य इतलें फामाद जालें ,त्या रस्त्यान वेतल्या वतल्यांनी खडू येवन आपलीं सपनां, इत्सा-आकांक्षा थंय बरोवन रोकड्योच त्या घराच्यो सगळ्यो वण्टी भरून उडयल्यो. तें पळोवन बाकीचेय आपापल्या वाठारांत तसलेंच तरेचें कलावास्तु-स्थापत्य उबारपाक लागले. आयज मेरेन संवसार भर अशीं शंबरां परस चड कलास्थापत्यां *हांव हो संवसार सोडून वच्चे पयलीं* ह्या माथाळ्या खाला आसात, जाचेर लोकांनी आपापल्यो इत्सा-आकांक्षा बरयल्यात.

लेखकाच्या मतान ती संकल्पना इतली फामाद जावपाक कारण म्हणल्यार आमी जें निश्चित स्वरुपांत जाणात पूण तरीय तें खरें जातलें काय ना हाची भिरांत त्यो ओळी प्रतिध्वनीत करता. आमच्या स्वासांचो आंकडो निश्चित आसा आनी तो एक दीस सोंपतलो. आमचे कडेन जगपाक एक निश्चित काळ आसता जो कशे तरेन जगतलीं हाची निवड आमी करची आसता आनी आमी ती कशी तरेन करतात हें खूब म्हत्वाचें आसता. मरचे पयलीं आमकां कांय सपनां, इत्सा आकांक्षा पुराय करच्यो आसतात जातुंतल्यो कांय इत्सा तर आमी वर्सान वर्सां मनांत खोल दामून वो चिड्डून दवरिल्ल्यो आसतात. नित्य दिनक्रमाक लागून जायत्यो गजाली आमी जाय आसून करपाक पावनात. आमी पोटापाणयाचे जोडी खातीर कामांत इतलीं घुस्पून उरतात, मनांत आसून लेगीत कांय इत्सा आकांक्षा आमी मनांतूच मारून उडयतात. आनी आमी सगळीं जाणांत मनशाच्या पोटाची खळगी मात कितलेंय मेळ्ळ्यार लेगीत केन्नाच भरना. कांय जाण दीस भर काम करतात पूण जेन्ना दीस सोंपता तेन्ना तांच्या फुडें व्हडलो प्रस्न आसता, तो म्हणल्यार आयज हांवें केल्लें काम खरेंच उपयुक्त आनी म्हत्वाचें आशिल्लें? कांय जाण आपल्या जिवितांत सुरवातेच्या काळांत खूब समर्पित आसतात पूण ते काळ वता तसतशे निश्क्रिय जातात. तांकां आनीक जायतें करपाक जाय हाची जाण आसता पूण तांचे कडेन तें करपा खातीर आराखडो तयार केल्लो नासता.

ते खातीर एक मोठो प्रस्न पडटा तो म्हणल्यार आमच्या मना सारखें अर्थपुर्ण काम करपाक कशी सुरवात करप वो ताका चालना कशी दिवप? हाची अचूक जाप आमकां जेन्ना मेळना तेन्ना आमी जिणेचो उद्देश शेणोवन बसतात आनी हांव कोण, हांगा कसो आयलां आनी परतो केन्ना वतलों अशे गहन प्रस्न आमकां भेडसायतात.

एक फावट एके मिटींगेंत लेखकाच्या एका इश्टान एक प्रस्न विचारलो - ''तुमचे मतान संवसारांतलो सगळ्यांत मोलादीक जागो खंयचो?'' जायत्या जाणानी जाप दितना अमारातींतल्यो तेलाच्यो बांयो, दक्षिण आफ्रिकेच्यो भांगरा खाणी अशे तरेकवार तर्क लायले. पूण एकूय जाप ताच्या मतान बरोबर नाशिल्ली. तार्णे थंय

मताव बरोबर वाशिल्ली. ताणें थंय आशिल्ल्या सगळ्यांक अजापीत करपी जाप सांगली ती म्हणल्यार संवसारांतलो सगल्यांत म्हारग आनी मोलादीक जागो म्हणल्यार मसंड. मंसडीत जावतीं अलिखीत पुस्तकां, अस्थापीत वेवसाव, समेट करपा उरिल्लीं नातीं, व्यक्त करपा उरिल्ले उमाळे आनी थंय पाविल्ल्या मनशानी फाल्यांचेर धुकळील्ल्यो जायत्यो गजाली आसात जांचो फाल्यां केन्नाच उदेलो ना. त्यो सगल्यो म्हत्वाच्यो गजाली तांचे वांगडाच मंसडीत पावल्यो. तेन्नाच लेखक टॉड हॅनरीक दोन उतरां सुचलीं जीं ताणें आपल्या ऑफिसांत वचून डायरेंत आनी टेबला फुडले वण्टीचेर बरयलीं. तीं म्हणल्यार Die Empty- संवसार सोडून वतना रिते जावन वचपाचें. आपले भितर जी बुध्दीमत्ता, सर्जनशीलता, कल्पकता ती आपल्या सपनांत ओतून, इत्सा आकांक्षा पुराय करपा खातीर वापरून, पुरायपणान वापरून रिते जावनच वचपाचें.

पूण हें सगळें करतले म्हणल्यार ते खातीर वावर करचो पडटलो. वावर म्हणना फुडें आमच्या दोळ्यां मुखार कंटाळवाणें चित्र उबें रावता जो आमकां जायते फावट मना विरुध्द करचो पडटा. पूण वावरांत फक्त पोट भरपा खातीर करपाच्या गजालीं परस चड गजालींचो आसपाव जाता. आमचो वेळ, चित्त एकाग्रताय आनी उर्जा घालून वेवसाय, नातीं वो पालकत्व ह्या उद्देशान केल्ली गजाल म्हणल्यार वावर. मनीसजात शेकड्यांनी वर्सांनी करीत आयिल्लो वावर हो तिचे अस्मितायेचो आनी ह्या संवसारांतले तिचे वळखीचें प्रतीक.

दर एक खीण करिअर करपा खातीर घालवात असो Die empty ह्या उतरांचो गैरसमज तुमच्या मनांत जावं येता. तशेंच डाय एम्प्टी म्हणल्यार सगल्यो गजाली आयजच करात असोय न्हय. जिवितांतलीं सगलीं मळां आडनदर करून फक्त पयशे जोडपा खातीर कामधंदो वो वेवसाय करात असो तर ताचो अर्थ बिलकूल न्हय. ताचो अर्थ आपल्याक जिणेंत सगल्या मळार ज्यो ज्यो गजाली म्हत्वाच्यो दिसतात त्या त्या मळार दर दिसा सातत्यान, प्रगती करपाची. अशें करपांत एक अडचण येवं येता ती म्हणल्यार आमकां जें करपाक आवडटा वो जें मनकाळजांतल्यान करीन दिसता तें आनी आमी पोटापाणया खातीर करतात ती नोकरी धंदो हाचे भितर तफावत आसल्यार आमकां औदासीन्य येवं येता.

ह्या संवसारांत आमचे कडेन मर्यादीत वेळ आसा आनी तो एक दीस सोपतलो. हें जरी निर्विवाद सत्य आसलें तरी आमचे कडेन आयचें काम पुराय करपाक खात्रेन फाल्यां आसतलोच ह्या भ्रमांत आमी जगतात. खरें म्हणल्यार आमकां आयचें काम आयजच करपाची ताकतीक आसूंक जाय.

दरेकल्याक ह्या संवसारांत कितें तरी आगळें योगदान दिवपाचें आसता. तें योगदान आमचे खातीर दुसरो कोणूय दिवचो ना तर तें आमीच दिवपाचें आसा. आनी त्या योगदाना खातीर आमचो सत्कार जातलो वो पुरस्कार मेळटलोच अशें ना. त्या वावरा खातीर मोग, उत्साह, उमेद आसल्यारच त्या योगदानाचो दीर्घकाल प्रभाव उरता.

जायते फावट कोणूय कसल्या व्हडल्या वावरांत स्वताक पुरयावन घेतल्यार ताका ताचे इश्ट, सहकाऱ्यांचो तेंको मेळटलोच म्हूण ना. केल्यान जायते फावटी आशिकुशींचे लोक तुमका तेंको दिवपा वाट्या तुमचो पाय ओडून तुमकां सकयल हाडपाक सोदतात. कारण तुमी केल्यार तांचेरूय ती जापसालदारकी पडटा. पूण ह्या सगळ्या आडमेळ्यांतल्यान वाट काडून फुडें वचपाचो प्रवास सुखदणो आनी नासलो तरी ताची निश्पत्ती मात निश्चितच व्हडविकाय दिवन वता. ते खातीर उदक लागूं वो लागूं नाका आमी आमच्या जिवितांतल्या तत्वांच्या गाम्या कडेन पाय मेरेन फातर खणीत रावपाचें.

अमेरिकन लोकांक बेसबॉल ह्या खेळाचें पिशें. त्या खेळांत बेसबॉलाच्या बॅटाचेर एक स्वीट स्पॉट म्हूण जागो आसता जाचे वयल्यान बॉल ठोकलो जाल्यार तो खूब पयस मेरेन पावता. त्या जाग्या वयल्यान एक इंच लेगीत कुशीक तो आपटलो जाल्यार तो परिणाम साद्ना. तसोच आमच्या जिवितांतूय एक स्वीट स्पॉट आसता जाचे वयल्यान आमी आमच्या यत्नान जिणेंत आगळें वेगळें योगदान दिवपाक शकतात.

Die Empty हें पुस्तक तीन भागांनी विभागलां. पयल्या तीन भागांत कामाचे प्रकार, कामान कितें फरक पडटा आनी जायते हुशार, कुशाल मनीस जे खूब कितें करपाक सक्षम आसतात ते कित्याक कांय करपाक पावनात हे बद्दल आसा. दुसऱ्या भागांत कांय विशेश तत्वां सांगल्यांत जी वाचकांक कामा कडेन पळोवपाचो दिश्टीकोन बदलपाक आनी पद्दती ज्यो उत्कृश्ट अशें योगदान दिवपांत मजत करतल्यो. तिसऱ्या भागांत हीं तत्वां दिसपट्टे जिवितांत आपणावपाक कांय कार्यनिती दिल्यात जे स्वी आमी खोलाये मेरेन वचून जिविताचो उद्देश गाठपाचो

वल्न करूंक शकतलीं.

आमी जो वावर करतात तातूंतल्यान आमकां जिर्णेत कितें म्हत्वाचें आसा हाचें पडबिंब दिसूंक जाय. स्टॅनफोर्ड विश्वविद्यालयाच्या विद्यार्थ्यांपासत उलवप करतना एक फावट एपलाचो संस्थापक सर्गेस्त स्टीव जॉब्स हाणें सांगलें, "हांव सद्दां सकाळीं हारशांत पळयतां आनी स्वताक विचारतां, 'आयज जर म्हजो जिवितांतलो निमणो दीस आसलो जाल्यार आयज जें हांव करपाचो आसां तेंच म्हाका करपाक जाय आसतलें?' जेन्ना जायते दीस त्या प्रश्नाची जाप 'ना' म्हूण येता तेन्ना हांव समजतां म्हाका कितें तरी बदलपाची गरज आसा. हांव रोकडेंच मरपाचो आसां. हीच गजाल म्हाका सदांच जिर्णेत व्हड गजाली करपाक प्रेरीत करता. कारण आमचे फाटल्यान आमच्यो अपेक्षा, अहंकार, लज, भीड सगलें कांयच उरचे ना. फक्त उरतलें तो आमी केल्लो वावर. ते खातीर आमी एक ना एक दीस मरपाचीं आसात हें याद धरल्यार आमी कितें तरी शेणोवन बसतले ह्या भिरांतीच्या सापळ्यांत आमी केन्नाच सापडचीं नात. ते खातीर आमच्या जिणेच्या उद्देशा फाटल्यान धांवपाक कांयच हरकत ना.

कामा कडेन पळोवपाचो जे व्यक्तीचो दिश्टीकोन ताकतीक आनी व्यासंगी आसता अशीच व्यक्ती व्हडलो वावर आनी योगदान करपाक पावता. ताकतीक म्हणल्यार आमचे कडेन आशिल्लो वेळ, उर्जा, लक्ष आनी कुशळताय आमी अर्थपुर्ण आनी उत्पादनक्षमतेन वापरून ताचो लाब घेवपाचो. व्यासंग म्हणल्यार आपल्या कडेन आशिल्ली कुशळताय वाडोवपाची. तशेंच वावर अशे पद्दतीन करपाचो ज्याचो मागीर आमकां पश्चाताप जावंक जायना. तशें करपाक सातत्य आनी खर यत्न जाय आसतात.

*२०१२ स्ट्रॅटेजी वन* हे सर्वेक्षण संस्थेन केल्ल्या सर्वेक्षणानुसार अमेरिका, युके, जर्मनी, फ्रांस आनी जपान हांगासरल्या ५००० प्रौढांचे मुलाखतींत तांच्या सर्जनशीलतायेच्या वापरा बद्दल प्रश्न विचारले. तांचे नोकरेंत तांकां 'सर्जनशीलता' आनी 'उत्पादनक्षमता' हे दोनूय जाय आसता पूण कंपनीच्या धोरणानुसार उत्पादकतायेचे मुखार सर्जनशीलताय आडनदर करपाक पडटा अशें संशोधनांत समजून आयलें. संवसारीक पातळेचेर ४ व्यक्तीं मदीं फकत एकल्याचेंच, 'आपूण आपली सर्जनशील क्षमता वापरतां' अशें म्हणणें आशिल्लें.

आमी हो संवसार सोडून वतलीं तेन्ना आमचो वावरच आमी कोण आनी आमचीं तत्वां कितें आशिल्लीं ही आमची वळख दितलो. तातूंत आमी कसलें कार्य केलां, खंयच्या क्षेत्रांत कितलें योगदान दिलां, हेच वांगडा आमी मानसीक पातळेचेर स्वताची कितली प्रगती केल्या, कोणाक कितलें उत्तेजन दिलां, खंयचे नातें जोपासलां, कोणाचे जिर्णेत कितें फरक घाला हें सगळें येता.

तीन प्रकारचें कार्य-

वावर जरी तरेकवार आसलो तरी तो व्यापकतायेन तीन प्रकारांनी विभागूंक येता-

**आंखणी (Mapping)** - ह्या प्रकारांत कार्य सुरू करचे पयलींची आंखणी, आराखडो, उद्दिश्टां, मोख तशेंच कामाचो अग्रक्रम वो प्राधान्य हें सगलें थारावपाचें आसता. हें सगळें कार्या पयलींचें कार्य. तशें केल्यारच आमचें लक्ष्य, वेळ आनी उर्जा हांचो योग्य तरेन वापर जाता.

**कृती (Making)** - हातूंत कार्य कृतींत हाडप आसता. कृती आमच्यांनी ठोसपणान मेजूंक येता. देखीक कोणूय पुस्तक बरयता जाल्यार दीस सोप मेरेन कितलीं पानां बरयलीं तें मेजूं येता.

**मेशींग (Meshing)** - तिसरे तरेचो प्रकार म्हणल्यार मेशींग जो कार्या कडेन सरळ संबंदीत नासता. तर तातूंत कामा मदलें काम आस्पावता. नवें कसलेंय कसब शिकप, आशिल्ल्या ज्ञानांत भर घालप, जिज्ञासा जोपासप आनी करता तें काम बरे तरेन समजून घेवप हें सगळें ह्या तिसऱ्या प्रकारांत येता. काळ बदलता तशें नवनवे कौशल्य, नव्यो पद्दती शिकून घेवप (upgrading) हेंवूय गरजेचें आसता. ना जाल्यार आमचें आशिल्लें गिन्यान वो कुशळताय काळा भायरें जाता.

**कार्यनिती वयल्यान व्यक्तीचे चार प्रकार-**

वयल्या कार्यनितींतल्या तीन प्रकारांतले कितें वापरतात आनी कितें ना ताचेर आदारून चार तरेच्यो व्यक्ती आसतात

१.**विकसक (Developers)** - ह्यो व्यक्ती आंखणी, कृती आनी मेशींग ह्या तिनूय प्रकारांचेर भर दितात. कसलेंय कार्य हातांत घेतल्यार ताचो नीट आराखडो करून तें कृतींत हाडटात आनी तें कार्य करपाक जें गिन्यानन, कुशळताय जाय पडटा तीय शिकून घेतात जें तांकां फुडाराक्य

उपेगी पडटा.

२.चालक (Driver)- ह्यो व्यक्ती आंखणी आनी कृती करतात. पूण मेशींग करपाक त्यो फांटी आसतात. नव्यो पद्दती शिकून येवक नाशिल्ल्यान तंत्रगिन्यानांत मात लेगीत बदल पडल्यार तांकां तग धरप कुरतार जाता.

३.हेळगो (Drifter)- कृती आनी मेशींग हे दोनूय प्रकार हांकां जमतात, पूण वावर सुरू करचे पयलीं नीट आंखणी करूंक नाशिल्ल्यान ते खंयचे खंय हेडटात. तांचे कडेन दिर्घकालीन असो वावराचो आराखडो तयार नाशिल्ल्यान ते हांगसरल्यान थंय उडयो मारीत रावतात.

४.सपनाळो (Dreamer) - ह्यो निमण्या प्रकारच्यो व्यक्ती फकत आंखणी आनी मेशींग करीत उरतात. कृती कांयच नाशिल्ल्यान त्यो कसलेंच कार्य पुर्णत्वाक व्हरपाक पावनात.

आमी केल्ल्या कार्याची परिणती आमकां समजताच अशें ना. केन्ना केन्ना जल्म भर आमकां ती अणभवपाक मेळना. आमी संवसार सोडून वतकच लेगीत ती लोकांक समजून येवंक शकता. आमी कसलेंय नवें काम हातांत घेतल्यार ते आरंबाक मोठ्या उत्साहान करतात. पूण कांय काळ वतकच आमकां तें सदारचेंच जाल्ल्यान तातूंतली नविदाद वता, तातूंतली आव्हानात्मक नशा काबार जाता आनी आमी निश्क्रिय जातात. ते खातीर आमी त्या कामांतली रुची, उमेद घालोवन बसतात.

**सर्वसामान्य प्रतीच्या वावरा फाटल्यो सात घोडचुको-**

जायते फावट आमी सादारण वो सर्वसामान्य प्रतीचें काम करून ताचेरूच समाधान मानतात. लेखकांच्या मतान सात तरेच्यो घोडचुको आमचे कडेन जातात जे खातीर आमी सामान्य प्रतीच्या कार्य परिणामाचेर समाधान मानतात. जाका ते 7 deadly sins of mediocrity म्हूण पाचारतात. त्यो म्हणल्यार -

१.हेतूहीनता - आमच्या दोळ्यांक पट्टी बांदली आनी धनुश्य-बाण घेवन लक्ष्य साधपाक लायलें जाल्यार आमचो तीर निश्चित मोकीचेर बसप शक्य ना. तेच तरेचो अणभव आमी निर्हेतूक कार्य केल्यार येता. हेतहिणताय आमचो यशाचो निखळ आनंद आनी धादोसकाय मारून उडयता. ते खातीर आमकां किर्तेंय अर्थपूर्ण करूंक जाय आसल्यार, आमी जिर्णेतल्यान ध्येयहीनताय काडून उडोवंक जाय. जें युध्द आमी जिखपाक सोदतात तें खंयचें आनी कसलें हें आमी सारखेंच समजून घेवपाक जाय जाल्यारूच तें जिखपाची उमेद आमकां जातली.

२.उबगण वो निरशेणी येवप - सगलीच उबगण वावट आसता अशी ना. तुमी ती कशी हाताळटात ताचेर तें अवलंबून आसता. आमी करता त्या गजालींतल्यान आमकां मात्सो विराम जाय दिसता तेन्ना आमी उबगतात. ताका उपाय म्हणल्यार जिज्ञासा वो उत्सुकताय. आमी जें किर्तें मेळोवपाक सोदतात तें विशीं आमकां उमळशीक आसपाक जाय जाल्यार आमकां उबगण येवपाक पावना.

३.सुशेग - सुशेग हो व्हडविकायेचो दुस्मान. जेन्ना सुशेगच आमचे जिणेचें ध्येय जाता तेन्ना खिणयाळी थिराय मेळोवपा खातीर आमी फुडाराचे प्रगतीक बळी दिवपाक तयार जातात. नोकरेंत थिरथावर जावन वयल्या पांवड्यार पावलीं म्हणटकच कांय तेपान आमी सुशेग घेवपा खातीर नवें कसलेंय कसब शिकपाक कंटाळो करतात, जाका लागून आमी थंयचे थंय गोठेतात. ते खातीर आमी जिर्णेत सातत्यान नवनवी कुशळताय शिकत रावपाक आळस करूंक जायना.

४.संभ्रम - जायते फावट एखाद्री व्यक्ती स्वतार्चे सामर्थ्य आनी कमकुवतपणा विशीं अनिभिज्ञ आसता. एकेक व्यक्तीक गावपाक बिलकूल येना पूण आपूण बरे पयकी गातां असो ताका भ्रम आसता. आमी केन्नाय इंडियन आयडल सारख्या कार्यावळींत ते पळयतातूच. परिक्षक मागीर तांचे खुरतार लोकांची मनरिजवण करतात. ह्या सगल्यांक भुरगेपणा सावन तांच्या पालकांनी, परच्यांनी, इश्टानी तसो फटीचो विश्वास जोपासपाक भ्रमीत केल्लें आसता

५.अहंभाव - आमी कितलींय ज्ञानी आसली वो कितलींय फिशाल आसली तरी जिवितांत केन्ना ना केन्नाय तरी आमकां अपेशांक फुडो करचो पडूं येता. पूण कांय जाणाक तें खूब कुरतार जाता. तातूंत तांचो अहंभाव दुखावता. पूण आमी अपेश ही लजेची गजाल समजनासतना जैता कडेन वचचे वाटे वयलो अणभव समजूंक जाय जो आमकां जायतें शिकयता.

६.भिरांत - मनशाक जें दिश्टी पडटा ते परस जें दिश्टी पडना त्या गजालीची चड भिरांत दिसता. भिरांत ही सदांच अज्ञात वो अपरिचीत गजालीचेर पोसता. ती वास्तवतेत आसचे परस चड कल्पनेंत आसता. ती घालयतलीं जाल्यार आमकां जिर्णेत हेतुपरस्पर

जोखीम पत्करपाची हिंमत करची पडटा.

७.**अलिप्ताताय** - कसलोय वावर करपाक समाजांतल्या सगल्याच लोकांची आमकां गरज आसता. तांचेर अविश्वास दाखोवन चलना. आमी स्वताक अलिप्त दवरुनय चलना तर समाजांत आमच्या लागसरल्यां मनशां कडेन नातें सांबाळून दवरपाक जाय. जाल्यारुच तांच्या सगल्यां कडल्यान मेळिल्ली प्रेरणा आमकां फुडें वचपाक मजत करता.

तर वयर उलेख्ख केल्ल्यो सात गजाली जांकां लेखक घोडचुको वो पातकां समजता, त्यो करपाचें आमी टाळूंक जाय. आमची जीण आमी येवजिल्ली तशी चलना हाचो अर्थ ती चुकीची चलता असो जायना.

**तुमचें जिणेचें झूज तुमीच थारावात -**

जिवितांतल्या स्पश्ट उद्देशां खातीर तुमचें जिणेचें झूज तुमीच निश्चितपणान थारायात आनी तें जिखपा खातीर यत्न करात. ते खातीर तुमचीं बळगथानां तशेंच कमजोरी समजून घेयात.

आमी उत्कटताय (passion) ह्या उतराचो जायते फावट चुकीचो अर्थ लायतात. जी गजाल आमकां करपाक मजा येता वो आनंद मेळटा तीच करप म्हणल्यार उत्कट आवड असो गैरसमज आमकां आसता. 'Passion' उतर लॅटीन 'Pati' उतरा वयल्यान आयलां जाचो अर्थ सोंसप (to suffer). उत्कटतायेच्या मुळाक सोंसणूक आसता. म्हूण स्वताक म्हाका हे कार्यांतल्यान कसलो आनंद मेळूं येता? हो प्रस्न विचारचे बदलाक कसलें कार्य करपाक हांव त्रास सोंसपाक तयार आसां? हो प्रस्न स्वताक विचारात. व्हड कार्य करपाक तितलीच सोंसणूक गरजेची आसता.

**फळादीक उत्कटतेची कांय स्रोता- पोटतिडक** (Compassion-ate anger ) - समाजांत कोणाचेरूय कसलोय अन्याय जाता तेन्ना ताचे खातीर पोटतिडकीन उबें रावप हीच खरी अनुकंपा. तशें करतना आमी दुसऱ्याचे जिणेच्या संघर्शांत आपखोशयेन वांटो घेतात.

**ध्यास** - खंयच्याय कार्याचो आमी ध्यास घेतलो जाल्यारुच आमचे कडल्यान कृती घडटा. ते खातीर आमी कितलीय तकालस घेवपाक तयार आसतात.

**ओढ आनी हावेस** - जिवितांत आमी बारीकसाणेन पळयल्यार आमकां कांय कार्यां विशीं आपसुकच ओढ आनी हावेस आसता. एखाद्रे गजाली विशीं आमकां कळकळ आसता आनी ती करपांत आमकां व्हड उमेद जाता तेंच आमचें जिणेचें उद्दीश्ट आसूं येता.

ताका लागून आमी आमचीं प्राधान्यां सारखींच थारावपाक जाय. ना तर आमी आमच्या मुखेल उद्दिश्टा सावन भरकटपाक शकतात.

**जिज्ञासा जोपासात -**

भुरगीं जल्मतांच जिज्ञासू आसतात. हो सगळो संवसारूच भुरग्याची प्रयोगशाळा आसता आनी सगल्योच गजाली रहस्यमय आनी अजापीत करपी आसतात. जसजशीं तीं व्हड जावपाक लागतात तशीं दिसपट्टेक लागपी गजालींची आमकां जुजबी वळख



जावक लागता आनी आमची जिज्ञासाव कमी जावपाक लागता. कसलेंय काम करतनाय तेंच जाता. नवनवें आसतना उमेद आसता पूण सदचेंच जातकच वेजार येवंक लागता.

तंत्रज्ञाना खातीर तर आमचो उबगण येवपाचो प्रकार हिसपा भायर वाडला. संवसारभर किर्ते चल्लां तें आमकां परबसल्या समजता. आमचें जिवीत करमणुक प्रधान जालां. तेच वांगडा आमकां रुंदायेन वो परीमाणान जावत्यो गजाली समजतात. पूण खोलायेन मात तांचें कमीच ज्ञान आसता. ह्या प्रकाराक लेखक संवकळीचो स्राप (curse of familiarity) अशें संबोधता. म्हणल्यार खंयच्याय गजालींची आमकां फकत तोंडवळख आसता पूण आमकां ती पुरायपणान खबर आसा अश्या गैरसमजान आमी रावतात. ते बद्दल आनीक जाणा जावन येवपाची जिज्ञासा आमकां आसतलीच अशें ना. म्हूण जिज्ञासा वाडोवपाक प्रश्न विचारात. तशेंच तुमकां पावला पावलार मार्गदर्शन करपी आनी संदेस धाडपी अंतर्मनाचो आवाज आयकात अशें लेखक म्हणटा.

## तुमच्या सवस्थकाय क्षेत्रांतल्यान (comfort zone) भायर पडात -

मनीस कसलेंय शारिरीक तशेंच मानसीक नदरेन जाम जावपाचें काम, देखीक व्यायाम वो तकली वापरून किर्तेंय करपाचें आसल्यार तें जाता तो मेरेन टाळपाक सोदता. ताचें कारण म्हणल्यार जीवशास्त्रा प्रमाण मनशाची रचना सुशेगाच्या क्षेत्रांत रावपाक आनी गरजे भायर ताण येवपाचें टाळपाक सोदपी अशी आसा. पूण आमकां एखादें असामान्य कार्य करपाचें आसल्यार आमकीं ते सुशेग येवपाचे जैवीक अंतप्रेरणेंतल्यान भायर पडून आव्हानाक फुडो करचो पडटा.

तुमचे जिणेंतलो खंयचोय एक दीस येतलो आनी त्या दिसा तुमी जी किर्ते कृती करतात, जें किर्ते वागणें वो वृत्ती आसता ती जर तुमचे पुराय जिणेचो कायम स्वरुपी निश्कर्श आसलो जाल्यार त्या दीस तुमी किर्ते करतलीं वो कशीं वागतलीं? तुमचे कल्पनेंतलें वागणें आनी तुमी वास्तवांत जगतात हातूत कितलो फरक आसा ?

आपली जीण आपणे येवजिल्ली त्या आदर्श रितीन जगनात हें चडशे जाण मान्य करतात. आयचें काम करपाक फाल्यां आसाच हे भ्रामक कल्पनेंत चडशीं जाण जगतात. दर एक दिसा सातत्यान केल्लें कार्य जाची मोजमाप करपाक शक्य आसता ती प्रगती आनी ते खातीर तुमकां सवस्थकायेच्या वर्तुळांतल्यान पावल भायर यालचेंच पडटा.

दर एकल्या मनशाची कोण ना कोण तरी प्रेरणादायी व्यक्ती आसता जी किर्तेंय सांगता वो उलयता तें आयकल्यार दिसता की आपले मनांतलेंच ती उलयता. ताचे विचार, ताचीं ध्येयां आनी आकांक्षा आपल् लागीं सारख्यो जुळटात. असल्या व्यक्तींच्या सानिध्यांत रावपाचें वो तांचीं आत्मचरित्रां वाचपाचीं. तांणी केल्ल्यो चुको तुमी टाळूंक शकतात तशेंच तांचेंय कांय मुलमंत्र तुमी तुमच्या जिवितांत आपणावंक शकतात, जे वरवी तुमकां तुमचें ध्येय मेळोवपाक सोंपे जाता. म्हान व्यक्ती सदांच आपली जीण आपणे हातांत येतिल्ले समस्ये भोंवतणी पुरयावन दवरतात आनी तीच सोडोवपाक सगळें जिवीत सारतात.

जिणेंत मुल्यां म्हत्वाचींच, पूण फकत मुल्यांच आसून उपकरना तर तीं मुल्यां प्रत्यक्षांत हाडपाक वावरप गरजेचें. ते पासत सकयल दिल्लीं चार तत्वां लक्षांत येतलीं जाल्यार कामाक सदांच उमेद उरूंक मजत जाता. तीं म्हणल्यार -

**कलात्मकता** - कसलेंय कार्य करतना तें कलात्मक रितीन करचें. कलात्मक दिश्टीकोन दवरल्यार ते करतना मजा येता आनी ते आपसूकच खोसदेणें जाता.

**जिज्ञासा** - आमी कामा संबंदी जिज्ञासा बाळगूंक जाय. खंयच्याय प्रश्नाचेर विचार करतना पयलेच जापेचेर समाधान मानूंक जायना तर आनीक खोल वचून दुसऱ्यो पद्दती आसपाची शक्यताय पडताळून पळोवपाक जाय.

**भलायकी** - कसलेंय काम करतलीं जाल्यार भलायकी खूबच गरजेची. भलायकेची हेळसांड करून उपकारना. आपले तशेंच आपल्या सहकाऱ्यांचे वो कामगारांचेय भलायकेची काळजी घेवप गरजेचें.

**उर्बेभरीत रावप** - काम करतना सदांच उमेदीन आनी उर्बेभरीत रावन करचें म्हणटकच आमचो कामांतलो उत्साह उणो जायना.

जायते फावट आमकां काम न करपाचीं कारणां दिवपाक आवडटात. तशें करून आमी पिडीत म्हूण दाखोवन सहानुभुती (victim card) मेळोवपाक सोदतात. पूण तशें केल्यार आमी आमचेंच लुकसाण करूज येतात. दुसरें म्हणल्यार जायते जाणाक

आपल्या सहकाऱ्यां कडेन वागतना आपुणच कशीं सारखीं वो आपल्याकूच चड समजता आनी हेर सगलीं कचरो जाल्ल्या भाशेन वागतात. तशें करून आमी तांचीं मनां दुखयतात आनी तीं आमचे पासून पयसावतात. तशें वागल्यार आमच्या कसल्याय कार्याक आमकां तांचो आदार मेळना. म्हूण सगल्यांक वांगडा घेवन वतलीं जाल्यार हांव-हांव करपाची वृत्ती पयस दवरपाक जाय. सगल्यांक उर्बा दिवन मुखार हाडप हे बऱ्या फुडारीपणाचे गूण.

आमी जेन्ना फकत आमी जाणा आशिल्लीच गजाल करपा सोडून जें आमी करूंक शकतलीं पूण केन्नाच करूंक ना तें नवें किर्तेय करपाचो ध्यास घेतलो जाल्यारूच आमी विलक्षण असो वावर करूंक शकतात. तुमच्या मनांत कसलीय नवी कल्पना आयली जाल्यार ती अबुद्द म्हूण सोडून दिनाकात. तुमचे नदरेंतल्यान ती बिनम्हत्वाची आसत पूण ती खेरीतपणान म्हत्वाची आसूं येता. जिवीत **जगपांत रस घेयात** - संवसारांतले लोक, गजाली, सैम, साहित्य, संगीत. हो संवसार खूब गिरेस्त, मोलादीक वस्ती आनी मनोरंजक लोकांनी भरिल्लो आसा.

एपल कंपनीचो संस्थापक स्टिव जॉब्सान एके मुलाखतींत, संस्थेंत एकजूट जावन वावर करपा बद्दल आपलो एक अणभव सांगलो. एक दीस ताच्या शेजाऱ्यान ताका आपले गॅरेजींत आपयलें, जंय एक सिमेंट मिक्सर आशिल्लो. शेजाऱ्यान स्टीवाक कांय फातर हाडून ते मिक्सरांत घालपाक सांगलें. ते फातर मात्शे खडबडीत आशिल्ले. ते मिक्सरांत घालतकच ताणें वयल्यान थोडो शेंकरो (खरखरीत फातरांचो चुरो) घालो आनी मिक्सर चालू केलो. ताणें स्टीवाक बद्द दुसरे दिसा येवपाक सांगलें. दुसरे दिसा ताणें तो मिक्सर बंद केलो आनी ते फातर भायर काडले. पळयल्यार ते सामके तिकतिकीत जाल्ले. जेन्ना ते फातर एकमेकांचेर घासले, झरले आनी आपटले तेन्ना ते घर्शणान सामके सुंदर आनी चकचकीत जाले. स्टीव फुडें सांगपाक लागलो, ती देख आपल्याक नवी नदर दिवन गेली. जेन्ना एखाद्रे संस्थेंत संघटीत वावर आसता तेन्नाय पंगडा मदल्या मनशांची आपसांत भासाभास, वाद, घर्शण जाता, थोडो भोव आवाज जाता, केन्ना केन्ना झगडीय जातात. तेन्ना ते एकमेकांच्यो कल्पना पॉलिश करतात तेन्नाच उत्कृश्ट दर्जाचो वावर घडटा. संघटीत जावन वावर करतना बारीक सारीक बाचाबाच, वाद जावं येता पूण ती निरोगी आसल्यारच तातुंतल्यान जावपी उत्पत्ती उंचेल्या पातळे वयली आसता.

पुस्तकाच्या निमण्या भागांत लेखकान पांच पांवड्याची एक कार्यनीत दिल्या जाचे एक्रोनिम 'EMPTY' अशें जाता.

E - Ethics -**नितिमुल्यां** - नितिमुल्यांचेर भर दियात. तुमचीं नितिमुल्यां हीच तुमच्या जिवितांतल्या प्रतिबध्दतेची, नात्याची तशेंच तुमच्यातल्या खाशेलपणाची परिभाशा.

M²- Mission-**उद्दिश्ट** - तुमच्या उद्दिश्टाचेर लक्ष दवरात. जिवितांत जें ध्येय आसा ताचेर तुमचो सगलो वेळ, हिंकमत, उर्जा आनी साधनसामुग्री केंद्रीत करात.

P- People - **समाजातले लोक** - समाजांतल्या लोकां कडलें तुमचें नातें, वागणें, तुमचो लोकसंग्रह हो खूब म्हत्वाचो. तेंच तुमचे जिणेक अर्थपुर्ण मोल दितात. सगल्यांक वांगडा घेवन फुडें वचात.

T- Task - **वावर**- तुमी हातांत घेतिल्लो वावर करपाक वाजे नाकात, आनी दुसरे कडेन भरकट नाकात. तो सातत्यान आनी सतर्कतायेन करात.

Y- You - पूण हें सगळें करतना स्वताक शेणय नाकात. कितलेंय जरी काम आसलें तरी स्वताची नीट काळजी घेयात. तशेंच वावरा खातीर जी निपुणताय वो कुशळताय गरजेची आसता तीय शिकून घेयात. आनी हें सगलें करपाक देवान, आवय बापायन तशेंच आपल्या बरे मागप्यांनी आमकां जो आदार दिला ते खातीर तांचे सदांच दिनवाशी रावात.

आमची जीण अर्थपुर्ण आनी फळादीक जातली जाल्यार आमकां जिणेंत ध्येय आसचेंच पडटा आनी त्या ध्येया कडेन वाटचाल करपाक आळस पयस मोखून नेमान वावर करचो पडटा. आमी जेन्ना हो संवसार सोडून वतली तेन्ना जितीं आसतना केल्लो वावर वो कार्य आनी समाजाक दिल्लें योगदान हेंच आमकां आमचे उपरांत लेगीत ह्या संवसारांत अजरामर करतलें आनी गवाय दितलें आमचे अर्थपुर्ण जिणेची. म्हूण आनी आनीक वेळ वगडाय नासतना आमी ह्या संवसारांत आसतनाच आमी आतांच्यानूच वावराक लागलीं जाल्यार हो संवसार सोडून वतना आमी समाधानाचो स्वास सोडपाक शकतलीं.



फातोर्डा, गोंय. मो. : ९८२२९८१५०८

कथिका

रामनाथ गावडे



# विकल्प

कोंकणी कथेच्या मळार आपली खाशेली अशी सुवात निर्माण केल्ले **रामनाथ गावडे** हे कोंकणी कथेच्या आनी कादंबरीच्या मळार नवनवे प्रयोग करतात. दुर्मीळ अशीं कथांबिजां हातासून ती फिशालपणान केळोवप हें तांचें खाशेलपण. आतां मेरेन तांचीं हीं पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत आनी तांकां गोंय कला अकादमी,भाशा मंडळ आनी हेर संस्थांचे उत्कृश्ट साहित्या पासतचे पुरस्कार लाबल्यात.

*खंवची सरकार आमका फुक्कट खावयली? आमी खाल्ली ते सगले कश्टाची खाल्ली! सरकार दिता म्हणटा ती आमी पेपराचेर वाचली, टिवीर पळयली. तेंची मोटी मोटी जावरात बी पळयली आनी भाशणा बी आयकली! पूण प्रत्यक्ष आमका किदे दिले, किदे पावले, कोण दिले आनी कोणाक दिले? ते तुमच्या सरकारान केन्ना येवन पळयले!*

हो संवाद एक मानाय आनी खाकी कपड्यांतलो सरकारी राखणदार हेंचे मदलो. जेन्ना दुसर लॉकडावन लायल्लें आनी भर बाजारांतल्या रस्त्यार कोणूच नासलो तेन्नाचो.

- आरे ये-ये-ये, चोर कसो तोंड लिपयत खंय पळटा रे तो! आरे अड्य, राव म्हणल्यार कळना रे तुका? खंय गेल्लो?

- साब, मुकादमाक मेळपाक गेल्लों.

- मागीर, मास्क बी लावपाक जाय हें खबर ना तुका? काड काड पांचशी रुपया काड.

- साब, हेंच म्हाजी मास्क.

- हें तें मास्क! बेश्टो फाळयेचो कुडको तोंडाक बांदलो म्हण तें मास्क जायना.

- ना ना साब, तोंड आनी नाक सारकें धापलां हांव.

- आरे, त्या बोतराक पडल्या सगळे बुराक. तितूंतल्यान सगळी हवा भायर येता. असल्यांनी तूं लोकांक त्रासांत घालतलो मरे!

- ना ना साब, तशी बरी आसा ती, पळय

- हे हे लार्गी खंय येता, पयस पयस राव!

- बरें, हांव वचूं साब?

- खंय वचूं? आनी तालांव कोण तुजो बापूय भरतलो!

- खरेंच साब, म्हाजे कडेन एक बी पयसो ना.

- पयशे ना म्हणूं नाका, फाटीर दांडे पडटले. हो दांडो पळयला मरे, आतां सांग, दांडे जाय काय बरे बशेन पयशे काडटा!

- साब, चूक जाली. परत आनी घरा भायर सरची ना. आनी सरल्यार वेवस्थीत मास्क बांदून भायर सरतां. आतां म्हाका सोड, हांव गरीब मनीस साब. आनी बेकार बी आसां, काम बी कोण दिना. साब, खरें सांगतां, म्हाजे कडेन एक बी पयशे ना.

- पूण आतांच तूं मुकादमा कडेन गेल्लो म्हण्टालो न्हू रे, तेणेन दिवना पयशे?

- मुकादम घरा गेला साब. तो आतां लाकडावन सोंपले शिवाय येवपाचो ना. साब, हांव वचूं? म्हाजे भुरगी घराकडेन



उपाशी आसा. चार दीस जाले आमी अन्नाची एक कण बी खावना. फक्त उदक पिवन दीस काडले साब.

- ही तीं फटींगपणां तूं म्हाजेकडेन उलोवं नाका. सरकारान सगळ्या लोकांक घराकडेन फुकट रेशन पावोवपाची वेवस्था केल्या. आनी तुमच्या सारक्या लोकांक तर चड्व दिलां. त्या शिवाय सामाजीक संस्था तर तुमकां टेंपो भरून भरून हाडून दिता मरे. आनी तूं ना किर्दे म्हण्टलो!

- खरेंच साब. आमकां कोणीच कांय दिवना. फक्त काल चार बिस्कुट पुडे आनी फ्रुटीची पाकीट दिल्ली साब, आनी आतां आमचेकडेन कांयच ना साब, आमचेकडेन शिल्लक राशन आसले ते बी आमी सोंपोवन बसले साब.

- किर्दे सांगता रे तूं! ते पंच घराघरांनी भोवून तांदूळ, पीठ, तेल, तूप वाट्टना हांवेन पळयलां. आमगेर सुद्दां पावयलां आनी तुकाच दिवना?

- देवा शपत सांगता साब, आमचे वस्तितल्या सगळ्या घरांक दिले. पूण आमच्या तीन घरांक दिले ना साब.

- किद्याक, तुमी नाका बी म्हणलें आसतलें.

- आमी किद्याक नाका म्हणटले. आमी बी मागली. पूण तेंच्या कागदार आमची नांव नासली म्हणून आमकां दिलें ना. आमची नांव बरोवन येतली आनी दुसरे टायमार दिता म्हणले. पूण आजून बी कोण येयली ना साब.

- तुमकांच किद्याक दिवना तर, तुमी तेंका मतां बी मारूं नासलीं दिसता.

- सारकी साब. आमची मत हांगा ना. आमची मत गांवाक आसा. आमची राशन कार्ड, आधार कार्ड बी गांवाक आसा. ते म्हणून आमकां कोण काय दिले ना.

- म्हणजे मतदार यादींत नांवां आसात तेंकाच सामान पावयलां?

- तें खबर ना साब. पूण तेंच्या कागदार आमची नांव नासली.

- बरें तें आसूं, तें म्हाका कांय लागना. तुका पांचशी रुपया तालांव भरचोच पडटलो. त्या बगर तुजी सुटका ना.

- साब, हांव तुज्या पाया पडटा. म्हाका वचूंदी. आमच्या घरांत खूब वायट घडलां. म्हाका बेगीन वचपाक जाय. आमच्या भुरग्यांक बी ताप येता.

- हेत्यो काणयो तूं म्हाका सांगू नाका. पयलीं पयशे काड. नांव किर्दे तुजें?

- साब, खरेंच सांगतां, आमच्या भावाची बायल कोरोना जावन हास्पिटलांत मरून पडल्या. आनी भाव बी आता बरो ना. तेंची किर्दे करपाची तें कांयच कळना. कोणाचे पाय धरपाचे ते बी कळना. मुकादम बी घरा ना. तेची बायल आसा, पूण ती कशीच लागी करून घेयना. आमी सामकी त्रासांत पडले साब. गांवाक सुकी भाकर तरी खाताले, हांगा ते बी मेळपाक मारामारी जाल्या साब.

- आरे, हें तें तुजें तें रडयें भाशण तूं आनी कोणाकय सांग. तुमच्या लोकांची अतसलीं नाटकां हांवेन खूब पळयल्यां.

- साब, हांव खरी तेंच सांगतां, मरण मागपी मनीस फट किद्याक उलयतली?

- बरें, मुकादम ना. पूण तेचे बायलेन थोडे तरी पयशे दिल्या आसतले. दिल्या काय ना रे!

- हय साब, दिल्या. फक्त शंबर रुपया. ते बी गेटच्या भायर शेवटून मारले.

- बरें, शंबर जाल्यार शंबर, काड. आयच्या दिसाचीं आनी फक्त आनीक दोन चलना काडपाचीं उरल्यां. तीं काडलीं म्हणटगीर म्हाजी ड्युटी सोंपली.

- साब, तुमची ड्युटी सोंपतली. पूण आमच्या हालांची लायन लागतली तेची किर्दे? ज्या सरकाराक आमची काळजी ना, तेका आमकां दंड करपाक कसली अधिकार! साब, तुमी आनी तुमची सरकार फक्त आमकां मारपाक उठल्या. मनीसपण म्हण्टा ती कोणाक ना. फक्त लूट, लूट आनी लूट!!

- हेंऽ तोंड सांबाळून उलय आं! आयकता म्हण किर्देय बडबडो नाका.

- किर्दे वायट उलयली, हां! हांव किर्दे वायट उलयली? आमचे लोक मरता ते सांगल्यार म्हाजी चूक जाली? आमची भुरगीं उपाशीं तळमळटा ते सांगल्यार चूक जाली? आ! आमी किद्याक म्हण वगीच तुमकां पयशे दिवपाचे?

- आरे, हे तालांवाचे पयशे सरकारी तिजोरेंत वयता. सरकार तुमकां बेस्टेंच फुकट खावयना!

- साब, खंयची सरकार आमका फुकट खावयली? आमी खाल्ली ते सगले कश्टाची खाल्ली! सरकार दिता म्हणटा ती आमी पेपराचेर वाचली, टिवीर पळयली. तेंची मोटी मोटी जायरात बी पळयली आनी भाशणा बी आयकली! पूण प्रत्यक्ष आमका किर्दे दिले, किर्दे पावले, कोण दिले आनी कोणाक दिले? ते तुमच्या सरकारान केन्ना येवन पळयले!

- आरे, आजून दिवना मरे? दितले.

येतले कोणय येवन. घराच कडेन राव.

- केन्ना येतले, आमी मेल्या नंतर? साब, पोरू वर्सा बी तेच जाले. आमी हांगा उपाशी उरता म्हणून साटली पोटली माथ्यार मारून चलत चलत गावाची वाट धरली. पूण वाटेर फुलीस विनाकारण बडयली. पायाची जखम आनी भुकेची जाळ आमी सोसली, पूण सरकाराची मार आमका अर्द मेले करून सोडली. रोखडीच सरकार सांगली, कोरोना सोपली. तेन्ना पोटाची भूक परत आमका हांगा घेवन येयली. आनी आमी परत त्रासांत पडले.

- मागीर, आतां म्हाका किदें कर म्हण्टा?

- साब, गरीब मनशाची सरकार नासता. ती फक्त मोठ्या लोकांची आसता, पयशेकारांची आसता आनी दादा लोकांची आसता. ती सरकार तुजी बी ना आनी तुज्या सायबाची ना. ती फक्त आमदार आनी मंत्री लोकांची आसता. ना तर म्हाज्या भावाची बायल तडफडून मरची नासली. आमका लागून कोणे आमदारान फोन करुना म्हणून भावजयीक ऑक्सिजन मेळ्ळिना. आनी तू खंयच्या सरकाराची मोठीपण सांगता?

- बरें, सोड त्यो गजाली. तूं शंबर रुपया दिना मरे, आसूं. तुजे शंबर रुपया हांव भरता. म्हाका फक्त तुजें नांव सांग. म्हाका आयच्या दिसाचो कोटा पुराय करपाक जाय.

- ना दिवचो, ह्या दुश्ट सरकाराक हांव पयशे बी दिवपाचो ना आनी म्हाजे नांव बी दिवपाचो ना! साब, तुका म्हाका मारपाचे आसा न्हू, मार. आता ही पळय, तोंडाक बांदल्या ती फाळी बी काडून भायर मारता, तुका जाय तितले मार! तुमचो आनी तुमच्या सरकाराचो मार खावन हांव मरता. पूण म्हाका म्हाज्या भुरग्यांक उपाशी मरताना पळोवपाची ना. हांव मरच्या पयली म्हाका तेच्या तोंडांत दोन तरी गोड घास घालपाचे आसा. तूं मारता, मार. ही पळय हांव म्हाजी फाट उगडी करून दिता. तुका ताकद आसा तितल्या जोरान मार. उबार तुजो तो दांडो, उबार! आमचे सोसणुके परस तुज्या सरकारी दांड्यांत कितली पावर आसा ती बी म्हाका पळोवपाची आसा. चल, मार! साब, आनी एक सांगता, म्हाजेकडेन शंबर न्हू, तर हे पळय, पांचशी रुपया आसा. तेचे आमी अन्न मेळना जाल्यार वीख खातले, पूण तुज्या ह्या लाचार, निर्दयी सरकाराक एक पयसो बी भीक दिवपाचे ना!



मोर्ले-गोंय. मो.: ७०३०३५९२३५



नवलिका

डॉ.गुरुदास नाटेकार

# हो खेळ दैवाचो...!



(पयली खीस्त)

दिसाळ्यांनी आनी नेमाळ्यांनी सातत्यान मराठी लिखाण करपी **डॉ. गुरुदास नाटेकार** हे गोंयचे एक नामनेचे उद्देजक आनी सामाजीक वावुरपी. तांकां साहित्याची मुळा सावन आवड आनी तांणी नाटक, कादंबरी, ललित अशे साहित्याचे वेगवेगळे प्रकार हाताळून गोंयच्या मराठी साहित्यांत मोलाची भर घाल्या. आतां मेरेन तांचीं मराठी, कोंकणी, हिन्दी आनी इंग्लीश भाशेंत १८ पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत.तांणी संवसारांतल्या ४० देशांची भोंवडी करून जिवीत अणभव संपन्न केलां.'हो खेळ दैवाचो!' ही तांची एक आगळी वेगळी नवलिका बिम्ब वाचकां पासत खिस्ती खिस्तीनी.

***'हो खेळ दैवाचो...!'ही नवलिका गोंय मुक्ती उपरांतच्या लागशिल्ल्या काळांतली आसली तरी तातूंत पुर्तुगेज राजवटीचो प्रभाव आशिल्ल्या काळखंडाचो प्रभाव दिसता. एके सत्य घडणुकेचेर निबून आशिल्ली ही नवलिका वाचकांक एका वेगळ्या विश्वांत व्हरता...***

गोंयची पुर्तुगेजांची राजवट वचून आतां सुमार दोन वर्सांचो काळ सरिल्लो. तरी लेगीत गोंयचेर नाय म्हणल्यार पुर्तुगेज संस्कारांचें सांवट निशेतालें. आदले वरींच क्रिस्तांव धर्मांतले सर्वसामान्य लोक नेमान इगर्जेंत वताले आनी आपलें दिसपट्टें मागणें करताले. तांच्या मागण्यांनी आपलो दिसपट्टो गिरास,भलायकी आनी देवाचो मोग लाबचो इतलीच माफक मागणी आसताली. तरी तांचे मदीं अशेय कांय लोक आशिल्ले, जे खावन पिवन सुखी आशिल्ले. तांकां अजून दिसतालें पुर्तुगेज गोंयच्यान गेला तो सासणाचो वचूंक ना तर पर्थून केन्ना तरी येतलोच. ताणें बेगीन येवचें म्हूण मागणें करूंक नित्यनेमान इगर्जेंत येवपीय लोक आशिल्ले.

पूण लुसी मात हातूंतलें नाशिल्लें. तें इगर्जेंत वचून प्रार्थना करतालें. मना-काळजांतल्यान मागणें करतालें. ताच्या मागण्यांत आपल्या परस हेरांचें बरेपण चड आसतालें. पूण आज मात तें जेजूक दिनवासपाक इगर्जमातेच्या हुंबऱ्यार आयिल्लें.

लुसी येवजितालें,आयचो दीस कितलो सोबीत। सगळ्याक सामकी खुशालकाय आनी खुशालकायूच शिंपडल्या। कितल्या तरी दिसांनी म्हज्या जिवितांत भांगराळो असो हो खोशयेचो दीस आयला. खासा जेजूनूच तो म्हजे होंटर्यांत घाला. आयचो हो खोशयेन भरिल्लो दीस म्हाका पुरायेन जियेवपाचो आसा, पुराय खोशयेन। सोंपचोच न्हय हो आयचो दीस...ओह जिझस। जिझस, मुयत ओब्रिगाद। थँक्स अ लॉट। थँक यू सो मच फॉर यूवर ब्लेसिंग्स ॲण्ड लव्ह फॉर मी...।

लुसी इगर्जेतल्या आल्तारा लागीं दिंबी मारून जेजू लागीं आपल्या फुडाराच्या जिविता विशीं मागणें करतालें. कितल्या तरी दिसांनी...दिसांनी कशें...कितल्या तरी वर्सांनी ताच्या जिवितांत असलो हो खोशयेचो दीस उजवाडिल्लो..तेच पासत तर तें देवाचे... त्या जेजूचे मना काळजा धावन उपकार आठयतालें. कित्याक, ह्याच जेजूचेर ताची भुरगेपणा सावन पुराय श्रद्धा आशिल्ली. आपल्याक जें जें कितें फावो जाता तें सगळें ह्या जेजूचेच कुरपेन अशी ताची भावना जाल्ली. त्याच भरवंशाचेर तें जियेतालें आनी जेजूच्या पांवा लागीं येतालें.

आयजूय तें जेजूक दिनवासपाक आयिल्लें तें तेच श्रद्धेन. आयज ताका आपल्या जिवितांत आनी आपल्या सरभोंवतणी सगळी खुशालकायूच भरिल्ली दिसताली. आयज ताचेर खोशयेचो पावस शिंवरपाक फक्त एकूच न्हय तर दोन कारणां आशिल्लीं. तींच आपल्या हातांत घेवन तें जेजू लागीं आयिल्लें.

ताच्या एका हातांत ताणें दिल्ले एसएससी परिक्षेचो पुना बोर्डाचो निकाल आशिल्लो आनी दुसऱ्या हातांत 'ताचें' व्हिजिटींग कार्ड. लुसीक नाव म्हणल्यार एसएससी परिक्षेची मातशी भिरांतूच दिसताली. ताची एसएससी म्हणल्यार अकरावी. तीय बी पुना बोर्डाची. गोंयांत बोर्ड बीर्ड खंयचो? गोंयच्या विद्यार्थ्यांक पुणे बोर्डाचे परिक्षेक बसचें पडटालें. गोंयांत अजून स्वतंत्र बोर्ड सुरू जावंक नाशिल्लो. तातूंत लुसीन आनी फ्रेंच विशय घेतिल्लो. पूण लुसी फ्रेंच विशयांत बोर्डाक पयलें आयिल्लें. म्हापशें शारांत शिक्षण घेवन ताणें हें जैत जोडिल्लें.

आनी दुसरें तें व्हिजिटींग कार्ड...हातांतल्या परिक्षेच्या रिजल्टा परस तें आकारान कितलेंच पटीन ल्हान आशिल्लें. पूण 'ताचें' तें व्हिजिटींग कार्ड जाल्ल्यान त्या कार्डाची ताका इतली व्हडव्हीक दिसताली, ताच्यान ती खोस आपल्या काळजांत पेलपाक जाय नासली. आनी त्या कार्डाचेर बरयल्लें तें नांव...मायकल फर्नांडीस! आनी तो खंय रावता ताचो तो आड्रेस! तें चकचकपी कोरान आनी सोबीत लेत्रांनी छापलेलें व्हिजिटींग कार्ड लुसीन कितलेंच खेपो पर्थून पर्थून आपले नदरे खाला घाल्लें. शंबर खेपो तरी ताणें तें पळयलां आसतलें!

पुर्तुगेजा तेंपार लुसीन असलें कार्ड केन्नाच पळोवंक नासलें. आसलेंय जाल्यार तें खंय पळोवंक वचपाचें! पुर्तुगेज वचून आतां सुमार दोनेक वर्सां जायत आयिल्लीं. आतांच इंदियेंतल्यान कोण ना कोण नविदादी घेवन गोंयांत येवंक लागिल्ले. ह्या नविदादीं विशीं लोकांमदीं भोवच उत्सुकताय आसताली. लुसीचीय गत तें व्हिजिटींग कार्ड पळोवन तशीच जाल्ली. तें कार्ड पळोवन लुसी त्या कार्डाच्या मोगांतूच पडिल्लें म्हणल्यार जाता. त्या कार्डाचो मोग तसो बेश्टोच ताका जावंक नासलो. तें कार्ड ताका ताच्या मायकलान दिल्लें. देखून मायकला इतलेंच ताका ताचें तें कार्डूय मोगाचें लागतालें. इतलें तें मायकलाचेर भाळिल्लें!

परिक्षेचो रिजल्ट हाडपा पासत लुसी इस्कोलांत गेल्लें तेन्ना येतना वेतानाच्यो यहणुको ताच्या दोळ्यांचेर निशेवंक लागल्यो..

लुसी परिक्षेचो रिजल्ट हाडूंक इस्कोलांत वचपाक न्हेसतालें. कितें न्हेसचें हाचो विचार करताना ताचे नदरेक ताचे आवडीचो तांबड्या कोराचो सिंड्रेला फ्रॉक पडलो. ताणें तोच आंगार चडयलो. निळ्या निळ्या...आझूल दोळ्यांचें आनी आंगान भरिल्लें लुसी त्या फ्रॉकांत सामकें सोबीत सुंदर दिसतालें. गंवाळी वर्णाचें लुसी त्या ड्रेसांत सामकें सर्गातल्यान देंवून आयिल्ली परी कशें सोबतालें. तातूंत आनी तें फ्रेंच विशयांत सगळ्यांत चड टक्के मार्क घेवन पयलें आयिल्ल्यान ती खोसूय ताच्या तोंडार निशेल्ल्यान ताचे सुंदरकायेंत चडूच भर पडिल्ली. जेन्ना तें स्कुलांत पावलें तेन्ना ताच्या सगळ्या संवगड्यांनी आनी शिक्षकांनी ताका सामकें माथ्यार घेत ताचें कवतूक केलें. ताका लागून तें सामकें आनीकूय फुलून आयलें.

''थँक्स यू! थँक्स यू!'' म्हणत नमळायेन तें सगळ्यांच्यो शुभेच्छा स्वीकारतूच ऑफिसांत भितर सरलें आनी आपलो रिजल्ट घेवन घरा वचपाक लागलें. ताची खोस ताकाच पेलप नासली इतलें तें सामकें भुरकुटून गेल्लें. सगळो संवसार आपल्याक तोखणायेन पळयता असो ताका भास जातालो.

लुसी आपल्या घराच्या आंगणांत पावलें आनी ताचीं पावलां आड्खळ्ळीं. ताका आपल्या घरा लागीं मायकल आपले मोटरसायकलीर बसून आशिल्लो नदरेक पडलो. तो भोवतेक ताची वाट पळयत रावला आसूंक जाय! ताचें तें सोबीत सुंदर मुखामळ, ताचो रुबाब, ताणें घाल्लो तो धवो शर्ट, काळी पॅन्ट आनी काळे बूट! सगळेंच सामकें लाजवाब! तातूंत भर घालतालें तें ताचें फ्रेंच कट स्टायलीन दवरिल्लें खाड आनी मिश्यो.

मायकलाचेर नदर पडटांच लुसीच्या काळजाची धडधड वाडली. इतले दीस तीं एकमेकाक पळोवन फकत तोंडार हांसो हाडटालीं. पूण एकल्याकूय एकामेका लागीं उलोवपाचें धाडस जावंक नाशिल्लें. तरी लेगीत तांची ती मोनी भास दोगांकूय कळटाली. कितली ताकत आशिल्ले ते भाशेंत! ही गजाल दोगांयकय होलमताली. पूण त्या दिसा मात भलतेंच घडलें.

मायकलाचेर नदर पडटांच लुसी कांचवेलें आनी आंगणांतूच गणमणलें. तो आपलेच दिकेन चलून येता म्हणपाचें ताका होलमतालें. ताणें लजून मान खाला घाली आनी तें ताका फाट करून थंयच उबें रावलें. आजूनय तो आपले वटेन चलत आसा म्हणपाचें ताच्या चलपा वयल्यान आनी बुटांच्या आवाजा वयल्यान ताका लक्षांत आयलें. पूण खर इत्सा जावनूय, फाटीं वळून ताचे लागीं उलोवपाचें धाडस मात ताका कशेंच जाय नासलें.

एका हातांत रिजल्ट आनी दुसरो हात रिकामो अशे अवस्थेंत लुसीन आपल्यो दोनूय मुठी घट्ट आंवुळ्ळ्यो, कित्याक तर आतां मायकलान ताच्या खांदार हात दवरिल्लो.

गॉड...! कितली नाजूकसाण आनी भरवंसो आसपावल्लो त्या इल्लेश्या आनी मोजक्याच खिणाच्या स्पर्शांत! लुसी तर हेंच आंवडेतालें, ताणें आपूण जावन ताचे लागीं उलोवंचें.

मायकलान लुसीच्या खांदार अचळय हात दवरलो आनी ल्हवपीक आवाजांत म्हणलें, ''लुसीऽऽऽ''

वायोलिनाचे म्होवाळ सूर कानांत रिगचे तशीं तीं उतरां लुसीक भासलीं. हांव जाचो विचार करीत रातभर हांतुणार तळमळटां, ताका म्हजें नांव कशें गोमलें आसतलें काय? हांव ताचो विचार करीत दिसरात सारतां तसोच तोय म्हजो विचार करता काय? ताका हांव लायक जातां काय?

एकाच खिणा भितर लुसीचे तकलेंत कितलेच प्रस्न नाचूंक लागले.

''लुसीऽऽऽ''

मायकलान घाल्ल्या परत उल्यान लुसी विचारांचे तंद्रेंतल्यान भायर आयलें आनी खिणांत ताचे वटेन वळ्ळें.

फाट घुंवडायतांच ताची नदर सामकी मायकलाच्या दोळ्यांत रिगली. ताच्या त्या घारश्या दोळ्यांक पळयत रावचें, ताच्या दोळ्यांत बुडून रावचें अशें कितें तरी लुसीक दिसलें. ताच्या दोळ्यांतल्यान दोळे पयस करचेंच न्हय अशें दिसता आसुनूय ताची मान लजेन आपसूक सकयल गेली.

''लुसी, म्हाका तुजे एक्झामीचो रिजल्ट गोमलो म्हूण तुका पारार्बेश



म्हणूंक हांव हिंगा आयलां.''

मायकलान ताका म्हणलें. ताचो हात आजुनूय ताच्या खांदारूच आसलो.

''कॉंग्रेच्युलेशन लुसी!''

मायकलान लुसीचो खांदो दामीत म्हणलें. लुसीच्या पुराय आंगांतल्यान एक जोगूल कशें वयल्यान सकयल मेरेन धांवलें. ताच्या यशाची खबर आयकून कितल्याच लोकांनी ताका परबी भेटयल्ली. तीं आयकून आयकून लुसी सामकें खोशयेच्या दर्या ल्हारार उफेतालें. पूण मायकलच्या ह्या कॉंग्रेच्युलेशन ह्या एकाच उतरान तें खोशयेच्या सामक्या वयल्या ल्हारार पाविल्लें. कोणेंय परबी भेटयली काय ताका देव बरें करूं..थॅन्क यू वा ओब्रीगाद म्हणपी लुसी आतां सगळेंच विसरलें.

''लुसी, यू आर लुकींग लायक एंजेल! तूं सामकें परी कशें दिसता ह्या भेसांत आनी रुपांत. हांव मायकल फेर्नांडीस. हें म्हुजें व्हिजिटींग कार्ड. ताचेर म्हुजो आनी म्हुजे कंपनीचो आद्रेस आसा. म्हुजो फोनूय आसा. तुका म्हजे लागीं उलयन दिसता वा म्हाका कितेंय सांगोन दिसता जाल्यार म्हाका फोन कर वा चीट लेगीत बरयल्यार जाता.''

लुसीक कॉंग्रेच्युलेशन म्हणटना लुसीन ताका दिल्लो हात आजुनय ताच्या हातांत आसलो. कोणें तो सोडोवपाचो यत्नूय करूंक नासलो. त्याच हातांत मायकलान तें व्हिजिटींग कार्ड दवरलें आनी एक बारीकसो हांसो तोंडार खेळयत खिणा भरयांत तो आपले मोटरसायकली लागीं पावलो.

ताणें दिल्लें तें कार्ड हातांत तशेंच धरून लुसी सपनेल्ले वरीं ताचे वटेन पळयतालें. मायकल मोटरसायकल स्टार्ट मारून थंयच्यान पयस पावलो तरी ताचे मोटरसायकलीचो डूब डूब आवाज लुसीक आयकूंक येतालो. तो मोटरसायकलीचो आवाज काय आपल्या काळजाचो हेंय ताका कांय खीण पारखूंक जालें ना.

मायकल कोण कितें हें लुसीक तशें अजून सारकें खबर नाशिल्लें. ह्या सात आठ दिसांत तो ताका केन्ना आपले मोटरसायकली वयल्यान दिसतालो जाल्यार फाटल्या आयतारा ताणें ताका इगर्जेंत मिसाकूय पळयलेलो. इगर्जेंतल्यान भायर सरतना एकमेकाचेर नदर पडल्या उपरांत मायकलान आपल्या मुखामळार हांसोय हाडिल्लो, जसो कितें तो ताका 'हॅलो' म्हणटालो. पूण लुसीन ताका पळोवन पळोवंक ना अशें केल्लें. एकदां ताका तो बाजारांत दिश्टी पडिल्लो. लुसीन ताका पळोवंक नाशिल्लें. तें आपलो वेपार येवपाच्या बोवाळांत आशिल्लें. पसऱ्यार ताची इश्टीण सॅलीनय कितें तरी व्हरपाक आयिल्लें. ताणेंच ताका बोट तोंपून म्हणिल्लें, ''आगो लुसी, तुका तो मायकल नदर लावन पळयता.''

कोण मायकल काय पळोवंक वचत जाल्यार तोच मोटरसायकलकार मायकल म्हणपाचें लुसीक कळ्ळें. मायकल तोंडार हांसो खेळयत ताचे लागीं पळयतालो. लुसीक कितें कोण जाणां, तो हांसो आनी मायकलची ती स्टायल सामको काळजा मेरेन पावली अशें कितें तरी दिसलें. ताचें आतां सामाना लागीं शितीद नासलें जाल्यार पर्यून पर्यून तें मायकला वाटेन वतालें.

''तूं त्या मायकलाक खंय वळखता गो?'' अशें विचारूंक लुसीन सॅलीना वटेन पळयलें जाल्यार सॅलीन आपलें सामान येवन थंयच्यान केन्नाच नाच्च जाल्लें.

म्हणचे ताचें नांव मायकल तर! लुसी आपलें सामान येवन तुरतुरीत घरा आयलें खरें पूण मायकलाची ती नदर आनी म्होवाळ हांसोय येवन आयली. ते दिसाच्यान तो हांसो आनी ती नदर ताची फाट सोडी नासली. लुसीचें कामाचेर शितीद लागऽ नासलें. परत परत मायकलूच ताच्या चिंतनानी येतालो. कोण काय तो ? खंयचो काय तो? लुसीची न्हीद ताणें वगडायल्ली. आनी तोच मायकल आज ताका स्वता येवन परबी दिवन गेल्लो. आपल्याक फोन कर वा चीट बरय अशें सांगून व्हिजिटींग कार्ड ताका दिवन गेल्लो. सगळें घडलां तें एक सपन कशें लुसीक दिसतालें. आपल्या जिज्ञसानूच हें सगलें घडोवन हाडलां अशें ताका मनांतल्यान दिसूंक लागलें.

लुसी घरांत वचपाचें सोडून भायले भायर परतलें आनी ताणें इगर्जेची वाट धरली. हें सगळें घडलें तें त्या जिज्ञसाचीच कृपा अशें ताका दिसलें. ताका दिनवासपा पासत लुसी आतां उफेतूच इगर्जेची वाट चलतालें.



जाल्यार..?

ना...!

अशें कशें जावं येता..?

मागीर म्हाका तें व्हिजिटींग कार्ड दितना म्हजो हात हातांत घेवन केल्ली तुस्त किर्ते तर..?

तुस्त तशी कोणूय कोणाचीय करता. हाचो अर्थ ती व्यक्ती ताचेर मोग करता अशें थोडेंच आसता..!

मागीर मोग नासत जाल्यार आपल्याक चीट बरय वा फोन कर अशें ताणें कित्याक सांगचें..? इश्टीणीक अशें कोण सांगता..? आनी इश्टीणीक पळोवन असो कोण परतो परतो मोगाळ हांसता..?

लुसीच्या मनांत बऱ्या वायट विचारांचें गेर चलतालें. कांय न्हयकारी विचार ताका इफेर्नांत व्हरताले जाल्यार रोखडेच हयकारी विचार सर्गांत हाडून सोडटाले. ताका जियेवपाक नवें बळगें दिताले.

मायकलाक आपूण आवडटां, हे कल्पनेनूच लुसी सामके सैरभैर जाल्लें. तें मेळप, ताणें खांदार हात दवरप, मावेन लुसी म्हूण उलो मारप आनी हातांत कार्ड दितना तो हात दामप हें सगळें एक वेगळेंच जग अशें लुसीक दिसलें. तेच खीण ताका परत परत येवजताले आनी तें खोशयेन मुरगुट्टालें.

ल्हानपणा सावन आतां मेरेन लुसीन आपले भोंवतणीं फकत दुख्ख आनी दुख्खूच पळयल्लें. सगळी धुरमटमाराची जीणच ताच्या वांट्याक आयिल्ली. तातूंतल्यान आपल्याक भायर काडपाक कोण तरी आंज येतलो हाचेर ताचो मनाच्या तळा थावन विश्वास आसलो. तें आपल्या मोगाच्या देवा कडेन जिझसा कडेन दिसरात तेंच मागणें करतालें. आपल्या मागण्यांक तो पावतलोच असो ताचो खर विश्वास आसलो त्या जेजूचेर. आनी आज ताचो आंज मायकलाच्या रुपान आयिल्लो. आपल्याक तो सगळ्या दुख्खांतल्यान मुक्ती दितलो हे कल्पनेनूच तें सामकें उचांबळीत जाल्लें. इगर्जेची वाट माड्डीतां माड्डीतां तें मायकल आनी आपल्या सुखी जिविताचीं सपनां रंगोवंक लागलें. आनी वाटेर पांयांक गुणो आपल्यो तशें किर्ते तरी जावन तें सपनांतल्यान भानार येतालें.

हांव जिविताचीं सपनां तर रंगयतां. पूण मायकलाचो आपल्याचेर मोगूच नासलो जाल्यार..? म्हजे लागी तो फकत एक इश्टीण म्हूण पळयता आसत

इगर्जेंतल्यान मागणें करून तें भायर आयलें तेन्ना लुसीच्या मनांत फकत हयकारी विचार घोळटालो, हय मायकल म्हजेर मोग करता, तो म्हाका फटोवपाचो ना. तो म्हाका फकत मोग दितलो...मोग आनी मोगूच..!

ह्याच विचारान लुसीक ते रातची शांत न्हिद लागली...

(चलता...)

म्हापशें-गोंय मो.: 9822101357

उत्कर्ष



मिलींद भरणे

**मिलींद भरणे हे कोंकणीचे एक खडेगांठ वावुरपी. तांकां साहित्याच्या वाचनाची तशेंच ललित आनी काव्य बरोवपांत रुची आसा. तांच्यो कविता वेगवेगळ्या नेमाळ्यांनी उजवाडाक येतात.**

# देवाची करणी



ऐका शारांत एक फामिल रावताली. घोव, बायल आनी दोन भुरगीं, चलो आनी चली. चलो व्हडलो बारा वर्सांचो आनी चली स वर्सांची. तांचो स्वताचो धंदो आशिल्ल्या कारणान खावन पिवन सुखी अशी ही फामिल.

चली सामकें सगळ्यांचें आवडतें आशिल्लें. शिकूंक तशेंच खेळांतूय हुशार आशिल्लें. भुरग्यां मदीं स वर्सांचें अंतर आशिल्ल्या कारणान भावाक भयणी बराबर खेळपाक आवडनाशिल्लें. ताका घरांत खेळपाक कोणूच नाशिल्ल्या कारणान तें आवयक सदांच सांगतालें. तातूंत आनी लॉकडावन. तें बाबडें सामकें बेजारतालें. "मम्मा म्हाका एक भयण हाड." आवय ताचें उतर फाफडून उडयताली.

"आगो तुमी दोगां आसात म्हजो जीव खावंक आनीक तिसरें कित्याक?"

पूण चली आयकत नाशिल्लें. हट्ट घेवनूच बशिल्लें. लॉकडावन आशिल्ल्या कारणान शाळाय नाशिल्ल्यो. सगळेंच ऑनलायन चलतालें.

ते चलयेची शाळेंतली बाई सामकी आवडीची आशिल्ली. सगळ्यो गजाली तें ते बाईक सांगतालें. पूण शाळाच बंद आशिल्ले कारणान ताका ती बाईय मेळनाशिल्ली.

अशेंच दीस गेले. अकस्मात ते चलयेची एक दीस तकली दुखूंक लागली. दूख म्हणजे कितें तर फोडाफोड. दोतोराक दाखयलें. वकल बी लागलां आसत म्हणून दोळे तपासून घेतले. पूण निदान जायना. कांयच सांपडना. हळुहळू ताका कमी दिसूंक लागलें आनी चलतना लकूंकशें लागलें. बापायन ताका न्यूरो सर्जनाक दाखयलें. थंय ताचो विंगड विंगड तपास केलो. MRI केलो आनी निमाणें ते चलयेक मेंदवाचो तुमोर आशिल्ल्याचें निदान जालें. तशेंच आनीक फुडें तपास करून तो सादो सुदो तुमोर न्हय तर तो मेंदवाचो कांक्र आशिल्लो आनी तो बरोच फुडें पाविल्लो. म्हणजे दोतोरान जिणेची गॅरेंटी फक्त म्हयनाची दिल्ली. तो कांक्र तकलेंत खूब पसरलेलो. हें आयकून आवय बापायचेर तर दोंगरूच कोंसळ्ळो. तांकां कितें करप तेंच कळना जाले हेवटेन ते चली आपल्याक भयण हाडूंच म्हणून आवय फाटल्यान लागिल्ली

दीस वचत रावले आनी हेवटेन चलयेची भलायकी वाट लागत गेली. निमाणें तें म्हयनो उलगूंक दोन दीस आसा म्हणल्यार भायर पडलें. आवय बापायक तर हो संवसारूच नाका अशें जालें.

अशेंच दोन म्हयने गेले आनी अचकीत एके राती त्या भुरग्याचे बाईक सपनांत तें चली आयलें आनी तिका म्हणूंक लागलें... "हांव आयलें आं!" बाई न्हिदांतल्यान कच्च करून जागी जाली. तिका अजाप जालें, हें चली म्हज्या सपनांत शें कित्याक आयलें?? तिका खबरूच नाशिल्लें तें चली गेल्ल्याचें. तिणें दुसऱ्या दिसा ते चलयेचे आवयक फोन केलो आनी खबर सांगली. तेन्ना आवयन चली गेल्ल्याचें सांगलें. चार दिसांनी आवयक आपूण गुरवार आशिल्ल्याचें लक्षांत आयलें. अल्ट्रासावंड करतकच कळ्ळें, जुंवळीं आसात. आतां चलो काय चली हें कळूंक शक्य नाशिल्लें. पूण तिका दुबाव मारलो आपलें चली परत जल्म घेता आनी वांगडा आपले भयणीक घेवन येता. तिका बाईच्या उतरांची याद जाली, चलयेन सांगिल्लें तें आपूण आयलें म्हणून. णव म्हयन्यांनी आवय बाळंत जावन जुंवळ्यो चलयो जाल्यो. ताणें सांगिल्ल्या प्रमाण तें आपले भयणीक घेवन आयलें.

आवयन आपले एके धुवेचें नांव पयलींचेंच रिंकू दवरलें तर दुसऱ्याचें टिंकू. आज तीं जुंवळीं तीन वर्सांचीं जाल्यांत. रिंकू सामकें रिंकू सिनीयरा [illegible] दिसता. दोगांय जुंवळीं खुशाल आसात. आनी सगळी फामिल दोगांय चलयांची अपुरबाय करपांत खंयच फाटीं रावना.

कुंभारजुवें- गोंय मो: ९४०५२२२८२८

अक्षरकणी



हर्षा
सदगुरू
शेटये

कोंकणी साहित्यांत आपली खाशेली वळख निर्माण करूंक सातत्यान प्रयत्न करपी लेखिकां मदीं **हर्षा शेटये** हांचें नांव मुखेलपणान नदरेक भरता. कविता ह्या साहित्य प्रकारांतल्यान आपली वळख सांगतनाच ललित निबंध,बाल साहित्य आनी प्रवास वर्णनाच्या मळाचेरूय तांणीं आपली खाशेली सुवात सुगूर केल्या.तांचो हेर पुरस्कारां वांगडाच 'बिम्ब' पुरस्कारानय भोवमान जाला.

कोवीड काळांतलें वाचन

# मुकेशाले रंगतरंग



सद्या कोविडान गोंयांत सामके हात पांय पसरायल्यात.दर दिसा पन्नासां वयर मरणां जातात. लागिंचो, पयसुल्लो, वळखीचो बळी पडत आसा. जीव सामको आकूळ पिकूळ जाता. कांयच सुचना. तरीय हांव जाता तितलें सकारात्मक विचार मनांत केळयतां.

खूब कितें बरोवपाचें मनांत आसा. लेख, काणुल्यो. पूण अशें मर्णसांवट पातळिल्लें आसतना पेन कशेंच फुडें वचना. हरशीं खंयचोय लेख तकलेंत शिजतकीच पानांर वाडले बगर सूख लागना. पूण आतां तेंवूय घडना.

ललित लेखन हो म्हजो आवडीचो साहित्य प्रकार. बरोवंचे परसूय वाचपाक चड आवडटा. म्हजें मन तातूंत रमता. ते खातीर म्हजे कडेन आशिल्ले कांय लेख संग्रह हातांत घेतले. कांय संग्रह पयलीं वाचिल्ले तर कांय नवे. कांय ह्याच दिसांनी हातांत पडिल्ले. शंकर भांडारींचो *पावला कणकणी*,मुकेश थळयालो *रंगतरंग*, लक्ष्मीनारायण पारजालो *मेरेवयलो गांवकार*, दत्ता दामोदर नायकालें *जाय कांय जूय* आनी *स्मशानांतलीं भाशणां*, तुकाराम शेटीलो *मनमोतयां*....

खूबशे संग्रह पयलीं एकदां वाचिल्ले. पूण एक वाचक म्हणून वाचिल्ले. पूण तातूंतले कांय ह्या कोरोनाच्या काळांत खोलायेन, अभ्यासकाचे नदरेन वाच्चे अशें दिसलें. तो विचार सुचलो तो ह्याच दिसांनी मुकेश थळयाचो रंगतरंग हातांत पडिल्लो तेन्ना. तेच नदरेन तो पयली वाचपाक घेतलो. हाचे आदीं मुकेशाचे 'वळेसर', 'हंसध्वनी' आनी 'जीवनगंध' हे निबंद झेले हांवें वाचल्यात. हीं पुस्तकां म्हळ्यार आटीव घोटीव निबंदांची मेजवानी. मुकेशान कांय कथाय बरयल्यात. *दोरेमीफा...सारेनीसा* सारकी अप्रतीम कथा आनी उपरांत ताचेरूच आदारीत नाटक ताणें कोंकणीक दिलां.

मुकेश म्हजो चौगुले कॉलेजांतलो क्लासमेट. अकरावेक, बारावेक विज्ञान फांट्यांत आमी एकाच वर्गांत आशिल्लीं. मागीर हांवेंय कॉलेज बदल्लें, तोवूय पणजे गेलो आनी संपर्क उरलो ना. पूण मजगतींच्या काळांत लेखक म्हूण आपली वळख ताणें दाट केली.

*रंगतरंगांतले* कांय निबंद वाचतना तर हांव तातूंत रंगून शेणलें म्हळ्यार अतिताय जावची ना. आमचे पिळगेन एकेच तरेचें भुरगेपण अणभवलां. ते खातीर काळाच्या काळखांत गडप जाल्ले ते दिवे, सरकारी प्राथमीक शाळा, पावस नांवाची कविता, रंग श्रावणाचे, म्हाड्डोळचें तेन्नाचें विश्व हे निबंद म्हाका म्हज्या भुरगेपणांत घेवन

गेले.

'दोंगरा माथ्यार' हो निबंद वाचून तर म्हज्यो यादी मुकेशाक कश्यो कळ्ळयो हो प्रस्न म्हज्या मनांत आयलो. हांव तर मुकेशा कडेन ह्या संबंदान केन्नाच उलोवंक ना. सांखळे म्हज्या आज्याल्या घरा फाटल्यान दोंगर. ह्या निबंदांतल्यो सगळ्यो यादी हांव जगलां.

हे निबंद वाचतना मुकेशाची शब्द संपदा आकांताची हें जाणवता. कितलींशींच रूपां, शब्दसया, प्रतिकां, प्रतिमा मुकेशान आपल्या निबंदांत सहज वापरल्यात. तो बरयता - पावस गालमो करो शेनता. गालम्याची उपमा पावसाक फक्त मुकेशूच दिवंक शकता.

मुकेशाची निबंदकार, साहित्यकार म्हूण निरिक्षणशक्त खोल आनी जबरदस्त. ताच्याच उतरांनी सांगचें जाल्यार तो स्मरणरंजनाच्या बॅटरेदिव्यान यादींचो सोद घेता. आनी म्हजें असलें फाटल्या यादींनी रमपी मनीस तातूंत म्हजे शेणिल्ले खीण सोदता.

मुकेशाच्यो यादी जिव्यो तट्टटीत. तो कांयच विसरूंक ना. आपणाले अणभव तो सुटसुटीत भाशेंत सांगता. केन्ना केन्ना आमी पळयतात - सुटसुटीत, आटीव बरोवपाच्या नादांत बरपांतली ओलसाण शेणटा, बरप रूक्ष जाता. पूण मुकेशाल्या निबंदांत तशें घडना. एखाद्री मुर्त कोंरांतची तसो मुकेश निबंद कोंरांतता. अस्सल कोंकणी वासाळ शब्द, देखी, म्हणी मुकेशाल्या निबंदांत रंग भरतात. वाचपी गुल्ल जावन वता.

स्पश्टतेंतली स्पश्टता, माथाळ्या खातीर माथें खरपितना, माय डिक्शनरी हे निबंद तर नव्या बरोवप्यां खातीर मार्गदर्शक अशे. मुकेश म्हणटा - माथाळो हो नांगर करो. योग्य माथाळ्याच्या नांगराक बांदतकच साहित्यकृती भरकटना. माथाळो तिका घट्ट धरून दवरता. माथाळो दिवपाक एक वेगळेंच संपादन कौशल्य लागता. माथाळो दिवप ही एक कला. आनी मुकेशाक ती होलमल्या.

मुकेशाच्या उतरांनी सांगचें जाल्यार - योग्य माथाळो दिवन कलाकृतीक उंचाय दिवन ती खंयचे खंय पावोवं येता. माथाळो कितलो बरो आनी करो आसचो? इतलो की ताचे परस आनीक बरो माथाळो ताका दिवं नजो इतलो.

ह्या पुस्तकांत मुकेशान प्रकाश थळी, हरदत्त खांडेपारकार, निरूपा नायक, अजित केरकार, बादल सरकार हांचीं व्यक्तिचित्रां बरयल्यांत. हांव बरयल्यात म्हणना, ताणें तीं फिशालकायेन पितारल्यांत. निरूपा नायकाचेर बरयल्ल्या व्यक्तिचित्रांत मुकेशाची 'उळउळपी कुकुडसो' ही कविता आयल्या. हाचे पयलीं हांवें मुकेशाची कविता केन्ना वाचूंक नाशिल्ली. जबरदस्त आशय विशय आशिल्ली कविता... कांय ओळी दिवपाचो मोह जाताच...

त्या तेंपार
त्या रानांत
घोग्यांनी पावस पडटालो.
पाखाटो फुलोवन मोर नाचतालो.
एकलोच.
काल त्या खातोणांत
एक कोंबलो
स्वताक मोर समजून
थेर कांडटालो.

कसलीच समज नाशिल्ले लोक ह्या जगांत कशें विटोवन दवरतात , ताचेर बडी मारपी ही प्रभावी कविता. व्हडली आसा ती.

मुकेशाली भास टवटवीत. निजाचे अणभव, खंयच उखलापेंपण ना. सकारात्मक विचारसरणी. ... ह्या लेखकाक हें कशें सादता काय? ह्या प्रस्नाची जाप 'म्हजी साहित्यीक घडण आनी साहित्यीक नदर' ह्या निबंदांत मेळटा.

मुकेश खंयच गोंदळायना. प्रस्न कमी, जापो चड अशे तरेन सगळेंच सोंपें करपी हो शब्दांचो जादूगार.

*रंगतरंग* वाचून कितलेऽ दिसांनी आज पेन हातांत घेन दिसले.

आतां 'शंकर भांडारी'चें *पावला कणकणी* वाचूंक घेतलां.



मडगांव-गोंय. मो. 9850530152

विज्ञान



गौतम जल्मी

म्हायती तंत्रगिन्यान अभियांत्रीक म्हूण पणजे आल्तीन हांगा एके खाजगी कंपनीत काम करपी **गौतम जल्मी** हांकां ल्हानपणा सावन खगोलशास्त्राची खुबूच आवड. पर्यावरण तशेंच खगोलशास्त्रा सारक्या दुर्मीळ विशयांचेर चडांत-चड म्हायती मेळोवन ती आपले परीन फुडें पसरोवपाचो अतिरिक्त भार घेवन वावुरतात. खरें गोंय सोदपाच्या उद्देशान, वेगवेगळ्या गांवगिऱ्या वाठारांनी भोंवून पर्यावरण संदर्भात देवरायो (Sacred Groves) आनी पुरातन खगोलशास्त्र (Ancient Astronomy) हाचेर बारीक अभ्यास करतात.



# वेळ कितलो जालो ?

*आमकां जें आतां दिसता, जें आमी अणभवतात, तोच खरो वेळ. एक एक उलगल्लो खीण हो वेळ. मुळांत वेळ (Time) आनी तांची सुरवात हो फक्त एके सुवाते वयलो (Space) इल्लोसो कण (Singularity) आनी त्या कणांतल्यान एका खिणां भितर जाल्लो हो सगळो उगम (Big Bang).*

सकाळचीं साडे सात काय रातची आठ

ना,ना,गैरसमज करून घेवं नाकात, हो तर म्हजो वैयक्तीक सर्जनशील कार्या खातीर राखून दवरिल्लो वेळ. सकाळीं घरांतल्यान भायर सरऽ पासून, तें जगभर हेडोन बी परतो घरा पावऽमेरेन. थोड्यांचें आसता न्हु,'घरा रावून तूं कांयच कामाचो ना' असले थोमणे आयकून घेवपाचे! हांव तातुंतलोच एक प्रकार, म्हूण हें अशें. पूण मुळांत, त्या प्रस्नाचो संदर्भ हांगा वेगळोच आसा.

वेळ कितलो जालो...?

शाळेंत वचपी एका नेणट्या भुरग्या पासून, ते खाटीर लवंडून हात-पांय हालोवंक शकनाशिल्ल्या म्हाताऱ्या जाणट्या पर्यंत, बुद्द आयिल्ल्या प्रत्येक मनशाक, मनांतल्या-मनांत जावं वा दुसऱ्याक कोणाकूय विचारून, दर दिसा, वराक एकदा हे सरासरीन, कमीच-कमी दिसाक २० ते ३० वेळां तरी हो प्रस्न पडपाकूच जाय. आता पांच मिनटांचो वेळ घेयात आनी मेजूंक लागात, पूण मेजतां-मेजतां वेळ कितलो जालो हाचें मात भान दवरात.

सकाळीं जाग येतगीर वा उठचे-उठोन..., च्या पियेतगीर वा कसल्याय कामांक घरांतल्यान भायर सरच्या वेळार..., शाळेंतलो ना-आवडटो वर्ग केन्ना सोंपतलो तें पळोवंक..., भूक लागतना वा बेजार येतना..., हाची वळेरी तर लांबचे लांब आसतली. आनीकूय मजेशीर करून सांगचें जाल्यार, म्हाज्या सारके पिशे तर निमाणो वेळ कितल्यांक पळयिल्लो आनी पर्थून वेळ कितलो जालो, हें कितल्या वेळा उपरांत पळयता, हें लेगीत जाणून घेवपा पासत वेळाक सोडीना.

जरी वेळाचो बरो उपेग करूं वा ना करूं, वेळाची किंमत समजूं वा ना समजूं, वेळ सारको आसूं वा नासूं, पूण तो आमकां जाय. प्रत्येकाच्या दिश्टिकोनांतल्यान ताचो अर्थ जरी वेगवेगळो आसलो, तरी वेळेचें भान आसल्या बगर मनीसूच सोड तर जनावर वा कसल्याय जिवांक लेगीत जगप शक्य ना आनी समज जगलेच जाल्यार ताका कांयच अर्थ आसचो ना.

सकाळ जशी-जशी उजवाडटा, तशी-तशी पक्षी-फुलपाखरां आपल्या खाणां-जेवणांच्या सोदांत भायर सरतात. हो तांचो सगळ्यांत सक्रिय वेळ. हेर जीव-जनवरांचेंय तशेंच, झाडां-पेडां वांगडा तांचीय बी आपली वेगवेगळी नियोजीत कामां करपाचो वेळ हो दिस-रात आनी रुतु-चक्रां प्रमाणे थारिल्लो आसता. खंयच्या वेळार कसलें काम केल्यार ताचो सगळ्यांत बरो परिणाम जावपाक शकता हें तांकां ज्युस्त खबर आसता आनी दर वेळा ते त्याच प्रमाणे वागतात. तीं मोनी जरी आसली तरी एके निश्ठेन ह्या वेळपत्रकाक मान दिवन वावुरतात. तशेंच गरजे भायर केन्नाच दुसऱ्यांक त्रास करी नासतना, आपलें अस्तित्व तिगोवन दवरपा खातीर सैमाचे सगळे नेम पाळटाय बी. मनशांनी खरी देख घेवची ती हांचे कडल्यान. ना जाल्यार हांव आसां आपलो, सगळ्यांत हुशार जातीचो प्राणी आसून लेगीत केन्ना केन्ना आळशी आनी शिस्त नाशिल्ल्यावरी वागता, शिकलेलो आसून सुद्दा अशिक्षित कसो, कितें बरें कितें वायट तें पळोवंक दोळे आसून देखून कुड्डो.

पुरातन काळा सावन, आमच्या जाण्टयांनी थारायिल्ल्या नेमा-प्रमाण, सादारणपणे सकाळच्या पारार जाग आयली काय तो उठपाचो वेळ. पयलींच्या तेंपार तरी कसल्याच आदारा शिवाय, फक्त ही सैमाची चक्रां समजून, त्या नेमाची अनुसरणी जाताली. पूण आतांचे मुस्तींतलों हांव, गजर (alarm) लावन लेगीत उठपाक आदांवती करता. कितलोय कळाव जावं, झक मारीत लवंडोन रावन, पूण त्या घडयाळींत वेळ कितलो जाला हें पळयल्या बगर खाटी वयलो कसोच हालचों ना. वेळाक अशे तरेन मान दिवपी एक खेरीत जातीचो प्राणी.

जाती वयल्यान याद जालें, पयलींच्या काळांत कशे आपले थारावीक जाती वा एकठांय रावपी जमातींची, भौशीक, सामाजीक तशेंच वेवसायीक कार्याचो एक नियमीत वेळ थारिल्लो आसतालो! पूण आतां तशें फक्त पुस्तकांनीच बरयिल्लें वाचूंक मेळटा. (मुद्दम सांगतां, हांगा जाती ह्या शब्दाचो उल्लेख त्या उतराचो पुरातन काळांतलो खरो अर्थ येवजून केला, न्हय आतांचे मुस्तींत जो आमी चुकीचो अर्थ लायतात तें समजून. उपकार करून पर्थून गैरसमज करून घेवं नाकात...)

उदरणाक, काम करपी जातीचे लोक, जे नेमावळी आनी कायद्या प्रमाण आप-आपल्या कामांक लागताले जाल्यार व्यापारी लोक आपल्या धंद्याक. हेच तरेन शक्तीवान, झुजारी, शिपाय लोक कायदे घालून सगळ्यांचें रक्षण करपाक जाल्यार हुशार लोक तकली लडोवन तांकां सुचोवणी दिवपाक. ह्योच आशिल्ल्यो त्यो कर्तुत्वा वयल्यान थारायिल्ल्यो मुदलच्यो चार जाती, जे आप-आपल्या तांकी प्रमाणे आनी कार्य क्षमते प्रमाण वेगवेगळे रावन जीण सारताले.

पूण आताच्या युगात मजा अशी जाल्या, वेगवेगळे जातीचे लोक प्रत्येक घरानी सापडटात. हांगून आवय ही सर्वश्रेश्ठ, जी लागी-लागी सगळ्याच जातीची भागिदार. तिका बाबडेक एकूय प्रकारचें काम चुकना. एखाद्र्या वेळार चुकलेंय बी जाल्यार म्हाज्या सारको, कारण नासतना स्वताक उच्च जातीचो समजुपी, तिका तें याद करून दिवपाक विसरचोना. इतलें आसून लेगीत तिका फावो तो मान केन्ना मेळच ना. हीच आवय, केन्ना-केन्ना स्वता बद्दल चिंती नासतना, वेळा-काळाचें भान विसरून लेगीत सगळ्यांची बरे तरेन जतनाय घेता. तरीपूण थोडे लोक वेळ येता तसो तिका फटोवपाक वा पिशी करपाक सुद्दा फाटीं सरनात. चल आसूं, ह्यो खबरो... आतां कुशीक दवरूंया. हांव पर्थून पर्थून मूळ विशया वयल्यान पयस कसो पावतां तेंच कळना.

तर ह्या संवसारांत जगणें आस-पर्यंत, दर एकल्याकडे आसून लेगीत प्रत्यक्षांत ताचो अधिकार कोणाचकडे नाशिल्लो असो हो भोव मोलादीक वेळ आयलो खंयच्यान...? आमी तयार केलो काय कोंणी हाडून दिलो...? तो दिसावळीच्या तकट्यार बरयिल्लो आसता काय कोरातिल्ल्या घडयाळांत घुंवत रावता...? वेळ हो सुरवात आशिल्लो काय अंत

नाशिल्लो...? वेळ होच सगळ्यांत पयलो काय ह्या वेळाआदींय कोण आशिल्लो...? वेळ कितलो जालो हो मुळांत एक प्रस्न काय सगळ्यांत मोट्या प्रस्नाची ती एक जाप...?

सगळे जाणाच आसतले, ही आमची सृश्टी, हें जग, हो आख्खो ब्रम्हांड उत्पत्तीक येवप हें एक व्हडलें कुवाडेंच. तें केन्ना अस्तित्वांत आयलें हाची जाप कोणाकडेच आसची ना, कारण हें सगळें घडिल्लें तेन्नाची साक्ष दिवपी कोणूच नासलो आनी ताचे स्पश्ट अशे पुरावेय खंयच सापडूंक नात. आजून मेरेन जें कितें जाणवलां तो फक्त सिद्धांता वयलो अंदाज, पूण विज्ञानाच्या (भौतीकशास्त्राच्या) बळार रचिल्लो, पुराय तरेन अभ्यास करून, सगळ्या शक्यतायांची गणिती-विस्कटावणी करून बांदिल्लो.

आमकां जें आतां दिसता, जें आमी अणभवतात, तोच खरो वेळ. एक एक उलगल्लो खीण हो वेळ. मुळांत वेळ (Time) आनी तांची सुरवात हो फक्त एके सुवाते वयलो (Space) इल्लोसो कण (Singularity) आनी त्या कणांतल्यान एका खिणां भितर जाल्लो हो सगळो उगम (Big Bang). हाच्या मुखार जें जें कितें घडलां तोच खरो बदल आनी ह्या सगळ्या बदलांचेंच रूप म्हळ्यार आमचो अस्तित्वांत आशिल्लो हो वेळ.



ह्या वेळाक सर्वस्व मानून ताची खरी वळख जाणून घेतली ती आमच्या पुर्वजानीच. तांच्यांनी आपणाली पुराय जीण ह्या काळ-चक्राक समजून घेवपाक घालयली. दीस आसूं वा रात, हे सृश्टींत, आपल्या सरभोवतणी जें दिसता, जें घडटा, त्या बदलांची नोंद करून, ह्या निसर्गाच्या हालचालींचेर आपणालें जगणें समकालीन केलें, कित्याक तर फक्त हो वेळ कितलो जालो तें कळपाक. त्या वेळाची व्याख्या, ताची परिभाशा वळखुपाक. वेळाची किंमत, वेळाचें म्हत्व हें तांचे शिवाय कोणीनूच अजून पर्यंत बरे तरेन समजल्लें ना. त्या वेळार तांच्यांनी ही इतली कास्तिग घेतली ती फक्त आपलें अस्तित्व तिगोवन दवरपाक, तशेंच आपले मुखा वयले पिळगेचो (आमचो) फुडार घडोवपाक.

अशें म्हणटात ,पोटा-पाण्याचो जेन्ना प्रस्न येता तेन्ना कोणूय, खयच्याय थरार वचून आपले हात पांय मारून कितें तरी उत्पन्न मेळोवपाचो यत्न हो करताच. पुरातन काळांतल्या आमच्या जाणट्यांचेरूय त्या वेळार असलोच कितें तरी प्रसंग आयलो. फक्त शिकार करून जगप इल्लें इल्लें कुस्तार जावपाक लागलें आनी खाणां-जेवणाची पर्यायी वेवस्था सोदप ही काळाची गरज जावन उरली. करतां करतां शेती-कामाच्या रुपान तांकां एक नवो सोद लागलो. आतां शेती-काम म्हणलें

काय ह्या भूतळा वयले सृश्टी-सैमा वांगडा ताळमेळ दवरप हें आयलेंच आनी त्या उद्देशान हें काळ-चक्र समजून घेवपाचोय त्या वेळार यत्न जालो. केन्ना न्हिदप जाल्यार केन्ना उठप, केन्ना खावप जाल्यार केन्ना जेवप, केन्ना पावस येतलो जाल्यार केन्ना खणपाचें, केन्ना भात लायतगीर केन्ना पिकतलें. एकान एक असल्या प्रस्नाक आसली फक्त एकुलती एक जाप - वेळ कितलो जालो.

जगांत किर्ते-किर्ते घडटा, केन्ना घडटा आनी कित्याक लागून घडटा ह्या प्रस्नाच्यो जापो समजून घेता आसतनाच, ही पुराय सृश्ट घडपा फाटलें सगळ्यांत व्हडलें रहस्य तांकां उमजलें. तशेंच मनीसवंशाचो फुडार जाचेर निंबून आसतलो, त्या अध्यायाचोय सोद लागलो. होच आसलो ह्या पुराय विश्व आनी ब्रम्हांडांतलो एकमेव अद्वितीय सत - वेळ.

शास्त्रशुध्द पद्दतीन सांगपाचें जाल्यार ह्या वेळाचे तीन मूळ घटक आसात - १. दिस-रातीचें चक्र (पृथ्वीन स्वता भोवतणी मारिल्लो फेरो), २. मास वा म्हयनो (चंद्राचो पृथ्वीक मारिल्लो भोंवताडो) आनी ३. पृथ्वी वयलें पुराय रुतु-चक्र वा वर्स (पृथ्वीचो सुर्या भोंवतणचो फेरो). कोणूय मानू वा ना-मानू, पूण आमची पुराय जीण ही ह्याच तीन घटकां भोंवतणी फिरत आसता.

आमच्या दिश्टिकोनांतल्यान हे तिनूय घटक जरी आपापले परीन स्वतंत्र आसले तरी तांकां थारावीक अशी स्वताची वळख आसना, पूण ती तांकां मेळटा ते रातीच्या वेळार इल्लेश्या दिसपी शेकड्यांनी, हजारांनी ताऱ्यां कडच्यान. हय, अजाप जावपाची गरज ना, एकाद्र्या वेळार असो विचार येत, हे कुस्कुटा येदे तिबके जे सगळे एकेच भशेन दिसतात ते कोणाक कसली वळख दितले? पूण खरें म्हळ्यार, ते आमकां दिसपाक जरी ल्हानशे दिसले तरी कर्तृत्वान (आनी आकारान) ते खूब म्हान. फुडें, एकामेकां वांगडा बराबरी करतना तांकां अशें जाणवलें , त्या ताऱ्यांच्यो सुवातो केन्नाच बदलनात आनी हेच गजालीचो फायदो घेवन तातुंतल्या प्रखर दिसपी ताऱ्यांक एक एक करून जोडून, दिसपट्ट्या वावरांत येवपी वस्तूंचेर आदारून, काल्पनीक चित्रां रेखाटलीं आनी ताऱ्यां पुंजुले (Star Constellations) तयार केले. तातुंतल्या, चंद्र आनी सुर्याचे वाटेर येवपी म्हत्वाच्या पुंजुल्यांक राशी आनी नक्षत्र म्हूण व्याख्या दिली. आतां नाय म्हणल्यार, ही राशी-नक्षत्रां तर सगळ्याक फामाद. आपलें भविश्य जाणून घेवपा भायर तांचो अर्थ चडशांक खबरूय आसचो ना.

खंयच्याय रुतुचक्रांत, प्रत्यक्षांत पुनवेचो चंद्र हो दर वेळा वेगवेगळे राशींत वा नक्षत्रांत (काल्पनीक आकृत्यो) दिसता. ही गजाल लक्षांत घेवन तांच्यांनी चंद्राच्या पृथ्वी-भोंतणच्या प्रत्येक फेऱ्याक एक वेगळी वळख दिली आनी वेगवेगळे रुतु येवपाचो थारिल्लो वेळ जाणून घेतलो (उदरणाक. वैशाख म्हयनो सोपता आनी ज्येश्ठ लागता म्हणसर आमच्या गोंयांत पावस सुरु जाता. वैशाख आनी ज्येश्ठ हीं तुळ आनी वृश्चीक राशींतलीं नक्षत्रां. तशेंच, कार्तिक म्हयनो हो लागी-लागी पावसाळी पिकावळ तयार जावपाचो वेळ. कातियो हो गोंयंचो एक सगळयांत पुरातन, शेतकार समाजांतलो लोक उत्सव, हेच फाटभुंयेचेर आदारून आसा).

होच आशिल्लो त्या काळांतलो वेळाक मेळिल्लो अर्थ, जाच्या आदारार ह्या मनीस जातीची उदरगत जावंक पावली आनी फुडें फावो ती सुदारणा जायत गेली.

आतांच्या युगांत जरी ह्या वेळाची व्याख्या काळा प्रमाणे बदल्ल्या आसली तरी ताची मूळ वळख ही अजुनय तीच आसा आनी सदाकाळ तशीच उरतली. ह्या संवसारांत जिवसृश्टी आसूं वा नासूं, पूण जो पर्यंत ह्या ब्रम्हांडांत एक लेगीत पदार्थ वा कसलोय कण आसा, तो पर्यंत वेळ हो चालूच उरतलो आनी प्रत्येक उलगल्ल्या खिणांक आपल्या अस्तित्वाची जाण ही दाखयत रावतलो.आतां दर एकल्यान थारावपाचें, वेळ कितलो जालो हो खऱ्यांनीच उपराशिल्लो एक मूळ प्रस्न काय ती सगळ्या प्रस्नांची एक बुन्यादी जाप.



सांखळी-गोंय मो. 9922010978

कथिका



निमिशा हरी होबळे

गोंय वैजकी म्हाविद्यालयांत फिजिओथेरपी पदवी अभ्यासक्रमांत निमाणें वर्सांत शिक्षण घेवपी **निमिशा हरी होबळे** हांकां वाचनाची भरपूर आवड. तांकां साहित्यांत खास करून कथा लेखनांत आवड आसा.

ह्या आदीं तांच्यो कथा 'भांगरभूंय' दिसाळ्यांत उजवाडाक आयल्यात. तांच्यो कथा वाचल्यार तांचे भितर फुडारांतलो कथाकार झळकता.

*सगळे लोक तमाशा पळयताले पूण फुडें सरपाक कोण्ण एक पळयनासलो. दिशा कडेन आतां पॅपर स्प्रे उपेगांत हाडच्या शिवाय कांयच पर्याय नासलो. तार्णे स्प्रे भायर काडलो आनी सोमतो त्या चल्याचेर आनी ताच्या वांगड्यांच्या दोळ्यांचेर मारलो.*

# पॅपर स्प्रे...



श्रावण म्हयनो सुरू जालो. रक्षाबंधन लागीं पावलें तसो नंदन मिलेरांत जमा जाल्ले पयशे मेजपाक लागलो. तो मिलेर खासा तार्णे दिशा खातीरूच दवरला म्हटल्यार जातालें. वर्स भरयांत आपल्याक मेळटा त्या पयशांतले इल्ले इल्ले पयशे त्या मिलेरांत घालप आनी रक्षाबंधना कडेन दिशाक भेट घेवपाक तांचो उपेग करप हो नेम तो पंदरा वर्सां जालो पाळीत आसा. फाटल्या वर्सा पप्पा अचकीत जग सोडून गेल्ल्यान तांकां रक्षाबंधन मनोवपाक मेळूंक ना देखून ह्या वर्सा आपूण दिशाक खास भेटवस्त दिवन रक्षाबंधन बरे तरेन मनयतलो असो तार्णे निश्चेव केलो.

पूण दिशाक किर्ते भेटवस्त दिवप हें नंदनाक सुचना जालें. इतलीं वर्सां ताका सदांच बरें बरें दिलें आनी आतां खास अशें दिवपा सारकें कांयच उरूंक ना अशें ताका दिसपाक लागलें. कांयच सुचना देखून नंदनान मम्मी कडल्यान सल्लो घेवपाचें थारायलें.

''मम्मी ह्या वर्सा रक्षाबंधनाक हांव दिशाक किर्ते दिंव गे? ''

चिंतून थकलेल्या नंदनान मम्मीक विचारलें.

''हो आनी कसलो प्रस्न रे? वर्सान वर्स तुकां बरी दिसता आनी दिशाक आवडटा तसली भेटवस्त दितालो. हांव किर्तेय सल्लो दिवपाक गेल्यार म्हजें आयकनासलो आनी आयज अचकीत म्हाका शें विचारता तूं? ''मम्मी अजापली.

''आगे हांव दिशाक उपेगाची आनी वेगळी अशी वस्त दिवपाक सोदतां. ''

''उपेगाची भेट वस्त तर.. तशें जाल्यार, तूं दिशाक ह्या वर्सा पॅपर स्प्रे दी. ''

''किर्ते? पॅपर स्प्रे? हो आनी कसलो स्प्रे? तोय बी मसाल्याचो? '' नंदन अजापलो.

'' आरे, हो स्प्रे अत्तर, सेंट हातूंतलो न्हय. पॅपर स्प्रे बायलांच्या आत्मरक्षणा खातीर एक साधन. आयच्या काळांत लोकांची मस्ती चडूच वाडत आसा. चलयांक नाका ते नदरेन पळोवप, तांची

ठेंड काडप, एकटें आसतना सतावप हें सगळें वाडत आसा. अश्या वेळार चलवांकडेन पॅपर स्प्रे आसत जाल्यार एक बळगें येता आनी चड सतावणी जायत जाल्यार तो स्प्रे त्रास दितल्या चल्याच्या तोंडार मारून थंयसरल्यान त्या वेळार कडसरपाक तरी मेळटा. ''

''वा! आनी थंयच्या थंयच त्या मनशाक ख्यास्तय मेळटा. रक्षाबंधनाक भयण भावाक राखी बांदून रक्षणाचें वचन मागता. भावांक आपले भयणी खातीर आसलेली जापसालदारकेची जाणविकाय करून दिता. पूण भाव आयत्या वेळार पावपाक शकता अशें ना. तेन्ना भयणीन स्वताची राखण करपा खातीर पॅपर स्प्रे सारखें साधन बाळगप आयच्या काळांत खूब गरजेचें आसा. ''

''नंदन, सारकें उलयलो पळय तूं. तुका खबर आसा, हांव वीस वर्साचें आसलें तेन्ना म्हाका तुज्या मामान पॅपर स्प्रे रक्षाबंधनाक दिल्लो. आनी जाणां तूं, तो स्प्रे हांवें दोन दिसां भितर उपेगांत हाडलो. ''

''कितें सांगता मम्मी? दोन दिसां भितर उपेगांत हाडलो? अशें कितें जाल्लें? सांग मगे म्हाका.'' अजापीत जाल्ल्या नंदनाक जाणून घेवपाची सामकी उमळशीक लागली.

'' म्हजी कॉलेज घरा कडल्यान चलत पंदरा मिनटाचे वाटेर आशिल्ली. हांव आनी म्हज्यो चार इश्टिणी सदांच चलत कॉलेजींत यो-वच करताली. कांय दिसांनी आमकां कळ्ळें, वाटेर चलतना दोग चल्यांची नदर आमचेर आसता म्हूण. आमी तांचेर लक्ष दिनासतना आमचे वाटेन वतालीं. पूण त्या चल्यांची मस्तेपणां दिसान दीस वाडत रावलीं. आमी वाट चलता आसतना शिळोण्यो घालप, फकाणां मारप हें तांचें चालूच आसतालें. एक दीस तर आमच्या फुडयान अशे अचकीत उबे रावले आनी आमकां फुडें सरपाक कशेंच वाट दिना जाले. म्हाका तांचो भयंकर राग आयलो जाणां! पूण तेन्ना तांच्या ह्या मस्तेपणाक जाप दिवपाची तांक म्हजे कडेन नासली.

असोच वेळ गेलो. आमी तांचीं मस्तेपणां सोशीत आसलीं आनी म्हाका तांकां धडो शिकोवपाक आजूनूय कसलीच वाट मेळनासली. इतले मजगतीं रक्षाबंधन आयलो आनी योगायोगान तुज्या मामान तेन्नाच म्हाका हो पॅपर स्प्रे दिलो.

नंदन, हें मतींत दवर, 'देव ताकाच पालव दिता जो स्वताची मजत करता.' इतले दीस ह्या चल्यांक कसो धडो शिकोवपाचो हाची वाट पळयतालें आनी तेन्नाच हो स्प्रे म्हज्या हातांत पडलो. दुसरे दिसा हांव कॉलेजींत वतना म्हजी वाट त्या चल्यांनी परत आडायली. हांवें तांकां बरे भाशेन म्हजे वाटेंतल्यान वचपाक सांगलें ना जाल्यार बरें जावचेंना अशें सांगून दवरलें. म्हजे कडल्यान असली धाडशी उतरां येतलीं हें तांच्यांनी चिंतूंक सुद्धा नासलें. आपल्याक आनी परतीं उतरां मेळटात हें तांकां पचूंक ना आनी ते म्हजे कडेन झगडपाक लागले. एकटयान तर म्हजो बळयां हातूच धरलो. हांवें आनीक आनी वेळ केलो ना. दुसऱ्या हातान हांवें बेगांतलो स्प्रे भायर काडलो आनी दोगांयच्या दोळ्यांचेर मारलो. आमची झगडीं पळोवन पयलींच थंय लोक जमिल्ले. तांच्यांनी म्हजें धाडस पळयलें आनी म्हाका पालव दिलो. त्या चल्याक बरोच मार घालो आनी तांकां पुलिसा कडेन दिलें. ते मेरेनच्यान ते चले परत रस्त्यार दिसले नात. ''

'' मम्मी, तुज्या ह्या धाडशी कर्तुबाक लागून तुजे विशिंचो म्हजो आदर आनीकूय वाडलो. लोकांक तूं म्हजी आवय म्हूण सांगपाक म्हाका खूब अभिमान दिसता. ''

नंदनाचें हड्डें गर्वान भरून आयलें.

''नंदन, ह्या जगांत फावो त्या वेळार अन्याय, अत्याचारा आड बळगें दाखयलें जाल्यार कितलेशेच गुन्यांव आळाबंदा हाडपाक येतात. ''

''खरें तुजें मम्मी. पूण मम्मी म्हाका दिसता फक्त पॅपर स्प्रेच न्हय तर दिशाक आत्मरक्षणा खातीर बाकिच्यो गजालीय शिकयल्ल्यो बऱ्यो. हांव बेगिनूच ताका कराटे शिकोवपाक सुरवात करतां. ''

''अरे वा! खूबच बरी सुचोवणी ही. तुज्या असलो भाव सगळ्या भयणींक मेळूं. ''

मम्मी सामकी खोशी जाली.

रक्षाबंधनाचो दीस उजवाडलो. आवज आपल्याक दादा कडल्यान गिफ्ट मेळटलें हें चिंतून दिशा खुशालभरीत आसलें. ताणें नंदनाक सकाळ फुडेंच उठोवन घातलो आनी तयार जावपाक लायलो. दिशा आपुणूय बी बरें नटलें. मम्मीन पाट दवरून



रांगोळी घातली आनी आरतीची थाळी सजयली. दिशान आपणेन जावन गुलाब जामून केल्ले. आपल्या दादा खातीर तार्णे मातशी म्हारगशीच राखी हाडिल्ली.

नंदन पाटार बसलो. दिशान ताका ओवाळ्ळो आनी राखी बांदली. राखी बांदतना दिशाचें लक्ष राखयेचेर कमी आनी गिफ्टाचेर चड आसलें.

''हा! जाली बांदून राखी. गिफ्ट दी आतां दादा! आनीक वाट पळोवंक जावची ना म्हजे कडेन. ''

दिशाचे उमळशीकेची आता शीम-मेर उरली ना.

'' हें घे गो बाय तुर्जे गिफ्ट. कसोच थारो ना न्ही तुकां! ''

'' किर्ते आसा हातूंत? ''

'' तूंच उगडून पळय! ''

दिशान बेगीबेगीन बॉक्स उगडलें आनी जशें गिफ्ट पळोवं नाका, ताच्या तोंडा वयलो हासो निर्शेवर्णेत बदलल्लो.

'' हें किर्ते दादा? पॅपर स्प्रे! हांवें तुकां पळय कितली म्हारग राखी बांदल्या आनी तुवें म्हाका हें हाडलां? म्हाका नाका हें गिफ्ट! ''

अशें म्हणून दिशान पॅपर स्प्रे आनी बॉक्स रागान सोफार शेंवटून मारलें आनी रडत-रडत आपले कुडींत गेलें.

नंदन सामको दुखावलो. आपले भयणीचें आपूण बरें करपाक गेलों तें तिका आवडूंक ना हें चिंतून ताच्या दोळ्यांतल्यान पळपळून दुकां व्हावपाक लागलीं.

मम्मीन जें किर्ते घडलें तें पळयलें आनी ती नंदनाक थातारपाक लागली.

''नंदन, असो निर्शेंव नाका शाण्या. दिशा असमजीकायेन अशें वागलां. एकवेळ ताका हे भेटीचें मोल आता कळचें ना पूण जसो ताचो राग निवळटलो, तूं ताका समजाय. तुकां खबर आसाच, तें तुका कितलें मानता तें. हांव समजावपाक गेल्यार म्हजें कांयच आयकपाचें ना तें. तार्णे आयकल्यार फक्त तुर्जेच. ''

''खरें तुर्जे मां. पूण तें आतां दोन दीस तरी म्हजे कडेन उलोवंचें ना. हांव एक काम करतां. ह्या गिफ्टा वांगडा एका कागदार तुजो पराक्रम बरोवन ताचे कुडींत दवरतां. राग निवळ्ळ्या उपरांत आपल्या आपूण वचून तें गिफ्ट परत उगडून पळयतलें हाची म्हाका खात्री आसा. ''

अशेंच दीस गेले. बिंदास्त भोंवपी दिशा घरांतल्यान भायर सरतना आता सांत-पांच चिंतूंक लागलें. ताचें कारणूय

तशेंच आसलें. एक चलो ताच्या फाटल्यान लागलेलो. ताका परत परत फोन करून बेजार हाडपाक लागलो. दिशाच्या घरा भायर दिसाक चार फावटी तरी तो पासय मारपाक लागलो.शाळेंत वयतना ताची वाट आडोवंक लागलो.

एक दीस तर घरा येतना तार्णे दिशाचेर हात घालपाक यत्न केलो. पूण त्याच वेळार दिशाच्या इश्टांनी येवन ताका वाटायलें. हे घडणुके उपरांत दिशा सामकें कांचवेलें.

किर्ते करूं हांव आतां? भियेवन कशें जातलें? त्या गुंड चल्या खातीर म्हजी जीण शापीत जाल्ल्यावरी जाल्या. परिक्षा लागीं पावल्या आनी शिकपांत सुध्दा लक्ष लागना म्हजें. घरा कडेन हें प्रकरण मांक सांगल्यार ती आनीक भियेतली. आनी भैय्या, तो तर शिकता आनी कामाकूय वता. हें सांगून भैय्याक भेश्टावन उडोवपाचो ना म्हाका. म्हाकाच किर्ते तरी करचें पडटलें. पूण करूं तरी किर्ते?

दिशा खूब चिंतपाक लागलें आनी अचकीत ताका रक्षाबंधनाक भैय्यान दिल्ल्या पॅपर स्प्रे आनी मम्मीच्या पराक्रमाची याद जाली.

आतां कळ्ळें म्हाका हे भेटीचें मोल भैय्या. हो फक्त पॅपर स्प्रे न्हय. ह्या स्प्रे वरवीं तूं आनी मां म्हाका आत्मरक्षणाचो धडो दिवपाक सोदतालीं. तुमचें दिशा आतां वोगी रावचें ना. तो चलो जर परत म्हजे वाटेक परत आयलो जाल्यार ताचें कांय खरें ना.

दुसरे दिसा दिशा भंया विरयत भायर सरलें. पॅपर स्प्रे तें विसरूंक नासलें. अर्दे वाटेर पावून तो चलो सदच्या भशेन परत आयलो. पूण आयज ताचे वांगडा आनीक तीन चले आसले. चारूय जाण गाड्येंतल्यान देंवले आनी दिशाचे दिकेन येवपाक लागले. तांकां पळोवन अशें दिसतालें की तांकां लोकांचो सुध्दा भंय ना.

तो चलो दिशा मुखार येवन उबो रावलो.

'' खंय गो, शाळेंत वयता? आयज शाळेंत नाका गो वचूंक तूं. आयज तूं म्हज्या वांगडा यो! ही पळय गाडी सुध्दा हाडल्या तुज्या खातीर. ''

'' हें पळय, म्हजी वाट सोड! ना जाल्यार तुजें आयज खरें ना. हे लोक तुका सोडचे नात आनी हांवूय बी तुजीं हाडां पातळ करतलें हां! '' दिशान आड्डून सांगलें.

''तूं म्हजीं हाडां पातळ करतलें? आयकतात मरे? '' तो सामको कुच्छित्रिपणान हासूंक लागलो आनी ताका त्या चल्यांनीय साथ दिली.

'' तूं म्हाका कमी समजूं नाका हां! बऱ्या भशेन हांगसरलो चल. तुमकां हांव निमाणें सांगतां. ''

''तूं किर्ते म्हाका निमाणें सांगतलें? चल यो म्हज्या वांगडा. '' अशें म्हणून तार्णे दिशाचो हात धरलो आनी ताका तो गाडये कडेन ओडून व्हरपाक लागलो.

सगळे लोक तमाशा पळयताले पूण फुडें सरपाक कोण्ण एक पळयनासलो. दिशा कडेन आतां पॅपर स्प्रे उपेगांत हाडच्या शिवाय कांयच पर्याय नासलो. तार्णे स्प्रे भायर काडलो आनी सामतो त्या चल्याचेर आनी ताच्या वांगड्यांच्या दोळ्यांचेर मारलो.

त्या गूंड चल्यांक कांय खिणां खातीर किर्ते जालें तें कळूंकूच ना. ते सोमते जमनीर बसले. वेळ वगडाय नासतना दिशान परत तांच्या दोळ्यांचेर स्प्रे मारलो आनी तांकां खोटावपाक सुरवात केली.

लोक दिशाचें धाडस पळोवन अजापले. गर्देंतलो एकटो म्हणपाक लागलो, जर हें चेर्डेंशे चली इतलें बळगें दाखयता जाल्यार आमी हांगा वोगी रावून इतलें पळयलें ती व्हडली लज आमकां! चलात रे, मारा ह्या नराधमांक! ''

लोक त्या चल्यांक मारपाक लागले आनी तांकां पुलिसां कडेन दिले. पुलिसांनी दिशा कडल्यान कागाळ बरोवन घेतली आनी ताचे मम्मीक आनी भावाक आपोवन घेतलें.

''तुमचे चलयेन जो आयज पराक्रम गाजयला तो सामको तोखणायेचो. एके घडणुकेन तार्णे कितल्याश्याच जाणांक आत्मरक्षण आनी अत्याचारा आड तोंड दिवपाची लोकांक शिकोवणी दिली. खरेंच तुमची चली धाडशी म्हणपाची!'' इनस्पेक्टर दिशाची तोखणाय करपाक लागलो.

''मागीर चली कोणाची तर ती!'' मम्मीन दिशा कडेन अभिमानान पळयलें.



मर्दे-दिवचल.मो. : ८३२९५३२१६३

यादींचो-पोसो



ज्योती दत्तात्रय देशपांडे

# परिश्रम आनी स्वावलंबनाचें धाम-वर्ध्यांचें सेवाग्राम...



**श्रीमती ज्योती दत्तात्रय देशपांडे** म्हळ्यार पुर्वाश्रमीच्यो मालू रघुवीर कामत. तांचो बापूय रघुवीर श्रीनिवास कामत हे गोंयच्या स्वातंत्र्यलढ्यांतले सेनानी आनी राजकैदी. ताका लागून ल्हान पिरायेचेरूच लेखिकेचेर गोंय मुक्ती चलवळीचो [त्या काळची जयहिंद चळवळ] प्रभाव पडलो. तांच्या बापायचे मित्र नामनेचे साहित्यकार रवीन्द्र केळेकार हांच्या मार्गदर्शना खाल वर्ध्याक महिलाश्रमांतलें शिक्षण, आचार्य विनोबा भावे हांच्या भूदान पदयात्रेंत सहभाग. अजूनय तांचें रासवळ वावरांत योगदान आसा. ह्यो आसात तांच्या जिवितांतल्यो कांय यादी खिस्ती खिस्तीनी...

**स्वा**तंत्र्य चळवळींतले म्हज्या बाबाचे सहकारी श्री.रवीन्द्र केळेकार हांचे लागीं तार्णे पत्रवेव्हार सुरू केलो. केळेकार त्या वेळार वर्ध्याक काकासाहेब कालेलकरांचें काम पळयताले. काकावाडींत ते रावताले. वर्ध्याचे गांधीवादी संस्थेंत म्हाका दाखल करून येवचें अशी विनवणी बाबान केळेकारांक केली. तांचे लागीं तार्णे जितलो पत्रवेव्हार केल्लो ताच्याकूय दोब्राद पानाचीं पानां म्हाका बाबाचीं पत्रां येतालीं. आपलें घर आनी गांव सोडून हेर कडेन शिक्षण येवप, वावरप कितलें म्हत्वाचें आसता हें तो म्हाका पटोवन दितालो. म्हजे वांगडाच आई आनी आज्जेकूय म्हत्व पटोवन दिवपी लांबचे लांब पत्रां येतालीं. घरांत आरती परती चर्चा चलताली.रवीन्द्रबाब केळेकार हांणी, 'धुवेक आमगेर धाडून दी, तिका संस्था दाखयतां,तातूंत रावली ना जाल्यार आमगेर रावतली, आमगेरूय मानवलें ना जाल्यार परत गोंयांत धाडून दिवं ' अशें कळयलें. पत्र वाचून म्हाका माल्सो धीर आयलो. रवीन्द्रबाबांची घरकान्न गोदूताई आनी तांचो धाकटुलो चलो गिरीश थंय रावतालीं. म्हाका थंय वचपाची उमेद आयली. कॉलेज शिक्षण ना जाल्यार हेर कितें तरी उच्च वा वेगळें शिकचें अशें मनांतल्यान दिसतालें. घरच्यांचो आनी सोयऱ्यां धायऱ्यांचो विरोध पत्करून बाबान म्हाका वर्ध्याक धाडपाचें थारायलें. बाबाची पयसुल्ली नदर आनी जिद्द अशे घटमूट बुन्यादीचेर म्हजो फुडार उबो जातालो.

हांव सतरा वर्सांचें तेन्ना. गोंय तें वर्धा एकट्यान प्रवास कसो करपाचो? म्हजो सगळ्यांत व्हडलो आतेभाव श्रीपादभाऊ कुंकळयेकार वेपार-उद्देगाच्या निमतान पुणे-मुंबय यो-वच करी. ताचे वांगडा हांव वर्ध्याक वचूंक भायर सरलें. प्रवासाचो आरंभ मडकय-म्हाड्डोळ पांयांनी, म्हाड्डोळ-कुर्ळे बस, कुर्ळे-मिरज, मिरज-पुणें, पुणें-मुंबय, मुंबय-वर्धा असो रेल्वे प्रवास. दोन दीस,दोन रातींच्या प्रवासा उपरांत सकाळीं वर्ध्याक पावलीं. स्टेशना साकून काकावाडी दोन किलो मिटरांचेर. थंय केळेकार कुटुंब आमच्या येवकाराक आयिल्लें. तशे श्रीपादभाऊ आनी केळेकार शेजारी कशे। श्रीपादभाऊ कुंकळयेचे जाल्यार केळेकार प्रियोळचे. देखून तांची वळख आशिल्ली. म्हाका तर सगळेंच नवें. तरीय केळेकार आनी गोदूताई हांच्या मायेस्त येवकाराक लागून म्हज्या मना वयलो खुबसो ताण देंवलो. तांचो अडेज वर्सांचो गिरीशूय म्हजे भोंवतणी घुटमळटालो.

सेवाग्रामांत सगळेच खादीचे कपडे

वापरतात म्हणपाचें कळटकच हांवें म्हजे वांगडा हाडिल्ले कपडे आनी कानांतलीं बी वस्ती श्रीपादभाऊ वांगडा धाडल्यो आनी थंयच्चोच खादीच्यो साडयो वापरूंक लागलें. तेन्नाच्यान खादी वापरप सुरू जाल्लें तें आतां मेरेन चालूच आसा.

काकासाहेब कालेलकर हे व्हड साहित्यीक, शिक्षणतज्ज्ञ, गांधी विचारांचे प्रवर्तक, विवेचक, भारतांतल्या आदीवासींच्या प्रस्नांचे अभ्यासक. ते वर्ध्याक आयले काय तांचो राबितो काकावाडीक आसतालो. खरें म्हणल्यार तांचो राबितो त्या वाठारांत आशिल्ल्यानूच त्या वाठाराक काकावाडी नांव पडिल्लें. थंय एक छापखानो आशिल्लो. गांधींचें साहित्य थंय छापताले. छापखान्याचें काम पळोवपी सगळ्यांची कॉलनी आशिल्ली. कवी बा.भ.बोरकार आनी कवी मंगेश पाडगांवकर हेय थंय येताले.

रवीन्द्रबाबान आनी गोदूताईन म्हजी वळख काकासायबां लागीं करून दिली. ते सामके शांत आनी सादे दिसले. ते म्हणल्यार कोण तरी व्हड विभूती म्हणपाचें म्हाका त्या वेळार मात्तूय जाणवलें ना.

म्हाका सेवाग्रामांतले *नई तालीम* संस्थेंत प्रवेश दिवंचो अशें थारलें. आगोरस्त म्हयनो आसुंये। मर्दीच प्रवेश मेळनाशिल्लो. पूण काकासायबांच्या उतराक मान दिवन म्हाका प्रवेश दिलो. वेगळे पद्दतीच्या शिक्षणाची आस लागिल्ल्यान खंयचेय परिस्थितींत तडजोड करून ठामपणान उर्बे रावपाची मनाची तयारी केल्ली. घरा साकून पयस आशिल्लें. राहणीमान, जेवणखाण सगळेंच वेगळें.

सेवाग्रामचो दिनक्रम फांतोडेर साडेचारांक सुरू जातालो. साफसफाय, निजी कामां जातकच प्रार्थना आसताली. थंयचे मुखेली श्री. आर्यनायकम् आनी सौ.आशादेवी आर्यनायकम् आशिल्लीं. आयदनां धांसप,भाजयो चिरप, स्वयंपाक करप हीं कामां भेदभाव करी नासतना सगळ्यांक वाटून दितालीं. मदल्या वेळांत संत्र्यांचे बागेंत आनी मोसमी भिकणांच्या शेतांतूय काम करचें पडटालें. राबित्याची सुवात म्हणल्यार शेणान सारयल्ल्या जमनीच्यो ल्हान ल्हान कुडी. सगळीं कामां हांसत-खेळत, मर्जेन जातालीं. पूण जेवणां वेळार हरव्यो वा करपल्ल्यो रोटयो, उणी शिजयल्ली भाजी पानार आयली म्हणटकच उबगण येताली. आपल्याक सगळ्या अडचणींचेर मात करून मुखार वचपाचें आसा अशी मनाक ताकीद दियत सगळें पचयलें.

सेवाग्रामांत आयिल्ल्यो व्यक्ती पिरायेन व्हड वा पदवी-पदव्युत्तर शिक्षण घेवन आश्रम जीवनाचो अणभव घेवपाक आयिल्ल्यो आसताल्यो. कांय विद्यार्थी आनी विदेशी लोकूय अणभवा पासत आयिल्ले आसताले. असल्या ह्या मिस्र वातावरणांत म्हाका मातशें खाकुडले वरी जातालें. 'काकासाहब की ओर से आई हुई' म्हूण सहकारी म्हाका खूब बरे वागयताले. रवीन्द्रबाबान खबर घेवपाक म्हाका फोन केलो तेन्ना हांवें तांकां म्हज्या मनाची आवतीकाय सांगली. म्हाका एखाद्रो शिक्षणीक कोर्स करपाची इत्सा आशिल्ल्याचें सांगलें. तांकांय तें होलमलें. सप्तका अखेरेक तांणी म्हाका आपोवन व्हेलें. ह्या सप्तका मजगतीं एका मद्रासी आनी एके काश्मिरी चलये लागीं म्हजी बरीच इश्टागत जाल्ली.

१९२० उपरांत (गांधींच्या फुडारपणां उपरांत) भारताच्या स्वातंत्र्य आंदोलनांतलो सामान्य मनशांचो आसपाव भोवच मोठ्या प्रमाणांत वाडलो. आंदोलनांत वांटो घेतिल्ल्या वावुरप्यांक बंदखणींत वचें पडिल्ल्यान तांच्या घरांतल्या भयणांचो प्रस्न आशिल्लोच. ही अडचण मतींत घेवन गांधींजी जांकां आपलो पांचवो पूत मानताले त्या जमनालाल बजाज हांणी १९३० च्या सुमाराक महिलाश्रम-वर्धा ही संस्था सुरू केली. तातूंत पुराय भारतांतल्या असल्या भयणांच्या राबित्या वांगडाच तांकां त्या काळच्या देशाचे स्थितीचें भान करून दिवपाचीय वेवस्था केल्ली. तांचेर आत्मविश्वास, स्वावलंबन, देशभक्ती, समाजसेवा सारके संस्कार जावंक लागले. तेच वांगडा तांचें शालेय शिक्षणूय जावंचे हे नदरेन कांय काळा उपरांत रितसर अभ्यासक्रमूय तयार केलो. ह्या सगळ्या उपक्रमांक बापूंचो आशिर्वाद तर आशिल्लोच, त्या भायर पूज्य विनोबा, पूज्य काकासाहेब कालेलकर, पूज्य किशोरलाल मश्रूवाला हांच्या सारख्या ज्येश्ठांचें मार्गदर्शन सातत्यान मेळटालें.

चलयां खातीर हॉस्टेल आशिल्लें. आवारांतूच सुसज्ज विद्यालय आशिल्लें. पयली ते पांचवी असो पांच वर्सांचो 'विनिता' नांवाचो कोर्स आशिल्लो. हो अभ्यासक्रम एसएससीच्या स्तराचो आशिल्लो. माध्यम हिन्दी. विद्यालयाचे संचालक श्री.श्रीधर थत्ते हांणी म्हजी परिक्षा घेवन म्हाका थेट विनिता (पांचवी) च्या वर्गांत बसपाक मान्यताय दिली. हिंदी भास म्हाका येतालीच. हेर विशयांत हिन्दी भाशेचो सराव म्हाका करचो पडलो. खूब म्हेनत घेतली. अडचण आयल्यार इंग्रजींतलो समांतर

द थत्ते सांगताले. हॉस्टेलांत म्हजी वपाची सोय जाय मेरेन हांव काकावाडींतल्यान सदांच महिलाश्रम वालयांत चलून वतालें. थोड्याच दिसांनी स्टेलांत म्हजी सोय जाली.

रवीन्द्रबाबान म्हजी पुराय फाटभूंय मजावन सांगिल्ल्यान थत्ते दांपत्यान ाका सगळे तरेची मजत केली. हॉस्टेलांत वपाचीय वेवस्ता केली. थंय महाराष्ट्र, जरात, उत्तर प्रदेश, मध्य प्रदेश, मद्रास लार्गी लागी सगळ्या राज्यांतल्यो ्यार्थीनी आशिल्ल्यो. म्हज्या वर्गांत पाळी, उत्तर प्रदेशांतल्यो बी चलयो ाशिल्ल्यो. महिलाश्रमांत दिसाच्यो गळ्यो कार्यावळी घंटेचेर चलताल्यो. दीस र वेगवेगळे तरेच्यो चौदा घंटा वाजताल्यो. ाचेर हॉस्टेल, विद्यालय आनीक शिक्षक ंवास असल्या सगळया आश्रम रिसरांतलो कार्यक्रम चलऽ. ती घंटा ाजोवपाचें कामूय दर म्हयन्याक कोणा कलेचे सुवादीन केल्लें आसतालें. पुराय रिसर ते घंटेचेर निंबून आशिल्ल्यान तें ाम भोवच जोखमेचें आसतालें. ताका ागून धास्तेन ती वाजयतलेक रातची न्हिदय पडऽ नासली. सकाळीं पावणे ांचांक उठ[illegible] घंटा. साडेपांचांक प्रार्थना प्रार्थने उपरांत न्हावप, कपडे धुवप बी जाले उपरांत नाश्तो. गिमांत विद्यालय साडे सात ते साडे धा मेरेन आसतालें.

रांदप, वाठार सफाई, संडास सफाई, सांगऱ्यां सफाई, दुदबीद पळोवप, कोठये कुडीचेर लक्ष दवरप असलीं सगळीं कामां म्हयन्याच्या आरंभाक वाटून दिताले. म्हज्या राबित्यांत म्हाका रोटयो करप, सांगऱ्यो आनी संडास सफाई हीं कामां करचीं पडलीं. आश्रमांत सांज वेळार साडे स वरांचेर प्रार्थना आसताली. शिक्षक निवासांत रावपी आश्रम संचालिका दोनूय प्राथनांक हाजीर रावताल्यो. भगवत्गीर्तेतले श्लोक, एक भजन आनी धून अशें सांजप्राथनेचें स्वरूप आशिल्लें. प्रार्थना सुरू करपाचीय पाळी आसताली. हाचें मार्गदर्शन आमकां संगीत शिक्षक श्री.कुलकर्णी (पं.पलुस्कराचे शिश्य) हांचे कडल्यान मेळटालें. प्रार्थना सुरू करपेन ते दिसा भजन म्हणपाचें आनी धून शिकोवपाची. नवीन आयिल्ल्यांक येवकार, हेर कांय म्हत्वाच्यो सुचोवण्यो सांजप्राथने वेळार जाताल्यो. सात वरांचेर जेवणाची घंटा वाजताली. आश्रमांतलें जेवण तिखसाण, मसाल्या विरेंत आसलें तरी बरें आसतालें. दनपरां रोस-शीत, रोटी-भाजी,चटणी वा लोणचें,रातची खिचडी, कढी, भाकरी-भाजी, धंय वा दूद. हांव दूद पेतालें. सण-परबेक गोड पदार्थ आसताले. दिवाळे वेळार ज्या चलयांक घरा वचप शक्य नासतालें, तांकां येवन थत्तेताई स्वयंपाका खातीर आशिल्ले मदतनीसआका वांगडा तीन-चार दीस दिवाळेचो फराळ करताली. गोंयांत केन्नाच पळोवंक नाशिल्ले पदार्थ हांवें थंय खाल्ले. शाळेच्या दिसांनी दनपारचे मदले सुटयेंत मोठ्ठीं पेरां, केन्ना केळीं, केन्ना मोसमी भिकणां, चिरमुल्यो दिताले. तेल-तिखसाण लायिल्ल्यो चिरमुल्यो म्हाका खूब आवडटाल्यो.



विनिता अभ्यासक्रमांत पांचव्या वर्साच्या वर्गांत सगल्या चलवांक 'छोटा रसोडा' वतीन पाकक्रिया वा ते संबंदी हेर कामां करपाची ट्रेनींग मेळठ. तो अभ्याक्रमाचोच भाग आशिल्लो. हांव एकदम पांचव्या वर्सांत दाखल जाल्ल्यान म्हाकाव ताचो अणभव घेवंक मेळ्ळो. चलयांक ते पासत एक ल्हानशी रांदची कूड आसताली. तातूंत स्वयंपाकाचें सगळें सामान हाडपा पासून सगळो स्वयंपाक सदांच आठ-धा दीस करून थंयच जेवपाचें. वेगवेगळ्या प्रांतांतल्या चलयांनी आपापल्या प्रदेशांतले पद्दतीचे पदार्थ करपाचे आसताले. हांव स्वयंपाकांत व्हडलेंशें फिशाल नाशिल्लें. हांवें गोंयचे पदार्थ म्हूण खतखतें आनी सोलांकडी केल्ल्याची म्हाका याद जाता. एकमेकांक आमी मजत करतालीं. पूण एका दिसाची जबाबदारी ते चलयेची. दरेक दिसा एका शिक्षकाक सोयरो म्हूण आपोवप. स्वयंपाका पासत 'मगन-चूल्हा' आशिल्लो. धा-पंदरा जाणांचो स्वयंपाक अचूक करप हें त्या वेळार अवगड दिसतालें तरी मजा येताली.

आनीक एक खायपदार्थ हुरडो. एक बरो मागपी शेतकार दर वर्सा ज्वारीचे पिके वेळार आश्रमांतल्या सगळ्या चलयांक हुरडो पार्टी दितालो. शेता वयलो हुरडो आनी वायग्यांचें खमंग भरत हो प्रकार म्हाका नवो आशिल्लो. म्हाका खूब आवडलो.

हेर कामां वांगडा सूतकताई आनी हातमाग हे दोन नवे विशय आनी वेवसायीक कला शिकलें. हातमागाचेर आपले हातान तयार केल्ली जाडीभरडी चादर म्हजे पासत अभिमानाची आशिल्ली. शिक्षणा वांगडा असल्या कार्यावळींतल्यान जिविताचे धडे मेळटाले. आत्मनिर्भरताय, परिश्रम, स्वालंबन ह्या गुणांचें आपणावप हांगा जालें. त्या भावर कितल्योच भासो, कितल्योच जाती, कितलेच धर्म हांच्या संमिश्रणांतल्यान घडिल्ली भारतीय संस्कृताय आनी एकचारपण हांगाच म्हज्या मनार कोरांथलें.

महिलाश्रमांतल्या राबित्यांत दोन व्हडल्यो घडणुको घडल्यो. एक पंडित जवाहरलाल नेहरू हांची आश्रमाक भेट आनी दुसरी आचार्य विनोबा भावे हांच्या आदेशा प्रमाण आश्रमांतल्या चलयांचो एक पंगड भूदान प्रचारा पासत बिहाराक दोन सप्ताकां वचून आयलो तातूंत म्हजो आसपाव आशिल्लो.

पंडितजींच्या येवकाराची नेटान तयारी चलताली. आश्रमांत चित्रकला शिकोवपी उषा पुरकायस्थ ही बंगाली शिक्षिका आशिल्ली. तिणें एक चित्र प्रदर्शन भरयल्लें. सगळ्या सिनियर चलयांचीं चित्रां मांडिल्लीं. हांव सिनियर ग्रुपांत नाशिल्लें तरी म्हजो उत्साह पळोवन म्हजेंय चित्र प्रदर्शनांत दवरलें. मागीर खूब वर्सां तें म्हज्या संग्रहांत आशिल्लें. दरेक कार्यावळींत वांटो घेवपाची म्हजी उमेद पळोवन हेर चलयां वांगडा कच्छ व्हेसून येवकार गिताच्या पंगडांतय म्हजो आसपाव केल्लो. 'हे तिमिरजयी तुम तिमिर हरो, तुम आए हो सूने मन में आनंद भरो' हें पंडितजीं पासत केल्लें येवकार गीत म्हाका आजुनय याद जाता. हें येवकार गीत आमचे शिक्षक,हिंदींतले नामनेचे कवी श्री. भवानीप्रसाद मिश्र हांणी त्या काळचे देशाचे परिस्थितीक उद्देशून रचिल्लें. आमचो सगळो शिक्षक पंगड आखिल भारतीय आशिल्लो. दरेकलो शिक्षक म्हणल्यार त्या त्या विशयांतलो मान्यवरूच आशिल्लो. ते सगळे देशाक समर्पीत आशिल्ले. थं तांकां सर, टीचर वा मॅडम अशें संबोध करी नासतना काका, दादा, भाभी, अम्मा ताई, आक्का अशया घरगुती नांवा पाचारपाची प्रथा आसली. ताची न्हेसव ही खादींतल्या कपड्यांतली सामकी साद आसताली. उलयतना सामके नमळ वागपांत खंयच व्हडपण ना. ताका लागू तांचें मोठेपण खंयच जाणव नासतना एकमेकां कडले स्नेहाचे धागे रोखडे जुळिल्ले. महिलाश्रम परिवारा लागं (शिक्षक आनी विद्यार्थींनी) जुळिल्ले त धागे आजून तशेच आसात.

तेलंगणांत आरंभ जाल्ली भूदान पदयात्रा बिहारांत पाविल्ली. त्या वेळा भूदान चळवळ गतिमान करपा पासत आचार्य विनोबाजीन सगळ्याक उल घाल्लो. महिलाश्रम संस्था ही तांचीच आशिल्ली. तातूंतल्या विद्यार्थीनींनी कांय दीस बिहारांत प्रचार करचो असो विचा तांणी थत्तेकाकांक सांगलो. आश्रमांतल्या चलयांक हेर कडेन धाडप म्हणल्यार तशी जापसालदारकीच. मुखार खूब वर्सांनी सर्गेस्त बाबांच्या पत्रसंग्रहांत एक पत्र गावलें. ताई म्हाका हेर चलयां वांगडा बिहाराक व्हरपाची आशिल्ली तेविशींची मान्यताय घेवपा पासत बरयल्लें थत्तेकाका हांचें तें पत्र आशिल्लें.

थत्तेताईची व्हडली चली विजया आनी सून सिंधूताई (ह्यो दोगीय खूब सुंदर गाताल्यो) तशेंच आश्रमांतल्यो आनीक कांय चलयो असो धा-बारा चलयांचो पंगड बिहारांत आठ-धा दीस भोंवलो. विनोबाजी त्या वेळार चांडील ह्या गांवांत आशिल्ले. थंय ते बरे नाशिल्ले देखून कांय दीस एकेच सुवातेर मुक्काम आशिल्लो. बिहारांत

ठलापथकाच्यो कार्यावळी जाल्यो. सगळेच कडेन सुविधायो जरी नासल्यो तरी मनाचो निर्धार आशिल्ल्यान सगळ्यो कार्यावळी वेवस्थीत जाल्यो. मागीर आश्रमांत परत आयल्या उपरांत नेटान अभ्यास करून फायनल परिक्षेत यश मेळयलें तेन्ना समाधान लाबलें.

सामक्या थोड्या दिसां भितर हांव आश्रमी वातावरणांत एकदम समरस जाल्ल्यान रवीन्द्रबाब आनी गोदूताईक म्हजें कवतूक दिसलें आनी समाधान जालें. तांचे कडेन हांव अर्दी मर्दी यो वच करतालें. निर्व्याज स्नेह आनी ममता हांवें तांचे लागच्यान अणभवली. म्हजे आर्दी गोंयच्यान महिलाश्रमांत पांच चलयो वचून आयिल्ल्यो, त्यो म्हणल्यार चिनू दलाल, वत्सला किर्तनी, सुशीला सुकेरकार,गोदुताई केळेकार,मोगरें केळेकार(लक्ष्मी सरदेसाय) आनी आतां सर्वे हांव आशिल्लें.

शालेय वर्स सोंपल्या उपरांत 'विनिता'चें सर्टीफिकेट हातांत पडलें. वर्गात म्हजो चौथो नंबर आशिल्लो.

मागीर हांव रवीन्द्रबाबांच्या सांगाताक गोंयांत परतलें.

घरा आयलें खरें पूण तशी निर्धास्त जावपाची परिस्थीती नाशिल्ली. प.पू.विनोबाजी भावे हांच्या सहवासांत रावन बिहारांत कांय म्हयने काम करचें हे संबंदी बाबान आर्दीच पत्रवेव्हार सुरू केल्लो. एके वटेन म्हाका आपल्या लोकां मर्दी रावचें अशें दिसतालें जाल्यार दुसरे वटेन विनोबाजींचे सेक्रेटरी श्री. मुंदडा आनी हेर महनीय व्यक्तींनी कांय दीस प्रत्यक्ष भूदान पदयात्रेंत वाटो येवपा विशीं सुचयल्लें. घरांतूय तशी थिरताय नाशिल्ली. शिक्षणा निमतान भाव मामागेर, भयण हंसा मावशेगेर, आवयची भलायकी अथीर अशें किर्तेशें जाल्लें. भासाभास जावन एक वर्स बिहाराक वचून येवंचें अशें थारलें.

महिलाआश्रमा लागीं पत्रवेव्हार करून थंय कांय दीस रावपाची मान्यताय येतली. त्या थोड्या काळांत हातमागार कापड विणपाचें शिक्षण घेतलें. अर्थात ह्या काळांत आरंभाक रवीन्द्रबाबांगेरूच रावलें. तेन्ना तांची भयण मोगाबाय (आतांची लक्ष्मीबाय सरदेसाय) हिचे लागीं वळख जाली आनी इश्टागतूय. मुखार २००० सालांत आश्रमाच्या हिरक महोत्सवा निमतान माजी विद्यार्थीनी म्हूण हांव आनी मोगाबाय दोगांय वर्ध्याक वचून आयलीं. त्याच वेळार श्रीमती कमलाताई काकोडकार हांचो परिचय जालो आनी उपरांत दाट इश्टागत जाली.

दुसरे खेपेचो वर्धा प्रवास धाडसाचो आशिल्लो. कित्याक हांव एकटेंच आशिल्लें. बाबांचो स्नेही श्री.धुमे हांचे वांगडा वास्को आयलें. पत्रवेव्हारा प्रमाण थंय श्री. अण्णा जोशी हांच्या घरा रावलें. ते बाबांचे पयसुल्ले मामेभाव आशिल्ले. तांणी एक बरोसो वांगड पळोवन मुंबय ट्रेनींत बसयलें. मुंबयंत श्री.वसंत बोरकार हांचे कडेन वचपाचें आशिल्लें. वळख नाशिल्ली पूण बाबान पत्तो दिल्लो आनी प्रवासांत वांगड लाभिल्ल्या त्या क्रिस्तांव गृहस्थान म्हाका बोरकारांगेर वेवस्थीत पावयलें.

श्री. वसंत बोरकार हे कवी बाकिबाब बोरकारांचे चुलत भाव. सामके दिलदार मनीस. तांचे कडच्या दोन दिसांच्या राबित्यांत तांचो प्रेमळ सभावाचो आनी आपुलकायेचो प्रत्यय आयलो. त्या भायर म्हज्या भूदान वावरा विशीं आनी म्हजे खुशालकाये विशीं फुडले कांय म्हयने तांचो पत्रवेव्हार चालू आशिल्लो. चार-पांच वर्सां उपरांत रवीन्द्रबाबां वांगडा मुंबयंत गोमंतभारती वतीन गांधी साहित्याचो प्रचार करतालीं. तेन्ना आमच्यो बसका श्री. वसंत बोरकारांगेर जाताल्यो.

बोरकार दांपत्यान म्हाका खूब मोगान येवकारलें. बाबांचो आनी तांचो पत्रवेव्हार जाल्लो. अठरा वर्सांचें हांव एकट्यान प्रवास करून आयलां म्हूण कवतूक आशिल्लें. जे.के बिल्डींगेतले चाळींतल्या त्या घरांत म्हाका दोन दीस सामके जिव्हाळ्याचे भासले. तांची धूव सुधा (आतांची सुधा आमोणकार) त्या वेळार धा-बारा वर्सांचें आसत. तार्णे म्हाका पदां म्हणून दाखयलीं. श्री.बोरकारान मागीर म्हाका हावडा एक्सप्रेसींत बसयलें. ती गाडी व्हीटीच्यान रातची साडे णवांक सुटून दुसरे दिसा आठ वरांचेर वर्ध्याक पावताली. बायलांच्या डब्यांत आशिल्ल्यान चड शें असुरक्षीत दिसलें ना. पूण एकटेपणाची भावना आशिल्लीच.

वर्ध्याक रवीन्द्रबाबांगेर कांय दीस रावन हांव महिलाश्रमांत गेलें आनी थंय विनोबाजींचे परवानगीची वाट पळयत रावलें. तेन्नाच रकाद आयलो, विनोबाजींचे निजी सचीव श्री.दामोदरदास मुंदडा खासा वर्ध्याक येतात (तांचें कुटुंब महिलाश्रमांत शिक्षक निवासांत आशिल्लें.) तेन्नाच ते म्हाका वांगडा व्हरतले. आगोरताच्या मध्यार वर्ध्याच्यान नागपुराक आयलीं. नागपुराक निर्मला देशपांडे हांगेर एक दीस मुक्काम करून मागीर गयेक आयलीं.

(चलता...)

परवरी-गोंय मो.९८२२१७६१७०

कथा

मिलींद म्हामल



गोंय विद्यापीठांत अतिथी प्राध्यापक म्हणून वावुरपी **मिलिंद म्हामल** इंदिरा गांधी मुक्त विद्यापीठ, पिलार गोवा अध्यापन केंद्राचे समन्वयक जावन आसात. तांचे कथासंग्रह, नाटकां, चरित्रां, इतिहास, ग्रंथसुची, दस्तऐवज संकलन अशीं साबार पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत. तांकां साबार पुरस्काररूय लाबल्यात जातूंत गोमंतक मराठी अकादमीचो आनी दि गोवा हिंदू असोसिएशन च्या पुरस्कारांचो आसपाव आसा.

# मरणकाळ



*सदान खांद मारलो आनी मी बुडकुलो घेतलो. मसुंडेन पावल्या उपरांत सदान परतून माका खांद मारपाक लावलो आनी तिरडी सरणाचेर धडवली. मसुंडेन दुल्या लोकानी सरणाचेर एक एक लाकूड काडून घातलां. थोडो वेळ माका बसयल्या उपरांत सदान माजे कडल्या बुडकुल्याक बुराक मारलो आनी सरणां भोवतणी फिरपाक लावलो. त्या उपरांत चूड पेटयली.*

सदा निमाणो कोविडान मेलो. कोणाचां मरण क्यांवा चुकोंवचां न्हू असां म्हणटत. पूण आतांची परिस्थिती सामकीच बिकट. मरणांक वचापच म्हूटल्यार जिवार काळ कसो. तां कावय आसलां तरी निदान सदाच्या तरी मरणांक वचांक जाया आसलां. कर्फ्यु आनी लॉकडावन लायलां. कोणांक काय समजता तसां. तां पयलींच जाल्लां तर आयज अशीं माणसां मरचीं नसलीं. तेतून आमचो सदाय गेलो. आतां कोणाचां क्यांवा काय जावत सांगपाक जावचां ना. सदांचांय तसांच जालां.

मरणांक वचप काय ना? यक्ष प्रस्न म्हणजे काय आसता तां आतां कळळां. मनांत भय आनी वगीच चुरचुरे. तेतूंत आतां मी पर्वरी रवतंय. गांवा पसून पंचवीस किलोमीटर लांब. थंयसर भोंवतणी सगळ्याकच कोविडाचे केशी. हॉटस्पॉट. गांवाकडेय तसांच खंय. घरा भायर पडल्यार जिवाक धोको. तसोच कोणाची पर्वा करी नासताना गेल्यार कर्फ्यु खातीर कोणय आडावपाचो. तेतूंत आमी शिकले सवरलले. सदा भशेन अनपढ न्हू. निमाणो वचांकच ना. पूण मन खावत रवलां. मगे कोणाकडे तरी चौकशी करूची म्हूण केली. कोणांकच काय सारकी खबर ना. बांबोळे हेला तितकीच खबर. वामनांक फोन केलो, तेणीच वॉट्सपाचेर मॅसेज धाडललो. वामनान फोनाचेरच सांगलां,

''काय ना रे, दोन दीस जोर येता म्हूण निमाणो हेलो बांबोळे, थंय ववतलंय जाल्यार खाटय ना, भायरच चार वरां न्हीजाचां पडलां, निमणो घातलो खाटीर, सामको धाप्पांकच लागलो, पूण ऑक्सिजना ना, रातच्या तिनांक सोपलां सगलां. ते रातीक पंचवीस जाण मेले मरे. मी एकटोच आसय हैंसर, भय दिसता, पूण तूं आनी येवपाचे भानगडीक पडांक नाका. बांबोळेच्यान मढां प्याक केल्या उपरांत डायरेक्ट मसुंडेन व्हरात म्हूण दोतोरान सांगलां, घरा कडेन आनी व्हरचंय ना. घरा कडेन फोन करूंन सांगलां तसां. तयारी करतंत खंय, फकत पांच लोकच

मसुंडेन वचांक शकतंत, घरांतले, लागींचे कोण आसत त्यांका येतत जाल्यार येवनी.''

सदां आमचे घरचो काय लागींचो तां आतां माजे मीच चिंतूक लागलंय. ती व्हडली गजाल आसा. सदाक कोण वळखता त्याकाच ती कळपाक शकता. गेल्या वरस भर त्याका मेळांक नसलंय. चौथीक गावांक गेल्लय त्यांवा कोणागेरच गणपती बधूंक वचांक नसलंय. गणपतीच्या निमतान तरी सदागेर एकदा वचांक मेळा. हेरशीं तो देवळा कडेन दिसा. पूण ह्या वर्सा गांवांकडे धा बारा फावटी वचानय खंय दिश्टी पडांक ना. कोविडाच्या काळांतली धावती भेट ती. कोणांक मेळाप सुद्दा काळ कसो.

सदाक घरांत बायल भुरगीं आसत. घरांतलीं दोन चेडवां लग्नाचीं जाल्यांत. झील करासवाड्यांक कसले तरी फॅक्टरींत कामांक आसा. त्याकाच पयलीं कोविड जाल्लो. टेस्टींग केल्या उपरांत घरांतच कोरेन्टायन रवलो खंय। त्याचाच इन्फेक्शन सदाक जालां आसतालां! दोन दीस जोर येय खंय! टेस्टींग करूंक ना आनी दोतरागेरय वचांक ना. क्रोसीनाचीं पिरलां घेवन रवलो. निमाणो जमाना तसो कोणीतरी बांबोळे व्हरपाक सांगलो. कोणीतरी कित्याक वामनानच हेलो. झिलाक कोविड. तो कसो व्हरपाचो? वामन आनी सदा बार्रा वयले आमीग. सामके घट. तीच दोस्ती कामांक इली.

सदा सोरो पितालो खरो, पूण रस्त्यार पडपी बी न्हू. क्यॉंवांय तरी त्याका लागा तो. सदांच न्हू. पूण एकदा घेतल्या उपरांत तो एकटोच रावतालो. बाकीच्या सोरेकारा भशेन व्हडलो बोवाळ करिनासलो. माका बगतकत तर खूपच लजतालो. निवळासर कोणांक मेळा नसलो. गवणे कामा पसून लाकडां चिरपा मेरेन सगलीं कामां तेणी केलीं. दुसऱ्या कसल्याय कामांक आफयल्यार त्यांच्याय वांगडा कामांक वचा. बेकार रवलो काय मात त्याका सोऱ्याची याद येय.

सदा तसो धिराचो. तेचे खूबशे गजाली याद आसत. खास करून मरणाचे. म्हुणानच तर सदाचां माका खूब लागता. माजो बापूय मी पंचवीस वर्साचो आसताना मेल्लो. शिक्षण जाल्या उपरांत निकतीच नोकरी लागलली आनी बापूय अचानक एक दीस तिनसाना गेलो. घरांत आकांताचो प्रसंग. बापूय गेलो खरो पूण आतां मरणाची तयारी करूंक जायी आसली. सदा खबर कळतकत खंयसून तरी रोखडोच पावलो. बापायक खाटी वयलो काडून मदल्या सालांत घातलो. माका कुशीक काडलो आनी म्हुणपाक लागलो,

''आतां कोणांक कोणांक सांगाक जायां तेंची नांवां आनी पत्ते सांग. माणूस धाडूंक जाये. सकाळीं अकरां मेरेन सगलां आटपूंक जायां.''

सदाक आमच्या सोयऱ्या धायऱ्यांची सगली खबर. काय जणांची माकाय याद जायना जाली, मगेर तेणीच ती सांगली.

''अरे कसांय आसलां तरी मरणाचां सगल्यांक सांगाचा. आतां कोण येतय काय ना तो तेंचो प्रश्न. आमी आमचां कर्तव्य करपाचां. कोण येवपाचे आसत तेंची अकरा मेरेन वाट बगया आनी मगेर उखलया. तू काय भियां नाका, मी काय तां व्यवस्थीत करतंय.''

सदान खरांच सगलां व्यवस्थीत केलां. सोयऱ्यांगेर माणूस धाडले. भटाक आनी म्हाल्याक निरोप धाडलो. सकाळ फुडें वचान बुडकुलो आनी धोंयां कापड हाडलां. चार माणसांक घेवन आम्याचीं काठयां केलीं, ती मसुंडेन पावयलीं, सरण रचलां आनी परतून बरोब्बर अकरांक घरा कडेन हजर जालो. तो मेरेन लागींचीं सगलीं सोयऱ्यां इल्लीं. सदान म्हुटलां,

''उखलया मरे आतां?''

मरताल्या खातीरचो निमाणो शब्द. बापायक उखलून खळ्यांत तुळशी कडेन हेलो. मी आनी घरच्यांनी त्याच्या तोंडान पाणी घातलां आनी त्याका तिरडेचेर घातलो. रडताल्या आईक घरांत हेली आनी बायलां आपापल्या घरांत गेलीं. सदान माका म्हुटलां,

''आतां फुडल्यान वचान उजवो खांद्या वाटेन राव, मसुंडे मरेन चलत वचांक जायां.''

मडां खांद्यार घेवन मसुंडे मेरेन वचप सोप्यां काम न्हूं, पूण चार पावलां चलल्या उपरांत सदां फुड्यांत इलो आनी म्हुणपाक लागलो,

''पुरो आतां. शास्त्राचां केलंय तां खूप जालां, तुमकां शिक्षणी भुरग्यांक फुडलां जमाचा ना, फुडलां काय तां मी बघतंय, निमाणो मसुंडेन उतरताना मात ये, जेणी पयलो खांद मारलो तेणीच त्याका उतरूंक जायो, हो बुडकुलो मात घे, तो तुजो तुकांच घेवंक जायो.''

सदान खांद मारलो आनी मी बुडकुलो घेतलो. मसुंडेन पावल्या उपरांत सदान परतून माका खांद मारपाक लायलो आनी तिरडी सरणाचेर चडयली. मसुंडेन इल्ल्या लोकानी सरणाचेर एक एक लाकूड काडून घातलां. थोडो वेळ माका बसयल्या उपरांत सदान माजे कडल्या बुडकुल्याक बुराक

मारलो आनी सरणां भोवतणी फिरपाक लावलो. त्या उपरांत चूड पेटवली. ती भाक्क करून पेटली. सदान माज्या हातीक धरलो आनी बापायक निमाणो अग्नी दिवपाक लावलो.

लोक आपापल्या घरा गेले. निमाणी सदाक धरून चार माणसां आनी मी. आनी एका वरान सदान म्हुटलां,

''बगलंय मरे मरणाचां कसां आसतां तां, आतां तुका कोणावच्या मरणांक वचांक लावसन मेळळां, कोणांवच्या मरणांक वचांकच जांवा, खूब कामां आसतंत थंय. सगले रडतच रवले तर फुडलां कसां जातालां? चला आतां घरा, फुडलां काय तां मी बघतंय, सगळां सारक्या जळासर माका आतां हैंयसर रवांक जायां.''

आवय बापूय जितो आसा सर आमच्या वाड्या वयलो कोणच सरणाचेर लाकूड घाली नासलो. 'आतां तुका लाकूड घालपाक हरकत ना, एक तरेचां लावसनच तां' सदान म्हाका म्हटलां तां तेच पासत. सदाक असां लावसन पंधरा वर्सा आसताना पसून, म्हुटल्यार तेचो बापूय मेल्या पासून मेळळां. रोखठोच जाण्टो जालो तो. मसुंडेनतलो तेचो अणभव जास्ती म्हूण तो आतां अधिकारान बोलता. अशे तरेची मरणाची कामां तो करीत इला. वाड्या वयलो कोणय मेलो तर सदा थंय पयलो हजर. फुडें काय करपाचां त्याचां सगलां नियोजन सदाकडेन. निरोप धाडपा पसून, लाकडा फोडून त्याचां रसण रची मेरेन सगलां काम सदाचां. मड्याक एकदा बगल्या उपरांत सदा लाकडाच्या तयारेक लागा, सगल्यांक कामा वाटून दिव, आनी कोणंय आयकाना जाल्यार आपल्या उतरानी बरोब्बर काय तां सांगा.

अशीच एकदा हुनुरबेक गणपताची आजी मेल्ली. रातचीं धा वरां जाल्लीं. दुसरे दिसा चवथ. सदाक बातमी कळतकत रोखठोच तो हजर जालो. वाड्यार थोड्यानी गणपती सकाळींच हाडून दवरलले. माटीय बांदलली. पूण म्हातारेन घात मारलो. ऐंशी वर्साची ती. कायच दुखणा नसताना न्हिदली थंयच मेली. सदा म्हणपाक लागलो,

''बरे भशेन कोणाचां हात बोट लायनासताना गेली म्हातारी. फाल्यां चवथ. वगीच लोकांचो खोळंबो नाका. कोणांक फाल्यां गणपती पुजपाचे आसत त्यांकां पुजुनी. सोयऱ्या धायऱ्यांक थोडेशे त्रास जातले. येवपाचीं आसत तर येवनी. सकाळीं आठां पयलीं मरणाचा करया.''

''पूण तयारी जातली मरे?'' - नानाचो प्रस्न.

''तां सगलां माजेर सोडा. सकाळीं पांचांक उठान काठयांची तयारी करतय, तुमी फकत सोयऱ्यांक सांगपाचां बघात, आतां काय माणूस धाडपाची गरज ना, फोन क्याल्यार पुरो.''

सदान चवथी दिसा सांगलां तसां क्यॉलां, सात वरांचेर त्याचा सरण रचून तयार आसलां. लोकांकय चवथीची घाई आसली. सगलां बेगीबेगीन म्हणजे णवा पयलींच आटोपलां आनी सदा सोडून सगले लोक आपापल्या घरा गेले.

दनपारां बारांक सुमार सदा मेळळो. मसुंडेनसून निकतोच घरा इल्लो, न्हावन पडयेन बसललो. मी इचारलां,

''जळळी मरे म्हातारी?''

''म्हातारी तशी बेगीन जळटा? जुना हाड मरे तां, तेतूंत काठयाय वलीं, गोबर जाता म्हुणसर अक्रा वरां जालीं.'' - सदाचां उत्तर.

सखाराम मेल्लो त्यांवाची खबर. शिवरात्रे आदीं दोन दीस, तिनसाणाच मेलो. सदान दुसरे दिसा सगल्यांक मरणाचो अक्राचो टायम दिल्लो. पूण बारा वरां जालीं तरी सखारामाचां चेडू काय पावांक नसलां. सदान बेगीन आटपा म्हूण चार फावटी मसुंडेतल्यान निरोप धाडलो, पूण चेडू काय पावांक ना. शेवटाक सदाच इलो आनी म्हणपाक लागलो,

''ह्यांच्या कुटुंबाची मसुंडी रानांत. थंय कराड मातलां आनी सुकलां, वयर वयतलो जाल्यार सारकी वाट ना. शिवरात्रे कडेन सांजचो खूब वारो मारता, किट्टी उसळात तर सगल्या रानांक आग पेट्टली. आनीक धा मिनटा मेरेन वाट बयया, आनी येयना जाल्यार उखलया त्याका.''

शेवटाक दिडाक सखारामांक उखल्लो. शिवाचो अंदाज बरोब्बर आसलो. अडीज वरां जाल्या उपरांत वातावरण ढगाळ जालां आनी खरोच वारो मारपाक लागलो. सदान दुसऱ्या मनशांक बरोबर घेवंन जाता तितक्यां देगेचां मातलालां कराड कापून काडलां, वारो मारीत तसो. सदान सरणय धाकटांच रचलालां. तां पेट्टा तसां इल्लीं इल्लीं लाकडां तो घालीत रवलो. गोबर जाय सर सदा थंय रवलो आनी सगल्यांत निमणो घरा इलो.

चार वर्सां पयलींची गजाल. वसंताच्या बापायक सकाळ फुडें एट्याक इलो. सगले धावान गेले. सदाय आसलो. तेणी

आपलो अणभव पणाक लायलो. छाती :पटली. पूण कायच उपेग जालो ना. कोण :री दोतोराक हाडपाक गेलो, पूण दोतोर ना. सदान माका म्हुणलां, ''सोंपलो तो, आतां कायच उपेग ना.'' सदाक तां पयलींच कळळालां. पूण कांय अती उत्साही मनशांनी एकशे आठाक फोन लायलो. एम्बुलन्स एका वारांत सायरन वाजयत इली. आतां इली म्हुणटकत निमणो उपाय म्हूण बांबोळे व्हरचोच पडलो. सदा तेंचे बराबर गेलो ना. त्याका दुसरीच काळजी आसली. वसंताची. वसंत बापायचो एकच झील. सदींच सकाळ, सांजेचो टायट. घराकडे टिकपाक कठीण आसलो.

सगलीच पादरट जाल्ली. बांबोळे गेल्ल्या लोकांक फोनार फोन. एडमीट करपाकच टायम लायलो खंय. कायच उपेग जालो ना. सगली चवकशी. उपरांत बॉडी पोस्टमार्टमांक धाडली, उपरांत तेचो रिपोर्ट येतलो, सर्टीफिकेट मेळटालां, आनी मगेच काय ती फुडली खबर. वसंताच्या घरा कडेन घे गर्दी. मेलो काय ना, तांय सारक्या सांगानत, घरांत रडारड. आरडी आनी हुयेली. वसंताच्या घरांत तशी खूब माणसां आनी घरय मोठां. दोन चुलते. बापायचो मोठो बिझनेस. पूण वसंताचां आनी बापायचां कसांच पटना जालां. वसंताक सोऱ्याचो नाद लागलो. तो खूब पियपाक लागला म्हूण सदाच एक दीस सांगतालो. घरांत वसंताक मेळांक म्हूण गेलंय. पूण वसंत जाग्यार ना.

''आत्ता आसलो मरे थंय. हुयेली मारून मारून रडा. गेलो खंय तर?''

वसंताक सगल्याक सोदलो. वसंताचो पत्तो ना. वसंता कडेन मोबाईल आसलो. कोणेतरी त्याका खूब वेळ फोन लायलो, पूण फोन कसोच घेयना. निमाणो लागलो एकदाचो. बांबोळे वचपाक भायर सरला खंय!

''आतां हो आनी कित्याक मरांक गेला बांबोळे? बापायक हाडपाचो टायम जालो.''

कोण तरी म्हुणांन गेलो. वसंताक परतून फोन लायलो पूण कसोच घेयना. बांबोळेच्यान फोन इलो. महां येवन चाळीस मिनटानी पावतले खंय. पूण हैंसर वसंताचो पत्तो ना. इतक्यांन सदान खंयसून तरी वसंताक धरून हाडलो आनी मागल्या दारांतल्यान भितर हेलो.

''खंय आसलो रे सदा?'' माजो सहज प्रस्न.

''खंय आसतलो? भिवाच्या बार्रार वचान सोदून घेवंन इलंय. आतां परत भायर वचांक जायना ना तो. त्याकाच आतां सांबाळचो पडटलो, मरणाचां आतां फाल्याच उरलां.''

सांजेची सात वरां जाल्लीं. एम्बुलन्स परतून इली. बरोच उशीर जाल्लो. आयज मरण शक्य नसलां.

सदा चार लोकांक मेळ्ळो आनी फुडले तयारेचां केलां. दुसरे दिसा णवांक मरणाचां ठरलां.

रातभर महां घरांत. क्याँवा ना तो वसंत बापायक खूपच रडपाक लागलो. मर्दी मर्दी तो बेशुद्दय पडा. पूण सदा त्याका सांभाळूकच आसलो. वसंताचां वखद तेणी खोपींत हाडून दवरलालां. तेचो स्टॅमिना तो मेन्टेन करतालो. फाल्या मरणाचां करपाक वसंताची खूब गरज आसली.

तर, सदाचे असले हे गजाली. सदान सदींच मरणाचीं कामां केलीं, पूण त्याच्या मरणांक काय माका वचांक मेळांक ना. हेरशीं शंभर दिडशीं लोक तरी जमपाचो. फाटल्या घा वर्सांक तितक्या लोकांचीं सरणां तेणी रचलल्लीं. काळ कसोय आसलो तरी आतां निदान पन्नास तरी लोक जमतले अशीं आसली. सदाचां निमणां काय जालां ह्यां कळपाक राती कडेन वामन्याक फोन लायलो, तेणी जाब दिली.

''कोणच ना मरे, इन मीन तीन माणसां. मी, समीर आनी काशिनाथ. कोविड जाल्ल्यान झील ताकायत येवंक ना. बायलेक आनी चेडवांक एम्बुलंसीनच निमणां दर्शन दिलां आनी मसुंडेन हेलो. थंय कुणी तरी लाकडां उडोवन गेल्लो, तीं कशीं बशीं डाळलीं आनी सरण रचलां. निमणो एम्बुलंसाच्या ड्रायवरान हात लायलो आनी घातलो एकदाचो सरणार. माकांच अग्नी दिवंचो पडलो. बुडकुलो बिडकुलो आनी काय ना, गेलो एकदाचो.

''जळ्ळो मरे तरी तो सारको?''

''तां कोण बयूंक रवलां, भय कसो मरे, सरण पेटल्या उपरांत सगळे चलत रवले.''

''तूं आतां तुजे काळजी घे, ना म्हुटल्यार दोन दीस काडलंय त्याच्या वांगडा, घरांतलो कोण ना, पूण देव कसो पावलंय तूं, सदा आसललो जाल्यार असल्या कामांक फाटीं रवाचो नसलो..''

बुडकुलो, भट, म्हालो, कसले मरण संस्कार? तिरडी आनी कसली? निमणो खांदो मारपाक, आनी काठयां घालपाकय कोण ना. मडां प्याक केलां तसां डायरेक्ट सरणार. लोक आतां सगलेच संस्कार विसरल्यात. नक्षत्रच वायट आसा!.



साळगांव-गोंय. मो: 9822580789
milindmhamalgmail.com

तेफळां



डॉ.वामन रा नायक

# वक्तृत्व कला



**डॉ.वामन रा.नायक हे निवृत्त प्राध्यापक. ते कथा, कविता, आनी ललित साहित्याची सेवा करतात. कांय काळ ताणीं 'वांगडी' नांवाचें एक नेमाळें चलयलें. ते 'भांगरभूंय' तशेंच हेर नेमाळ्यांनी सातत्यान लेखन करतात.**

***हारवर्ड चे प्रोफेसर डेन गिलबर्ट हांणी बोली भाशा आनी लिखाण शैली हांचे मदें एक उपाय सुचवला. तुमकां जें सांगचें आसा तें तुमचे शैलींत सांगात आनी तें बरोवन काडात. बरोवप आनी उलोवप हे दोन वेगवेगळे संवाद प्रकार आसात. लोक एका प्रकारांत भाशण तयार करतात आनी दुसऱ्या तरेन सांगतात.***

उलोवप हें फक्त जगाच्या वेव्हारांतलो उपचाराचो भाग न्हय. ताका वेगवेगळीं तासां आसात. एखाद्र्या कडेन भरपूर गिन्यान आसता, पूण तें हेरां मेरेन पावोवपा खातीर जाय आशिल्ली उतरावळ नासता. तशेंच बऱ्याच जाणां कडेन उतरावळ आसता पूण जाचे खातीर ती वापरपाची तें गिन्यान आसना. अशें म्हणटात उतर हें वक्तृत्वाची कूड, विचार हो आत्मो आनी वक्त्याच्या उलोवपांतल्यान पाझरपी, प्रगट जावपी तें वक्तृत्व. आयकुप्यांचेर वाणीच्या माध्यमा वरवी प्रभाव घालपी कला म्हळ्यार वक्तृत्व. उलोवपाच्या, भाशणाच्या माध्यमांतल्यान आयकुप्यांक आकर्शीत करून, आपल्या भावनांची आयकुप्यांचेर छाप मारून तांकां आपले विचार पटोवन दिवपाचें कौशल्य वक्तृत्व कलेंत आसता.

फार्टी वळून पळेतना, म्हाका स्कुलांत खूब बरे टिचर मेळिल्ले, ते बरे उलयताले, बरे शिकयताले, तांची म्हाका याद जाली. तांणी बरे तरेन उलोवपाचेर भर दिल्लो. त्या खातीर वेगवेगळे कार्यक्रम जाताले. तातूंतलोच एक फादर. भुरग्यांक बोर्डार धाडटालो, २५ ते ३० नांवां बोर्डार बरोवंक सांगतालो, आपूण दोळे बंद करतालो आनी सुर्वेक सावन तीं नांवां सांगतालो. आमकां अजाप दिसतालें. पूण तें एक माईंड ट्रेनिंग आसलें.

दुसऱ्याच्या अणभवांतल्यान खूब कितें शिकूं येता. अणभव ही ज्ञानाची आवय, अशें म्हणटात. बऱ्या वायट अणभवांतल्यान आमकां मुखार वचें पडटा. Experience is the mother of knowledge. अशें निकोलस ब्रेटनान म्हळां. मुसोलिनी आपल्या आत्मचरित्रांत म्हणटा, I have attended only one school and that is life. I have had only one

teacher and that is experience. बरो वक्तो जातलो जाल्यार बरीं व्याख्यांनां आयकूंक जाय. वक्तृत्वाचे वेगवेगळे प्रकार अणभवूंक जाय.श्रवणभक्ती मना पासून करूंक जाय.

बरो उलोवपी जावपा खातीर बरो आयकुपी आसूंक जाय. आपल्याक सेगीत आयकुपाची संवय आसूंक जाय. देखून पालकांनी भुरग्यांक बरें बरें आनी वेगळे वेगळे तरेचें आयकूंक दिवंक जाय. गाण्याचे बाबतींतय टॅबेन सांगलां, १टक्के शिकप क्लासांत जाता, १०टक्के रियाझ करून, उरिल्लें श्रवणान जाता. श्रवण संस्कार खूब म्हत्वाचो. बीं बरें आसल्यार पीक बरें येता, तेच भशेन श्रवण हें बीं आसता.

उलोवप्यान खूब वाचूंक जाय. तें फक्त एका क्षेत्रा पुरतें मर्यादीत असून जायना. वेगवेगळ्या कलां विशीं म्हायती आसपाक जाय. तांचो आस्वाद घेवपाक येवंक जाय. वाचिल्ल्याचो रिझर्वोईर आसूंक जाय. उलयतना चडांत चड विचार जाय आसता. पाठांतर करून मनीस कितलो वेळ उलोयतलो?

अशें म्हणटात वक्त्याक मनशां वाचपाक येवंक जाय. आपले ऑडीयन्स कोण तें कळूंक जाय. तांची पल्स, नाडी कळूंक जाय.

हे संबंदी एका नामनेच्या उलोवप्यान आपलो अणभव सांगलो. ताणें एका शारांत एक उलोवप केल्लें, थोड्या दिसांनी तसल्याच शारांत ताका उलोवप दिवपाक आपयलो. व्हडा उमेदीन तो त्या शारांत गेलो. पळेत जाल्यार शारांतल्या झोपडवासियां खातीर ताचें उलोवप आसलें. ताणें विचार केलो, ऑडीयन्स वेगळे तरेचो आसा, त्या प्रमाणे ताका वेगळें उलोवप करचें पडलें. देखून ऑडीयन्स कोण आसा तें खूब म्हत्वाचें. तांची प्रगलभता जाणा जावप भोव गरजेचें. देखून बरो उलोवपी पयलीं सगळी म्हायती घेता, कार्यक्रम खंय आसा, कोणा खातीर आदी. मागीर तो (visualize) कल्पनेंत चित्र उबें करता त्या कार्यक्रमा विशीं.

खंयच्या उतरांचेर भर दिवप हें उलोवप्याक खबर आसपाक जाय. ज्या उतराचेर तो भर दिता त्या प्रमाणे मेसेज वता. देखून नव्या उलवप्यांनी पुराय तयारी करूंक जाय. उगीच फाजील आत्मविश्वासान रावचें न्हय. खयचेच कलेक मेहनती शिवाय कांय मेळना. पु. ल. देशपांडेन म्हळां, 'नव्यांनी उलयतना अती आत्मविश्वासान रावचें न्हय, फजिती जावं येता.'

जिणेचे शाळेंत अणभवाच्या गुरू कडल्यान धडे घेतल्या बगर शाणपण येना, हें खरें आसा. मनीसपणाचो अणभव हो बोटी वयल्या फाटल्या दिव्वा प्रमाणे आसता. आमी जी वाट चलून आयल्या, ताचेरूच अणभवाक लागून उजवाड पडटा. शाणो आनी धड धाकट मनीस मेळयल्ल्या अणभवांतल्यान जगपा खातीर बरी वाट निर्माण करतात. फ्राक मनीस, उथळ विचारांचे दैवाचेर विश्वास दवरून मेकळे जातात.

तशें पळोवंक गेल्यार उलोवप तयार करपाच्यो अनेक पद्दती आसात. पूण तातूंतली खंयची सोयीची आनी सोंपी दिसता तें पळोवप म्हत्वाचें आसता. आपल्याक जी स्टायल सगळयांवून चड योग्य दिसता ती निवडपाची. कारण जर आमी चुकीची पद्दत निवडली तर ज्या वेळार उलोवप करपाचो वेळ येता त्या वेळार गडबडपाक जावं येता. ल्हान सान अश्यो बऱ्योच गोष्टी आसतात जाका लागून आमचें उलोवप फसूं येता. तुमचो आवाज लोकांक कंटाळवाणो दिसूंक्य येता, तुमी पाठ करून ओकतात अशें तांकां दिसूं येता, तुमकां जें सांगपाचें आसा तें मतींत आसतना तुमचो वेळ सोंपू येता, तुमी दाखयतात त्यो स्लायडस् आनी तुमचीं उतरां जुळना शीं जावं येता.

खरेपणी योग्य तरेच्या तयारे उप्रांत आडमेळी आमी टाळूंक शकतात. आमी फक्त तयारी न्हय तर योग्य तयारी करूंक जाय. जी पद्दत एकल्याक बरी दिसता ती दुसऱ्या खातीर त्रासदायक थारूं येता. ह्या खातीर मानवी संवादाची जी पद्दत आसा ती समजून घेवपाक जाय. एका टेड टाक्सन सांगलां, उलोवप आयकप म्हळयार एखाद्या व्हडा आवाजांतले विचार आयकुपाचो सोस. जोवेर तुमी ताचे कडेन भावनीक नदरेन जोडलेले आसनात तोवेर तुमी तांच्या विचारांक तुमचे मर्दे आसपावन येनांत. पयलें ते व्यक्ती कडेन जुळोवन घेवचें लागता. मागीर ताचे संकल्पने कडेन.

उलोवप बरयल्ल्या मॅटराचेर आदारिल्लें आसता. बरयल्ल्या मॅटराचे बाबतींत एक अडचण आसता, ती म्हळयार भाशा -ज्यो दोन तरेच्यो आसतात. एक बोली भाशा आनी दुसरी पुस्तकी भाशा. लोकांक आपले संवकळींतले शैलींतलें आनी बोली भाशेंतलें उलोवप आवडटा. पब्लिक स्पीकिंगचे कोच सदांच होच सल्लो

दितात की तुमी पुस्तकी भाशे परस बोली भाशेचो चड उपेग करचो.

देखून नोट/नोंदी काडटात त्यो विचार करून काडपाक जा. आपूण उलवता ते तरेन आसपाक जाय. तांत्रिक उतर सोडलें जाल्यार. म्हणून पुस्तकांत आसा तशें कॉपी करून उलवल्यार तें सामकें मोनोटोनस जावं येता.

हारवर्ड चे प्रोफेसर डेन गिलबर्ट हांणी बोली भाशा आनी लिखाण शैली हांचे मदें एक उपाय सुचयला. तुमकां जें सांगचें आसा तें तुमचे शैलींत सांगात आनी तें बरोवन काडात. बरोवप आनी उलोवप हे दोन वेगवेगळे संवाद प्रकार आसात. लोक एका प्रकारांत भाशण तयार करतात आनी दुसऱ्या तरेन सांगतात.



वर्सान वर्स जेवण करतल्याक कशे तरेन बरें रांदप हें खबर आसता. वक्त्या कडेन रांदपिणीची फिशालकाय आसपाक जाय. असलें कसब उलोवप्याक वा वक्त्याक साद्रूंक जाय. रांदचे कुडींत सगलें सामान आनी वस्तू आसतात. पूण रांदपिणीची कल्पकता आनी सर्जनशीलतायेक लागून रुचीचे पदार्थ तयार जातात. रांदप तिचीच मोनोपॉली आसता. तशेंच केल्लें वाचन समजूंक, पचूंक जाय. योग्य नोंदी दवरच्यो लागतात. हातूंतल्यान केल्लें उलोवप हेरां पासून उठून दिसता. ही कला एका दिसांत आत्मसात करपाक येना. रांदप जशें करून करून तें बरें जाता, प्रॅक्टिस करून खेळ सुदारता, रियाज करून गाणें जमता. एखादो गायक जे तरेन दिग्गजांक आयकता, हरकतीची नोंद घेता, आवाज सुदारपा खातीर व्यायाम, प्राणायाम, ओमकाराचें उच्चारण करतात, धडधडपी नट एखाद्या नटसम्राटाचो म्हणजेच ताच्या गूण कौशल्याचो अभ्यास करून त्या क्षेत्रांतली फिशालकाय विकसीत करता, तेच भशेन तालीम करून नाटक जमता, तशेंच व्रक्तृत्वाचें देखणें रूप साधनेंतल्यान आकाराक येता. पॉलिश करून जशी भांगराक चकचकसाण येता, तशें चिंतनान उलोवप तेजिश्ट जाता.

मनांत एखाद्रो विशय धारतकूच, ताचो आराखडो तयार करूंक जाय. नोंदी दवरपाची संवय जाल्यार एखाद्र्या विशयाचेर उलोवप करप सोंपें जाता. वीर सावरकर हे एक बरे वक्ते आसले. तांचीं भाशणां आयकुपाक खूब गर्दी जाताली. राजकर्त्यांचो विरोध आसूनय. एके कडेन तांणी बरयलां, 'माझ्या वक्तृत्वाचा पाया या टिपणवहीने मजबूत केला आहे.'

वक्तृत्व कलेचें म्हत्व वळखून ह्या विशयाचो अभ्यासक्रमांत आस्पाव जाल्लो. आतां वेगळे तरेन शिकयतात.. मराठी विश्वकोशांत ह्या विशयाचेर बरीच भासाभास आसा. ह्या विशयांचे जाणकार केटो आनी सिसरो हांणी भाशणाचे पांच वांटे केल्ले. त्या उप्रांत हातूंत बरेच बदल जाल्यात. भाशणाची सुरवात आयकुप्याचें लक्ष ओडून घेवपाक. मदलो भाग मुखेल विशयांत प्रवेश करपा खातीर आनी शेवटाक आपल्या विचारांचो श्रोत्यांच्या मनाचेर सासणाचो प्रभाव घालपा खातीर . पयलीं लोक व्हडा संख्येन वर दोन वरांच्या भाशणाक आवडीन वताले. पूण सया तंत्रज्ञानांक लागून बरेच घरा आयकूंक मेळटा. ल्हान उलोवप पंदरा तें वीस मिनटांचें लोक पसंत करतात.

पुणे. मो: ९५२७७७४९९०

पासय

डॉ. नूतन देव



**डॉ. नूतन देव** हांचें बरप चडशें मराठींतल्यान जालां. वेवसायान जरी तांची वैजकी कारकिर्द चालू आसली तरी तांचो पिंड कवीचो. तांचो मराठींतल्यान ' आभाळ ' हो काव्यसंग्रह हालींच उजवाडाक आयला. जाका काव्य रसिकां कडल्यान उप्पाट येवकार मेळ्ळा. तांची सादी,सरळ कोंकणी भास तांच्या ह्या लेखाचें खाशेलेपण.

*त्या घरांतल्या लोकांनी आमकां हातपांय धुवपाक लावले,खावपाक दिलें, उदक दिलें आनी आमी खंयचीं ही सगळी चौकशी काडली. तांगेर एक ॲम्बासेडर गाडीय आशिल्ली. त्या मामान आमकां सगळ्यांक ते गाडयेंत भरलीं आनी आमकां आमच्या घरांनी व्हरून सोडलें.*



# पासय अशीच एक ...

कोविड म्हामारी सुरू जावन एक वर्स जावन गेलें. सगळ्या राष्ट्रांनी, सगळ्या स्तरांचेर ह्या बारीकश्या करोना नांवाच्या व्हायरसाक बंदीस्त करपाचे यत्न नेटान चालूच आसात. ह्या व्हायरसान पळोवंक गेल्यार आमकांच बंदिस्त केल्यात.हाका लागून कोणाक बापूय ना जालो, तर कोणाक आवय.कोणाची धूव गेली तर कोणाचो पूत..सगळ्यांचेच भलायकेचेर परिणाम जाला. अर्थवेवस्ता,सामाजीक भलायकी सगळें मोडून पडलां. अशे परिस्थितींत म्हाका सगळ्यांत चड काकळूट दिसता ती शाळा, इश्कोलांनी वचपी सात ते पंदरा वर्सां पिरायेच्या भुरग्यांची,अदीक करून आपापल्या घरांनी जाणट्यां मदीं एकएकटींच आशिल्ल्या ह्या माणकुल्या भुरग्यांची. खेळूंक,उलोवंक,झगडूंक वांगडचे संवगडी नासतना तीं बाबडीं दिसाचे दीस कशे पासार करतात आसतलीं काय ह्या विचारानच तकली सैरभैर जाता.

आनी ह्या भुरग्यांचो विचार करतां करतां हांव म्हज्या भुरगेपणांत एक पासय मारून आयलें. हय खरेंच! आमचे ते भुरगेपणांतले दीस याद करीत जाल्यार आमी सर्ग सूख भोगलें अशें म्हळ्यार अतिताय जावंची ना.

आमी घरांत दोन दोन अंतराचेर चार भावंडां. चौगांय वांगडा खेळ्ळ्यार सुद्दां हांव दादा तूं ल्हान असो फरक उरतालोच. कसलेंय सण, कार्य आसतकर बापोलभावंडां, आतेभावंडां, मामेभावंडां करीत तीस चाळीस भुरगीं कांय व्ही करून जमतालीं. मागीर आनी किर्तें? फकत धुमशेणां कांडपाचीं.

शाळेंत आनी मागीर इश्कोलांत मेळपी संवगड्यांची तर वेगळीच तऱ्हा. सकाळचीं स-सात वरां अभ्यास शिकतां -शिकतां कोणाची विणी ओड, कोणाचेर फोलीचें विमान उडय, कोणाचे कादेर्न लिपय असल्यो टिवल्यो बावल्यो चालूच आसताल्यो. मदल्या वेळार एक अर्दवर ग्रावंडार तरेक तरेवार खेळ खेळप. इतले मजगतीं दनपार कशी जाता तेंच कळऽ नाशिल्लें. केन्नाय जोर बी येवन दोन दीस इश्कोल चुकोवचें पडटा म्हळ्यार सामकें रडूंक येतालें. पुणून, सगळ्यां परस चड लागींचीं आनी मोगाचीं म्हळ्यार वाड्या वयल्यो इश्टीणी. आठ ते तेरा वर्सां पिरायेचीं आमी सात जाणां. नीमी, अमिता, इरीना, मारिया, कला, नूतन आनी बाबू.( हे चलयेक ताच्या घरांतलीं बाबू कित्याक म्हणटालीं खबर ना, पुणून आमी ताका ओजूनय मेरेन बाबूच म्हणटात, तें आजी जालें तरीय.) आमच्यो सातय जाणांच्यो शाळा वेगवेगळ्यो, घरांतलें वातावरण वेगवेगळें. पुणून आमची दोस्ती सामकी घट्ट. खेळटना झगडीं जावनूय बी परत घरा वतना एकामेकांच्या गळ्यांत हात

घालून हांसत खिदळत वचपाचें.

दनपारचीं चार ते सांजचीं सात मेरेनचीं तीन वरां हीं फकत आमचीं आसतालीं. चार वरांचेर, 'हांव देतां गे आई ' म्हणून घरा भायर सुटप तें बद्द सात वरांचेर घरा भितर सरप. ह्या तीन वरांक आमकां विचारपी कोणच नाशिल्लो. आमी जायते खेळ खेळटालीं.

पावसा दिसांनी सत्री वांगडा आसुनूय बी मुद्दाम भिजतालीं आनी सगळ्यांत चड म्हणजे हेड हेड हेडटालीं. केन्ना शेता बांदार, केन्ना काजींनी, केन्ना दोंगरार, केन्ना तळ्या देगेर, केन्ना रेल्वे रुळार तर केन्ना फाब्रिकाच्या ग्रावंडार. खंय म्हणून नेम ना. एक मात, सात वरां म्हळ्यार घरा परतुपाचो टायम केन्नाच हाल्लो ना.

मडगांव सारख्या शारांत त्या तेंपार ल्हान ल्हान दोंगर आशिल्ले, शेतां आशिल्लीं,बांयों, तळीं आनी झाडां आशिल्लीं अशें आज हांवें सांगत जाल्यार कांय जाणांक खरेंच दिसचें ना. आक्यांत पांढ्वा कपेला फाटल्यानय बी अशीच एक दोंगुल्ली आशिल्ली. कपेल आनी दोंगर हांचे मदीं, धा पंदरा घरां आशिल्लीं.आमचो सोबीत सो एक वाडो. ह्या घरांतल्या दादले मनशांचे वेगवेगळे वेव्हार-धंदे. कोण येंप्रेगाद, कोण टीचर, कोण दोतोर, कोण पसरकार, कोण भाटकार, कोण भागेली. सगळ्यां भितर एक गजाल सारखी ती म्हळ्यार सगळे नीज मडगांवकार न्ही. आपापले मूळ गांव सोडून, भुरग्यांच्या शिक्षणा खातीर वा कामधंदा निमतान हांगा येवन स्थायीक जाल्ले. अश्या ह्या कुटुंबांतलीं आमी सात जाणां.

आमच्या ह्या वाड्याच्च म्हळ्यार जाता एक व्हड मळ आशिल्लें. कोणालो तरी आसतलो तो जागो. त्या मळार एक चिंचेचें झाड आनी एक बोर आसली. त्या त्या सिझनांत आमी ह्या झाडां मुळांनी पडिल्लीं आसतालीं.

एका दिसा आमी फातरावन थोडीं चिंचे बोटां पाडलीं. मीठ, मिरसांगे पिठो हाची तयारी कलान पयलींच करून दवरिल्ली. मळार भोंवत भोंवत आमी त्यो चिंचो चाबडायल्यो. तरी आमी बरीऽ तृप्त जालीं नात. बारकेल्यो बड्यो मारून, फातर शेवटून आनीक थोडीं चिंचेबोटां काडपाचो यत्न केलो. पुणून हातांत कांय पडलें ना. शेवटीं पाल्याच्यो बऱ्योश्यो कोंबऱ्यो रगडायल्यो. बऱ्योऽऽ लागताल्यो त्योय बीन. थोडो वेळ खेळून जातकच सगळीं घरा परतलीं.

बरेऽऽ राती कडेन म्हाका ओंकारे येवंक सुरू जाले. म्हज्या बापायन पळयलें, ओकींत भितर इल्लोसो पाचवो रंग आसा. ताका दिसलें हांव पित्त बी ओंकता आसतलें. म्हणून तार्णे आनीक आनी वेळ केलो ना. तसोच उठलो आनी जोतें चडोवन, घरांतल्याच कपड्यांनी दोतोर बोरकारागेर गेलो. तशी चड रात जावंक नाशिल्ली. दोतोरान आपलें बॅग काडून म्हज्या बापायच्या हातांत दिलें आनी दोन मिनटां भितर पावलो आमच्या घरा.

तार्णे म्हाका तपासून एक प्रस्न केलो,''किर्ते खाल्लें?''

आमी दोतोराक थर्त भियेतालीं. हांवें म्हळें,''कांय ना.''

म्हजो ताळो बी फुल्ला काय पळोवंक दोतोरान तोंड उगडून जीब भायर काडूंक लायली. इतले म्हणसर म्हाका परत एकदां ओंकारो आयलो. तें पळोवन दोतोरान विचारलें,''कांय खावंक नाशिल्लें जाल्यार ही पाचवी चटणी कसली?''

हांव दोळे धांपून ओग्गी रावलें. दोतोर समजुपाचें समजलो. तार्णे रशेद बरोवन बापाय कडेन दिलें आनी लागलो चलपाक बरे रातचो पोटांतलो पालो भायर सरतकच म्हाका भूक लागली. आवयन म्हाका पेज दिली. ती जेवन हांव सुशेगाद न्हिदलें आनी सकाळीं उठून कांयच पडूंक नाशिल्ले भशेन नित्याच्या कामाक लागलें.

आमच्या सातय जाणां भितर नीमा मातशें चड हुशार. तार्णे आमकां एक एक आयडिया दिवप आनी आमी त्यो करप. एक दीस तें म्हणूंक लागलें, ''आमी अर्दोच दोंगर चडून काण्णां, चुन्ना, चारां, मुट्टे खावन परततात. हांवें आयकलां, दोंगराचे तेंगशेर जांबळांचीं, बदामाचीं झाडां आसात म्हणून! तेन्ना आमी एक दीस पुराय दोंगर चडून वयर या.''

सगळ्यांक ही आयडिया सामकी आवडली आनी दुसऱ्याच दिसा चार वरांचेर वच्चें अशें थारलें. दोंगर तसो खूब व्हड न्ही तरी आमची पिराय पळयत जाल्यार तो व्हडलोच म्हणपाचो. मदीं मदीं रावत, पांय वाटेन आमी दोंगर चडपाक लागलीं. खडपां बोटांक आपटटालीं. कित्याक तर पायांत आशिल्लीं सादीं जोतीं. आमी किर्ते शूज घालून ट्रेकींगाक वचूंक थोडींच भायर सरिल्लीं! वाटेर खबरी करतालीं त्यो वयर चडटात तश्यो कमी जावंक लागल्यो. मदींच कोणाचो पांय निसरतालो तर कोणाच्या केसांत फांदी घुस्पताली. कोणाच्या पांयांक मुंय चाबताली तर



कोणाच्या काना कडेन भिरमूट फरफरताली. आवाशिवा करीत पावलीं एकदाचीं दोंगराचे तेंगशेर. थंय पळयत जाल्यार, नदर पावता थंय जमीनच जमीन आनी तिजेर पसरिल्ले ल्हान व्हड रूख. आमच्या मनांत आशिल्लें तशें धाकटेंशें माळरान आनी तातूंत आमर्चे जांभळांचें आनी बदामाचें झाड केदो वेळ दोळ्यांक दिसच ना. थोडो वेळ फुडें फुडें चलत रावलीं आनी इतल्यांत जांभळीच जमीन पांयां कडेन लागली. वयर पळयत जाल्यार जांभळांनी गच्च भरिल्लें झाड. आमी उड्यो मारूंक लागलीं आनी जांभळांचेर सामकीं तुटून पडलीं. खूब गोड आशिल्लीं तीं जांभळां. झरीना आनी कला मातशीं फुडें गेलीं. थंय तांकां दुसरें एक झाड सांपडलें. ताच्या मुळांत ल्हान ल्हान फळां पडिल्लीं. तांणी म्हळें हातुंतल्यो बियो बदाम कश्यो लागतात. तांणी त्या फळांतली बी फातरान फोडून आमकां सगळ्यांक खावंक दिली. ती तर खूबच बरी लागताली. बाबून तर त्यो बियो मागून मागून खाल्यो.

आतां खूब वेळ जाल्लो. हांवें म्हळें,''आमी आतां घरा वचुंया.''

आमिता म्हणूंक लागलें,''आतां दोंगर देंवपाचोच, सामकें सोंपें. रोकडीं घरा पावतलीं.''

आमी खुशाल जावन दोंगर देंवूंक लागलीं. पुणून आयिल्ले तेच वाटेन देंवप जुळून येना जालें. देंवतां देंवतां काळोख जालो. हेवटेच्यान बाबूक घुंवळ येवंक लागली.(आमी आनी तार्णे मागून मागून खाल्लीं तीं घोडकां, बदाम न्हय हें आमकां मागीर कळ्ळें.) ताच्या तोंडार उदक फापुडलें. दोगांनी ताच्या दोनूय हातांक धरलें, तिसऱ्यान कमराक धरलें आनी तशींच वाटेक लागलीं.

आतां सामकोच काळोख जाल्लो. आमी देंवत आशिल्लीं. पूण पावून पावना आशिल्लीं. थोड्या वेळान पयस उजवाड दिसलो. तो आमच्या घराचो उजवाड समजून त्या उजवाडाचे दिकेन आमी वचत रावलीं. एकदाचीं त्या जाग्यार पावलीं. पळयत जाल्यार थंय कित्याक तरी उजो पेट्टालो. एक मनीस बॅटरे दिवो घेवन आयलो आनी आड्डून विचारूंक लागलो,''तुमी हांगा मसणांत कितें करतात? चलात पयलीं भायर हांगच्यान.''

आमी वाट चुकून पावल्यांत म्हणपाचें ताका भीत भीत सांगलें. तार्णे आमकां लागींच एक घर आशिल्लें थंय व्हरून सोडलीं. तें घर कोणाचें तें खबर ना, पुणून खूब सुंदर आशिल्लें. बऱ्यो लायटी आशिल्ल्यो, झोपाळो आशिल्लो. त्या घरांतल्या लोकांनी आमकां हातपांय धुवपाक लायले, खावपाक दिलें, उदक दिलें आनी आमी खंयचीं ही सगळी चौकशी काडली. तांगेर एक ॲम्बासेडर गाडीय आशिल्ली. त्या मामान आमकां सगळ्यांक ते गाडयेंत भरलीं आनी आमकां आमच्या घरांनी व्हरून सोडलें.

हेवटेच्यान सगळयांचेर आकांत आयिल्लो. प्रत्येकाच्या घरांत प्रत्येकाक कसो येवकार मेळ्ळा आसतलो हें आनी वेगळें सांगपाची गरज ना.

पुणून इतलेंय सगळें घडलें तरी दुसरे दिसा सांजचीं चार वरांचेर आशिल्लीं तशीं सगळीं जाणां मळार हजर.

खरेंच! ल्हानपणांतली, सांजेच्या वेळा वयलीं हीं तीन वरां आमकां खूब कितें शिकोवन गेलीं. आमच्यो भावना खूब सशक्त जाल्यो. सगळीं नातीं सांबाळून, कसलोच भंय बाळगिनासतना, हांसत्या तोंडान, एकामेकाक आधार दियत फुडें वचूंक शिकयलें.

ह्यो गजाली जेन्ना हांव म्हज्या नातरांक सांगतां तेन्ना तीं आंऽऽ करून आयकतच उरतात आनी सोंपल्यार म्हणटात,''आज्जे, आनीक एक सांग गे काणी!''



फोंडें - गोंय. मो: ९८५०१३३१६०

जतनाय

डॉ.रिना लवंदे

# आमच्या दांतांची काळजी



मनीस जेन्ना जेन्ना खळखळून हांसता तेन्ना हांसपी मनशाचे नितळ, धवेफुल्ला, निरोगी दांत पळोवन पळवतल्यांचें मन लेगीत प्रफुल्लीत जाता.

मनशाक बत्तीस दांत आसतात आनी दरेक दांताक वेगवेगळें तरेचें कार्य आसता. जण एकल्याक आपलो दिसपट्टो आहार बरे तरेन चाबून, चगळून खावपाक जाय. हे खातीर आमचे दांत निरोगी आसप गरजेचें.

आमच्या दांतांचे चार भाग आसतात.

१.पल्प (Pulp),

२.डेन्टीन (dentin)

३.इनॅमल (enamel)

४.सिमॅन्टम (cementum)

पल्प हो दांतांचो सगळ्यांत भितरलो भाग. तातूंत रगताच्यो शिरो(blood vesels)आनी नेरवां(nerves) आसतात. ताचे भायलो भाग डेन्टीन आनी आमकां धवो फुल्ल भाग तोंडांत दिसता तो म्हणल्यार इनॅमल. तशेंच मुळाच्या भायल्या भागाक सिमॅटम म्हणटात. हो भाग आमच्या जबड्यांत हाडांत भितर आसता. थंयच्यान रगताच्यो शिरो आनी नर्वस दातांत भितर सरून पल्पांत वतात.

जशें आमच्या आंगाच्या प्रत्येक भागाचें एकेक तरेचें कार्य आनी काम आसता, तशेंच दांत आमकां जेवण बरे तरेन चाबपाक, स्पश्ट उलोवपाक मजत करतात. जेवण सारकें चाबलें ना जाल्यार मनशाक अजीर्ण जाता. ह्या कारणाक लागून तरेकवार दुयेंसांक आपोवणें दितात. देखून आमी आमच्या दांतांची सदांच जतनाय घेवंक जाय.

भुरगो जेन्ना स म्हयन्यांचो जाता तेन्ना भुरग्याक दांत येवपाक सुरवात जाता. तेन्ना सावन आवयन त्या भुरग्याच्या दांतांची जतनाय घेवंक सुरवात करूंक जाय. पयलींच दिसांतल्यान दोन फावट ब्रश करपाची संवय लावत जाल्यार भुरगो आपुणूच आपल्या दांतांची जतनाय घेता. हे दुदाचे दांत पिरायेच्या १२ वर्सां मेरेन एक एक करून पडटात आनी त्या जाग्यार नवे कायमचे दांत येवपाक सुरू जाता.

दांतांचे मुख्य विकार म्हणल्यार दांतांक कीड लागप (decay or dental earies). खातकच ब्रश वा उदकाचो सारको घोंट घेतलो ना जाल्यार अन्नाचे कण आमच्या दांतां मजगती शिरकून उरतात. तोंडांतले जंतू (bacteria) ह्या उरिल्ल्या जेवणांतल्यान ॲसीड (acid) तयार करतात. हें ॲसीड आमच्या दांतांचेर आक्रमण करता. दांत पोखरपाक लागतात. वेळार दोतोरा कडेन वचून तपासणी केली ना जाल्यार दांत दुखपाक लागतात. सूज येता, मातेर जाता. केन्ना केन्ना तर दांत दुखण्या खातीर तो काडचो पडटा. दांतांच्या दोतोरा कडेन वचून पयलींच स-स म्हयन्यांनी तपासणी केली जाल्यार आमी दांतांच्या रोगाचेर नियंत्रण हाडूंक शकतात. खूबशे लोक दांतां दोतोरा कडेन वचपाक भियेतात आनी दांतांची दूख सोसतात. ह्या कारणाक लागून दांतांची कीड भितरल्या भागाक म्हणल्यार पल्पाक लागूं येता. अशें जालें जाल्यार दांत दुखतात, सूज येता. असल्या दांतांक आतां रूट केनाल (Root canal treatment) म्हूण उपाय करतात. पयलीं तेंपार असले दांत दोतोर रोखडेच काडून उडयताले. पूण हे आधुनीक जिर्णेत दांत भरपाचीं तरेकवार वखदां, दातांचेर तरेकवार उपचार, हिरड्यांचे तरेकवार उपचार आनी मुखेल म्हणल्यार जबड्याचें हाड लेगीत ट्रान्सप्लांट करूं येता.

दुसरें म्हणल्यार दांतां बराबर आमच्यो हिरड्यो निरोगी आसपाक जाय. हिरड्यांचें मुखेल दुयेंस म्हणल्यार पायरिया. हें दुयेंस आशिल्ल्या मनशाच्यो हिरड्यो सुजतात, दुखतात, रगत येता आनी मातेर जाता. ह्या दुयेंसाचेर उपाय जालो ना जाल्यार दांत हालपाक लागतात आनी आपूणच पडटात. ना जाल्यार दोतोरा कडल्यान काडून घेवंचे पडटात.

हे खातीर आमी आमच्या दांतांची जतनाय घेवपाक जाय. पयलीं म्हणल्यार सकाळीं उठल्या बराबर आनी रातचे न्हिदचे पयलीं ब्रश करपाक जाय. दुसरें म्हणल्यार गरम उदकांत मीठ घालून दिसाक दोन वा तीन खेप पळपळो करपाक जाय. तिसरी गजाल म्हणल्यार सिगरेट ओडप, पान, गुटखा खावप ना. चौथी गजाल म्हणल्यार पौश्टीक आहार घेवपाक जाय. आनी निमाणी गजाल म्हणल्यार दर स म्हयन्यांनी दांतांच्या दोतोरा कडल्यान दांतांची तपासणी करून घेवंक जाय. ह्यो सगळ्यो गजाली लक्षांत दवरीत जाल्यार तुमचे दांत निरोगी आनी धवेफुल्ल उरतले.

मचमचीत

# पावसांतल्यो भाज्यो

पावस पडलो काय धर्तरेच्या पोटांतल्यो तरांतरांच्या भाजयांचीं बियां किल्लतात आनी लुती,कुडुकी,तायखिळो, तेरें बी भाजी वयर सरता. म्हसका झाड तर पालेताच. ही सगळी भाजी सैमान दिल्ली देण. तरांतरांचे क्षार,प्रथिनां हाणें भरिल्ली ही भाजी खावपाक रुचीक लागता आनी भलायकीक घटमूट करता.

## तेरें

**सामान**

तेऱ्याचीं २५-३० पानां.१ वाटी चणे,एका ल्हान नाल्लाची सोय,६-७ सुक्यो मिरसांगो, १ ल्हान कुलेर हळदी पिठो,लिंबा इतली आमटाण,रुची पुरतें मीठ,पणसाचीं १०-१२ फोडिल्लीं भिकणां,९-१० फुलयल्ल्यो वडयो,४-५ ताशिल्ले आंबाडे, रुची पुरतें मीठ.

**करपाची रीत**

चणे बरे शिजोवंचे. बारीक शिनिल्लें तेरें,आंबाडे आनी भिकणां कुकरांत घालून तीन शिटयो काडपाच्यो.ह्या शिजयल्ल्या तेऱ्यांत शिजयल्ले चणे घालून एक खतखतो काडचो. सोय,मिरसांगो,हळदी पिठो आनी आमटाण बारीक वांटून घेवंची. हें वांटप त्या मिश्रणांत घालचें. मीठ,गोड आनी वडयो घालून ह्या मिश्रणाक बरो खतखतो काडून घेवंचो. तेरें तयार!

(अशे तरेन लुतीची भाजीय करूं येता.)

दुसरी तरा म्हणल्यार हें धोणस भाजून लेगीत करतात. ते खातीर तें आवनांत भाजपाक मेळटा. ना जाल्यार तोपा वयर इंगळे दवरून भाजात. हें अशे तरेन भाजिल्लें धोणस सामकें केका भशेन जाता.

## म्हसका भाजी

**सामान**

४-५ वाटयो बारीक चिरिल्ली म्हसका भाजी.१ वाटी सोय,४-५ हरव्यो मिरसांगो,१५-२० फोडून घेतिल्लीं पणसा भिकणां, १ व्हड कुलेर तोरची दाळ,१ वाटी गोड, रुची पुरतें गोड.

**करपाची रीत**

तोरची दाळ आनी पणसा भिकणां पयलीं शिजोवन घेयात.हें शिजतकीच भाजी आनी चिरिल्ल्यो हरव्यो मिरसांगो घालात आनी शिजतकच सोय,गोड आनी मीठ घालून शिजयात. भाजी खावपाक जाली तयार.

## तायखिळ्या भाजी

**सामान**

४ वाटयो तायखिळ्या भाजी, दोन मोठे कांदे बारीक चिरून, ५-६ हरव्यो मिरसांगो, १ वाटी नाल्लाची सोय,१ व्हड कुलेर गोड,रुची पुरतें मीठ.

**करपाची रीत**

कांदो, भाजी आनी मिरसांगो शिनून शिजयात. थोड्या वेळान सोय,गोड आनी मीठ घालून शिजयात.

(अशीच कुड्डुके भाजीय करूं येता.)

## भरिल्ले बांगडे

**सामान**

७-८ बांगडे, ३-४ कांदे बारीक चिरून, १ ल्हान कुलेर जिरें,८-१० मिरयां,१ ल्हान कुलेर हळदी पिठो,२ ल्हान कुलेरां मिरसांगे पिठो, आमटाण,१०-१२ लसणीच्यो बोयो,२ से.मी. आलें, रुची पुरतें मीठ,तळपा पुरतें तेल,तांदळाचें पीठ वा रवो.

**करपाची रीत**

बांगडे धुवन,उजरावन घेवंचे.बांगड्यांचे कुडके करचे न्हय. बांगड्याक कुशी कडच्यान चीर घालून कांटो काडचो. मागीर बांगड्यांक मीठ लावन १०-१५ मिनटां दवरचे, वयलो सगलो मसालो बारीक वाटपाचो. ह्या मसाल्यांत रुची पुरतें मीठ घालून तो सगळ्या बांगड्यांनी भरसुंचो. मागीर ह्या बांगड्यांक तांदळाचें पीठ वा रवो लावन तव्यार तेल घालून तळून घेवंचे.





- डॉ.रिना लवंदे
नायकवाडो-कळंगूट
मो.:९८२३९९८८८४
drrinalaw@hotmail.com






# उपचाराक पुराव्याचे आधार...



गोंयांतले नामनेचे हिन्दु फार्मासीचे धनी आशिल्ले **राज वैद्य** हे वखदां मळार तळमळीन वावुरतात. आपल्या लिखाणांतल्यान आनी विंगड विंगड चर्चासत्रांतल्यान ते लोकांमदीं जागृताय हाडून योग्य वखदां कशे तरेन घेवप हाचें सातत्यान मार्गदर्शन करतात.

फांतोडेर फोन करून रमेशबाबान नरेशाक उठोवन घालो.

रमेशः तुका उठोवन घातलो..सॉरी..पूण आमकां घरा न्हिदूच पडूंक ना रातीं.

नरेशः आरे जालें तरी किर्ते? कोण बरो बी ना..?

रमेशः आरे तशें न्ही..काल रातीं टिवीचेर सांगलें न्ही रे, त्या प्लाझ्मा थेरपीचो कांय उपेग ना म्हूण कोविडाक..

नरेशः हय खबर आसा म्हाका..जायत्या देशांनी तें केन्नाच बंद केल्लें. कितलें तरी संशोधन आनी अभ्यास जालो. तातून ताचो फायदो जायना अशें सिध्द जालें!

रमेशः आरे पूण आमच्या निलेशान इतली धडपड केली, आपल्या आमिगाच्या सोयऱ्यां खातीर कितले त्रास घेतले प्लाझ्मा डोनर सोदपाक, आपणे स्वता प्लाझ्मा डोनेट केले..आतां हें सगळें फुकट गेलें?

नरेशः आपलो दिश्टीकोन कसो आसा ताचेर अवलंबून तें. आमी किर्ते करतात हें दरेक फावटी उपेगीच थारतलें असो अंदाज नासता केन्ना केन्ना आमकां...जे घटकेक योग्य दिसता तशें करतात आमी. तशेंच प्लाझ्मा थेरपी बाबतींत. कोविडान थैमान घातलां, लोक मरतात. किर्ते तरी उपाय सोदूंक जाय, किर्ते तरी यत्न करूंक जाय...

रमेश : मागीर खंयच्या भरवंशाचेर प्लाझ्मा थेरपी उपेगाची म्हूण उजार केली तर दोतोरांनी..

नरेशः ताचो उपेग जावं येता म्हूण थोडें संशोधन आशिल्लें. पूण आनीक पुरावो मेळऽ पर्यंत प्लाझ्मा थेरपीक 'इमरजन्सी यूज ऑथरायझेशन' (EUA) दिल्लें. हेच वांगडा तें कोविड जाल्ल्या पेशंटाक केन्ना उजार करप, कशें उजार करप हाचींय मार्गदर्शक तत्वां दिल्लीं. जगभर हाचो उपेग करून पळयलो. वांगडाच कितल्योश्योच संशोधन चांचण्यो चालूच आशिल्ल्यो. जसो पुरावो येत रावलो, प्लाझ्मा थेरपीचो उपेग जायना म्हणून, तसतसो जायत्या देशांनी ताचो वापर बंद केलो. भारतानय तसो निर्णय घेतला.

रमेशः आरे, मागीर इतलो गाजा-वाजा कित्याक केलो तर? थोड्या राजकारण्यांनी तर हाचेर जायरातीचेर जायराती छापल्यो. व्हिडीओ केले. लोकांक कितलीच विनवणी केली, जांकां कोवीड जावन बरे जाल्यात तांणी आपलो प्लाझ्मा डोनेट करचो..

नरेशः ताचेर चड उलोवन फायदो ना. कोण म्हणटाले अमूक लोक प्लाझ्माक लागून वाटावले..पूण ते प्लाझ्मा थेरपीकूच लागून वाटावले, फायदो जालो काय ना हें वैजकी पुराव्यांनी सिद्द जाल्यारूच तें फुडें व्हरूं येता...प्लाझ्मा थेरपी अयोग्य रितीन, अयोग्य वेळारूय गरजे शिवाय दिवपाचेय प्रकार उक्ताडार आयल्यात अशें म्हणटात..कारण जेन्ना पेशंटाचे सगळे तपसील डिटेल फॉर्म भरून मागूंक लागले तेन्ना ताची मागणीच कमी जाली.

रमेशः अशें कशें तर..?

नरेशः दुर्दैवान आमच्या भारतांत खूब किर्ते किर्ते जाता...सगळेच कडेन योग्य पद्दतीन उपचार जातात अशें ना. आतांचें तार्जे किर्ते गाजता तें पळयला न्ही? अयोग्य स्टेरॉयडाचो वापर बी केल्ल्यान मुकरमायकोसीस ह्या फंगल इन्फेक्शनान थैमान घालां आतां भारतांत.

रमेशः हय रे बाबा..पळोवं नजऽ आनी आयकूंय नजऽ त्यो बातम्यो...मिडीया म्हूण कमी नात..टीआरपी मेळपाक सगळे प्रयत्न करतात. कारण नासतना गाजा-वाजा चड!

नरेशः आनी प्लाझ्मा थेरपीच कित्याक? तें रॅमडेसीवीर इंजेसांवाक लागून कितलो बोवाळ जालो...शॉर्टेज, काळो बाजार..आठशें रुपयांचे इंजेसांव धा...पंदरा..तर कोण पस्तीस हजारांक..सत्तर हजारांक विकताले. कोण चोरी करताले...होर्डींग करताले..कोण संधीसाधुनी ग्लुकोजार्चे उदक घालून रॅमडीसीवीरार्चे लेबल लायलें, कोणें पॅरासीटामोल बाटलेंत भरून रॅमडीसीवीरार्चे लेबल लायलें...किर्ते ही लूट लबाडी करपाची वृत्ती आमच्या देशांत..!

रमेशः आनी निमाणें जालें किर्ते? रॅमडीसीवीराचोय उपेग कमी जालो अशें आयकतां.

नरेशः हय तर..जागतीक भलायकी संघटनेन कांय म्हयन्या पयलींच सांगिल्लें, रॅमेडेसीवीराचो कोविडाचेर स्पश्ट असो उपचार न्हयच! त्या वखदाक पासून भारतांत 'इमरजन्सी यूज ऑथरायझेशन' (EUA) मेळिल्लें. आनी ताची वापराचीं तत्वांय जाहीर केल्लीं. पूण निमाणो जावपाक लागलो अती वापर..आनी आतां वैजकी चांचण्यांतल्यान सिद्द जालां की रॅमेडेसीवीराचो कोविडांत उपेग जाता हाचो पुरावो ना म्हणून...

रमेशः आमी इतलीं वखदां घेतात..ताचे सायड इफेक्टस्..

नरेशः ते आसाच न्हय..पूण किर्ते आसा आतां...दोतोरूय हें मान्य करतात की आमचे लोकां मदीं कल्चरूच तसो निर्माण जाला...किर्ते तरी वखद जाय...वखद घेतलें जाल्यारूच बरो जातलो रुग्ण..जितलें म्हारग तितलें वखद चड बरें...अशे कांय भ्रम घेवन आसतात रुग्ण आनी तांचे इश्ट आनी सोयरे..देखून जायते फावटी ते दोतोरांचेरूय प्रेशर घालतात. अच्छे से अच्छा दवा दे दो पैसों की चिंता आप मत करो,इंजेक्शन कितना भी मेहेंगा हो, इस्तेमाल करो...लेकीन हमारे मरीज को बचाओ...

रमेशः हय रे, असलें सगळें चलता, आमचो देश व्हड, जनसंख्याच खूब,आरोग्य कर्मचारी आनी वैजकी यंत्रणां उणीं...।

नरेशः खरो व्हालोर आमच्या भलायकी कर्मचाऱ्यांक...हे सगळे संकश्ट येवन पासून खरेंच कितले जीव वाटायले तांणी! सगळेच सायडीन प्रेशर तांचेर..सोयरे, राजकारणी..केन्ना केन्ना राजकारणी मेतेर जातात, भलायकी तज्ञांनी घेवपाचे निर्णय हे घेतात...नाका थंय पब्लीसीटी करतात..सगळेंच कोफुसांव! आमकां खरी गरज आसा ती कायद्याची अंमलबजावणी, वखदांची तस्करी, काळो बाजाराचेर नियंत्रण,आनी मुखेल म्हणल्यार पुराव्याचेर आधारीत वखदांचो आनी उपचारांचो वापर..!



इंडियन फार्मास्युटिकल असोसिएशन, गोंय
ई-मेल : ipacpd@gmail.com, 9422062286



- संतोष हळर्णकार

बांदिवडे-बदर.फोंडा-गोवा ४०३ ४०१

मो . [illegible]






**आडवे :** १-उखलप,वयर काडप,उंचावप ४-चालचलणूक. ७-कातीचो इल्लो इल्लो वाडपी पुळेर. ८.-मोटपाण,मोटसाण,फुगरेपण.१०- मेजणी. ११-मुशारो,काम,वावर केल्ल्याचें मोल. १४- सर्वसादारण, सगळें. १५-माणकुल्या भुरग्यांची शाळा. १६- अकस्मात, अचकीत. १८-मोल नाशिल्ली वस्त, कुसकूट. २०-उश्णताय, खर वत. २२-जावपा सारखी स्थिती, संभाव्यताय. २४-वारो आनी उजवाड येवपाक घराचे वणटीक दवरिल्लो जागो. २६-कवीत,काव्य,कवन. २७-घट, निबर, कडक,टणक. २८-भोवमानाचें,मानादीक.

**उबे :** १-कंटाळो,वाज,नाउमेद. २-रचणूक,मांडणी. ३-परकी, भायलें, दुसरें. ५-चामड्याच्यो वस्ती करपी. ६-आज मेरेन. ८-काळ, वेळ,वोगोत. १२-पुंगी वाजोवन सोरोप नाचोवपी.१३-भुरगें, बाळ.१४-सज्जन, प्रामणीक. १५-वान,चड करून खोमसा पोंदा घालपाचें सदळशें जॅकेट..१७-चंद्रगुप्त मौर्याचो राजकी गुरू. १९-हाक, पत्रां. २१-डिप्लोमा २२-म्हवन्याचो दीस. २५-सदांच,थारावन.

माय २०२१ ची जाप

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| भे | रा | व | प | | व | र्ग | णि | दा | र |
| ट | | सं | र | क्ष | ण | | | मो | ती |
| व | जीं | त | | | त | र | सा | द | |
| प | | | | स | | म | ग | र | |
| | स | | म | स्त | क | | वा | | अं |
| सा | र | ण | | ता | | ज | न | म | त |
| | स्व | | सा | य | बी | ण | | त | रा |
| अं | ती | म | | | ळ | | धा | | व |
| ज | | द | र्श | न | | घो | ळ | व | प |
| न | ग | र | | फो | ली | ण | | स्त | |




कोंकणी कवितेन आपणाक तरांतरांनी
अभिव्यक्त केल्या.
केन्ना ती गीतरांगेच्या ल्हारांचेर
स्वार जावन प्रगटल्या.
जाल्यार केन्ना ती छंद-मात्रेच्या
नादाचेर ताल धरीत उतरावल्या
आनी तितलीच ती
मुक्त छंदांतल्यानय गायत गायत
आपणालें रूप उगतायत आयल्या.

- नागेश करमली

**एच. मनोज**
हांचो
पयलो वयलो नवो ताल्ल काव्य संग्रह

# ‘मनोभाव’



कोंकणी भाशा मंडळ, मडगांव
गोवा कोंकणी अकादेमी, पणजी
आनी गोंयच्या मुखेल बुकस्टॉलांचेर उपलब्ध




**एम एण्ड एम पब्लिकेशन्स**
ग्रीन व्हॅली, चिखले, गोंय ४०३७११
संपर्क - मो. ९८२२४४१४१७

